साहित्य-स्वाध्याय | **SAHITYA SWADHYAYA**

**(Literary Essays in Konkani by Shri. Chandrakant Keni)**

प्रकाशक क्र. 105 | Publication No. 105

गोवा कोंकणी अकादेमी | **Goa Konkani Akademi**

दुसरी आवृत्ती : 2007 | Second Edition : 2007

उजवाडावपी :
सचिव,
गोवा कोंकणी अकादेमी,
243, पाटो कॉलनी,
पणजी गोंय. 403 001

**Publisher :**
Secretary,
Goa Konkani Akademi,
243, Patto Colony,
Panaji, Goa. 403 001

छापपी :
ओमेगा एन्टरप्राइजेस,
श्री. सुरेश काकोडकार,
विद्यानगर कॉलनी,
मडगांव-गोंय.

**Printer :**
Omega Enterprises,
Shri Suresh Kakodkar,
Vidyanagar colony,
Margao - Goa.

मुखचित्र :
सुरेश काकोडकार

**Cover :**
Suresh Kakodkar

मोल रु. **70/-** | **Price Rs. 70/-**

# अकादेमीचे वतीन ...

ज्येष्ठ साहित्यिक श्री. चंद्रकांतबाब केणी हांगेलें 'साहित्य स्वाध्याय' हें पुस्तक 1996 वर्सा, पयली आवृत्ती सोंपल्या म्हणपाचें सांगून, गोवा कोंकणी अकादेमीन पुस्तकाची दुसरी आवृत्ती उजवाडावची अशी इत्सा प्रगट केली. वावुरपी मंडळाचे बसकेंत हो प्रस्ताव येतकूच सगळ्यांनी एकमुखान ह्या प्रस्तावाक मान्यताय दिली. शिक्षणीक क्षेत्रांतल्या वावुरपी मंडळाच्या वांगड्यांनी महाविद्यालयीन थराचेर विद्यार्थ्यांक ह्या पुस्तकाची गरज आसा म्हणपाचें भर दिवन सांगलें. ते प्रमाण हें पुस्तक उजवाडाक येता.

श्री. चंद्रकांत केणी हांणी एक कविता हो प्रकार सोडलो जाल्यार ललीत साहित्याचे भौतेक सगले प्रकार हाताळ्यात, आपणाले साहित्यिक जिणेंतले अणभव तांणी ह्या पुस्तकांत मांडल्यात. एका निजी साहित्यिकान कसल्याच साहित्यिक वादांत (ईझम) पडनासतना सुलभ आनी सोंपेपणान साहित्या वयर चिंतन करून ताचें कथन केलां. कोंकणी समिक्षेच्या संवसारांत ह्या पुस्तकाची आपली अशी एक सुवात आसा.

ह्या पुस्तकाचे दुसरे आवृत्तीकूय वाचप्यांकडल्यान बरो प्रतिसाद लाबतलो अशी आस्त आसा.

पुंडलीक नायक
अध्यक्ष
गोवा कोंकणी अकादेमी

# दोन उतरां

साहित्याकडेन म्हजो पयलो संबंद आयलो तो एक वाचपी म्हणून. ल्हान पिरायेंतच घरांत आशिल्लीं तरेकवार पुस्तकां हांव वाचतालों. ल्हवू ल्हवू वाचपाची गोडी लागली. शाळेंतलो अभ्यास कुशीक दवरून लेगीत हांव वाचूंक बसतालों.

वाचनाचे आवडीचो म्हजेर एक वेगळो परिणाम जालो. रवीन्द्रनाथ टागोरांची एक कथिका आसा - 'नांवांचो खेळ'. ते कथिकेंतल्या नायका भाशेन ती अवस्था आसली. हांवें कितेंय तरी बरोवचें - कितें बरोवचें, कशें बरोवचें तें खबर नासलें - म्हजें नांव छापून येवचें अशी उमळशीक लागून उरताली. हांव बरोवंक लागलों.

कथा म्हळ्यार कितें, तिचें तंत्र म्हणून आसता हें म्हाका खबरच नासलें. पूण कवितेचे नेम आसतात हें शाळेंत शिकिल्लों. नेमांचें बंधन उरचें न्हय इतलेच खातीर हांवें कवितेकडेन फाट फिरायली. बाकीचे सगळे साहित्य प्रकार हाताळ्ळे. लेखनाचें काम चलता आसतना वाचनांत मात खंड पडूंक दिलो ना.

हालींच्या वर्सांनी 'साहित्य' ह्या विशयाचेर चर्चा जाता तशी आदींय जाताली. पूण असले चर्चेकडेन म्हजो संबंद येना आसलो. जेन्ना तो आयलो तेन्ना म्हाका दिसलें, हें साहित्यशास्त्र समजून घेवंक जाय. साहित्य शास्त्रावयले ग्रंथ वाचून तें शिकचेपरस हांवें साहित्याची म्हजे नदरेन चिकित्सा सुरू केली. त्या प्रयत्नांचें हें फळ. ' साहित्य स्वाध्याय' ह्या नांवान हें पुस्तक आज उजवाडाक येता.

खरें म्हळ्यार विशय थारावन हें पुस्तक बरोवंक ना. सभा संमेलनांनी, शिबिरां आनी कृतीसत्रांनी वा नेमाळ्यांच्या संपादकांनी जे विशय दिले त्या विशयाचेर जे मुद्दे बरोवन काडिल्ले तांचेंच हें संकलन. ताका लागून कांय लेखांनी पुनरुक्ती जाल्या. कांय कडेन विसंगत आयिल्ली आसूं येता. सलग वाचतना ती खटकली तरी त्या त्या विशयावयलो लेख वाचतना तिचो विशयाकडेन मेळ बसतलो अशी हांव अपेक्षा करतां.

साहित्य शास्त्राचेर - समिक्षेचेर आनी चिकित्सेचेर - साहित्य निर्माण जावपाची गरज आसा ती विद्यार्थ्यांखातीर. हरशीं नेम थारावन वा विधिनिशेधांचें बंधन पाळून साहित्य निर्माण करचेलें नासता. तशें जावंकय शकना. बंधनमुक्ती ही साहित्य सर्जनाची पूर्व अट म्हणूं येत. लेखक वा कवी हांच्या मनाचे उत्फर्के आनी उमाळे कळयेचें फूल फुलचें तितल्या सभाविकपणान उतरांवरवीं रूप धारण करतात, देखूनच बऱ्या साहित्याचे कस, ना जाल्यार ताच्या तंत्रमंत्राची फास्की थारावपाचो यत्न करप पिशेपणाचें जातलें. व्यक्ती तितल्यो प्रकृती आसतात देखून खंयच्या लेखकाले प्रतिभेच्या स्पर्शानि कित्याचें भांगर जावंये हें थारायतलो कोण ? तरी पूण साहित्याचो अभ्यास करतल्यांखातीर आजवेर साहित्य प्रवाहान ज्यो दिशा घेतल्यो तांचो वेध घेवपाचो प्रयत्न जावंकच जाय. हांवें तसो प्रयत्न करूंक ना. सभावीक उमळशिकेंतल्यान साहित्याविशीं जें चिंतन केलें तेंच उतरांनी बरोवन काडून वाचप्यांमुखार दवरलां.

मडगांव (गोंय) चंद्रकांत केणी
20 मार्च 1996

# दुसरी आवृत्ती उजवाडावपाचे निमतान...

'साहित्य स्वाध्याय' पुस्तकाची पयली आवृत्ती सोपली पूण ती खपली असो ताचो अर्थ न्हय. मुळांत थोड्यो प्रती छपिल्ल्यो, तातुंतल्यो चडश्यो वांटून गेल्यो. थोड्योभोव खपल्यो. उरिल्ल्यो शेणल्यो. शाळा कॉलेजींनी कोंकणी पावली आनी साहित्यशास्त्र ह्या विषयावयलें बरप विद्यार्थी सोदूंक लागले. साहित्यशास्त्राचो खोलायेन अभ्यास करून बरयिल्लें हें शास्त्रशुध्द पुस्तक न्हय. साहित्याच्या प्रांतांत वावुरतना साहित्यिक अणभवांविशी उलोवचें, बरोबचें पडलें. तसलें बरप संकलीत करून 'साहित्य स्वाध्याय' हें पुस्तक हांवें 1996 वर्सा उजवाडयिल्लें, ह्या विशयाचेर कोंकणीत पुस्तक नाशिल्ल्यान कोंकणी विद्यार्थ्यांनी दुदाची तान ताकार भागोवची तशें हें पुस्तक संदर्भ-पुस्तक म्हणून वापरलें. ताची दुसरी आवृत्ती इतले बेगीन भायर सरत हाचो अदमास नाशिल्लो. पूण ती बेगीन भायर सरपाची गरज आशिल्ल्यान मूळ पुस्तकांत जीं उणिदुर्णी आसात तीं सुदारून घेवपाची इत्सा आशिल्ली. पूण आतां तितली फुरसत ना आनी भलायकीय सांगात दिना. देखून फाटीं-फुडें कोणूय साहित्याचे चिकित्सक हांची मागणी पुरी करतले अशी आस्त बाळगितां.

जिणेचो घुस्पागोंदळ वाडला तशीं साहित्यांतलीं प्रमेयां बदलूंक लागल्यांत. इलेक्ट्रॉनिक प्रसार-माध्यमांक लागून अक्षरसाहित्या मुखार जबरदस्त आव्हान उबें राबलां आनी गुणवत्ता नांवाच्या कसाचो दर्जो उरूंक ना. बरीं बरीं वर्तमानपत्रां बदलत्या काळाक शरण वचून शुध्द बातमेची उपेक्षा करून थिल्लर बातम्यो ठळकपणान उजवाडावंक लागिल्ल्यान ही नव्या युगांतली पत्रकारिता अशें मानून मोन्यानीं बसप हे शाणेपणाचें अशें समस्त समाजीक फुडाऱ्यांक आनी विचारवंतांक दिसूंक लागलां. साहित्याचो प्रांत हे सर्तींत कुशीन पडिल्ल्यो आसलो तरी साहित्यिक मुल्यां, अनिर्बंध जावन नीतीची भास भश्टून गेल्ली आसा. व्हड भासांतल्या साहित्याक ह्या प्रस्नाची झळ

बादूंक लागल्या. तेन्ना ल्हान भासांच्या साहित्याचो फुडार कळना. संवसारांतली एक भास दर सप्तकाक मरता, हो निरिक्षकांचो निश्कर्श अतितायेचो आसूं येत, पूण तो वाऱ्याची दिशा दाखयता.

भासांक दोन तरांनी मरण येवं येता. पयली म्हळ्यार ती भास उलयतल्यांचो आंकडो उणो जायत वचप आनी दुसरी म्हळ्यार ते भाशेंतलें वाचपी वाचक दुर्मिळ जायत रावप. हीं दोनूय लक्षणां कोंकणीक बादल्यांत अशें दिसता. जिणेची सांजवेळ हुपता आसतना ख्रंतीचें एक ल्हार मनभर पातळटा. पूण आतां क्रांती जावपाची अपेक्षा ना. नवे पिळगेंत पुरुषार्थ ना अशें म्हणप अन्यायाचें जातलें. तेपरस भवभूतिच्या उतरांचो आधार घेवन हांव म्हणन -

उत्पत्ततेहि मम कोऽपि समानधर्माः।
कालोर्ह्ययं निरवधिः विपुला च पृथ्विः॥

काळ अनंत आसा, धर्तरी विशाळ आसा.

खंय ना खंय तरी कोंकणी मातयेचो कुसवो उजयिल्लो सुपुत्र कळाव जावचे पयलीं जागो जावन कोंकणी साहित्याक संजीवनी दिवन नवें युग फुलयतलो, इतलो भरवंसो आजुनूय उमेद बावंक दिना.

दसरो, शक 1929
21 ऑक्टोबर, 2007

चंद्रकांत केणी

# मांडावळ

1. साहित्य ........ 01
2. लेखक आनी ताचें अणभवविश्व ........ 05
3. लळीत साहित्य ........ 10
4. साहित्याक मातयेचो वास ........ 32
5. कला आनी अश्लीलपण ........ 38
6. कोंकणी साहित्याचो फुडार ........ 49
7. आत्मकथात्मक कादंबरी ........ 53
8. मुक्तछंद ........ 57
9. कोंकणी कथा - कविता ........ 61
10. म्हज्या कथांचीं पात्रां ........ 67
11. कोंकणी कथेंतले नवे प्रवाह ........ 73
12. कथेची साधना ........ 79
13. परकाया प्रवेश ........ 82
14. शाश्वत कितें ? ........ 86
15. साहित्याची जीवसाण ........ 90

# 1

# साहित्य

जें जिणेसयत वता तें साहित्य अशी साहित्याची सुटसुटीत व्याख्या करूं येता.

मनीस जेन्ना चलता - उजवाडांत चलता - तेन्ना तागेली सांवळी जमनीचेर पडटा. ही सांवळी ताच्या सांगातान चलता. साहित्याचेंय तशेंच आसता. सांवळेवरी साहित्याचो विस्तार जाता. जे भाशेन मनीस आनी तागेली सांवळी वेगळावंक जायना, तेच भाशेन जीण आनी साहित्य वेगळावंक मेळचें ना. दनपारच्या वेळार सूर्य माथ्यार आसतना मनशाली सांवळी ताच्याच पांयापोंदा उरता. सांजवेळ जाता तशी ती विस्तारता आनी मनशाच्या आकारापरसय खूब व्हडली जाता. सांवळी ल्हान आसूं वा व्हड, ती सदांच मनशाचे हालचालीचें पडबिंब उरता. तेच तरेन साहित्य हें जिणेचे सांवळेवरी आसता; आसचें पडटा.

साहित्याचो हेतू कितें ? एक मनीस आपले जिणेंत जें पळयता, अणभवता वा ताका जें येवजता तें दुसऱ्यामेरेन पावोवप हो साहित्याचो हेतू. एकाद्रया मनशाली जीण कितलीय समृध्द आसली पूण ते समृध्दीचो लाव भोंवतणच्या हेर मनशांक मेळ्ळो ना जाल्यार ती जोड त्या मनशाच्या मर्णावांगडा सोंपतली. मनीस-मनाची जोड ही बिंयासारकी दुसऱ्याल्या मनाचे भुयेंत रोयली जाल्यार ती वाडूंक शकता. एकेका मनांत एकेक कणस फुटूं येता. एका बिंयांतल्यान सहस्र कणसां पिकोवपाचें काम करतलो जाल्यार बीं रोवंक जाय. तेच भाशेन एका मनशाले अणभव आनी विचारांचें विश्व दुसऱ्याच्या मनांत पावयतलो जाल्यार आमकां उतरांचो आदार घेवचो पडटा. हे गरजेंतल्यानच साहित्याचो जल्म जालो.

पशुयुगांतल्यान मनीसयुगांत वचपाचे यात्रेंत हात आनी भास ह्या दोन वस्तूंचो वावर मोलादीक जावन उरला. हातावरवीं आमी आमची भौतीक सृश्ट घडयली आनी भाशेवरवीं आमी संस्कृती घडोवन जिणेक नवी कळा दिली.

भास हो साहित्याचो प्राण. एकेक उतर वा उतरांचो समूह हो मनीस-मनाच्या पङ्ड्याचेर एक अर्थपूर्ण आकृत उबी करता. ती आकृत मनशामुखार एक भौतीक आनी मानसिक सृष्ट निर्मिता. मनीस संस्कृतीचे उत्क्रांतींत भास आदीं निर्मली. देवान मनशाक कान्न, दोळे, मन दिलें तशी भासय दिली. भास ही तोंडान उलोवपाची आनी कानांनी आयकुपाची. आयकल्लें गिन्यान विसरूंक फावना. तो बोध फुडले पिळगेमेरेन पावोवंक जाय. उपाय कितें ? हो उपाय सोदपाच्या प्रयत्नांत 'श्रुति आनी स्मृति' चें युग सुरू जालें. आयकप आनी उगडास दवरप. गुरुपरंपरा हातुंतल्यानच उपजली.

हो साहित्याचो आद्य प्रकार.

अक्षर हो साहित्याचो प्राण. अक्षर म्हळ्यार एक प्रतीक वा चिन्ह. अक्षराचो सोद लागचेआदीं भास घडिल्ली आनी साहित्यय तयार जातालें. श्रुति आनी स्मृतीच्या रूपांतलें हें साहित्य पाठांतराच्या आदारान एके पिळगेपसून दुसरे पिळगेमेरेन पावोवपाचें काम जातालें. वेदाविशीं अशें सांगतात कीं ते पाठांतराच्या रुपान साबार शेंकडे जिते उरले. लिपीचो सोद लागतकच ते बरोवन काडले. पाठांतराच्या माध्यमांत कांय दोश उरतात. एकाद्रें उतर आयकतना वा उच्चारतना चूक जावं येता तेचभाशेन एकाद्रें वाक्य एका तोंडांतल्यान दुसऱ्या कानामेरेन पावतासर शेणूं येता. अशे तरेन पाठभेद निर्माण जातालें. अक्षरान साहित्य बरोवंक लागत सावन हे पाठभेद सोंपले.

अक्षर म्हळ्यार लिपी. साहित्य हें व्हांवते न्हंयेसारकें आसता. तें पुर्विल्ल्या काळांतलें गिन्यान वर्तमानकाळाक पावयता आनी ताका वर्तमानकाळांतल्या गिन्यानाची जोड दिवन तें फुडारास्त्रातीर दवरपाची तजवीज करता. न्हंयचे भाशेनच साहित्य हें अखंड गतिमान आसता. साहित्यावरवीं मनशाक आपली आनी आपल्या संवसाराची, मनीसकुळयेची आनी तिचे उदरगतीची माहिती जशी मेळटा, तेचभाशेन तरेकवार रस निर्माण करून मनशाचें मनोरंजन करपाचें कामय साहित्य करता. आदल्या काळार अक्षराचो विकास जालो, पूण छापणावळीचें तंत्र खूब उसरां आयलें. मजगतच्या काळांत शिलालेख, तांब्यापट, ताडपत्रां आनी कागदावयलीं हातबरपां हांच्या आदारान साहित्य बरोवन दवरपाची कला मनशान केळयली. पूण असल्या साहित्याची एक

मर्यादा आसताली. असलें साहित्य विद्यापीठांच्या ग्रंथालयांनी बंदिस्त उरतालें. परिणाम असो जातालो, सामान्य मनशाक तें वाचूंक मेळनासलें.

त्या युगांत साहित्याचो प्रसार किर्तनकार आनी प्रवचनकार हांणी केलो. साहित्याच्या त्या मौलिक प्रसारान साहित्याचो हेतू तडीक गेलो आनी निरक्षरांमेरेन साहित्याचो संदेश पावलो तरी किर्तनकार वा प्रवचनकार सांगत तितलेंच साहित्य त्या वेळावयल्या मनशाक मेळूंक पावतालें. साहित्याचो आस्वाद घेवचेखातीर विशय निवडपाचें स्वातंत्र्य आस्वादकाक नासतालें. किर्तनकारान महाभारतांतलें आख्यान सांगलें आनी आयकतल्याक रामायण आयकूंक जाय आसलें जाल्यार ताका आपले मर्जेचें आख्यान आयकूंक मेळनासलें.

मुद्रणकलेचो सोद लागलो आनी साहित्याची राखण आनी प्रसाराक नवे आयाम मेळ्ळे. आपले मर्जेन आपणाक जाय तेन्ना जाय ज्या विशयावयलें पुस्तक वाचून लोक स्वाध्याय आनी मनोरंजन करूंक पावले. दुसरे वाटेन त्याच अदमासाक शिक्षणाचो प्रसार जाल्ल्यान समाजाक अक्षर वळख जावंक पावली. ह्या दोन गजालींक लागून मनीसजातीन मोठी प्रगती केली. जर साहित्य पुस्तकाच्या रुपान मेळूंक लागूंक नाशिल्लें जाल्यार खूबशें गिन्यान आनी विज्ञान, आनंदाचे खूबशे रस  समस्त मनीसजातीक आज मेळटात तशे मेळचे नासले.

'ज्या घरांत सगळीं सुखां आनी साधनां आसात पूण जंय पुस्तकां नासतात तें घर भौतीक नदरेन कितलेंय समृध्द आसलें तरी मनान दुर्बळ उरता.' अशें एका विचारवंतान म्हळां. ताच्या म्हणण्याचो अर्थ इतलोच कीं जो मनीस फकत भौतीक सुखां मेळोवचे खातीर वावुरता ताका निर्भेळ मानसीक आनंदाचें  सूख मेळूंक पावना. मनीस म्हळो म्हण्टकच ताका मन आनी बुद्द ही आसताच. मनश्याची बुद्द आनी मन हें कोणाच्यान बांदून दवरूं नज. तांकां बांदून दवरपाचो यत्न केलो जाल्या तीं विकृत जातात. देखूनच निरोगी मनशाचीं लक्षणां सांगता आसतना जाचें शरीर रोगमुक्त आनी मन जागृत आसता, बुद्द तरतरीत आनी विवेकशक्त जागी आसता, तोच मनीस खरेल्या अर्थान निरोगी आसता अशें म्हळां. भौतीक सुखां

आसलीं, पूण ती भोगूंक देहाची भलायकी नासली जाल्यार त्या सुखांक अर्थ उरना. एकेभाशेन चणे आसचे आनी दांत नासचे तशी ती अवस्था. पूण फकत भौतीक सुखां भोगलीं म्हणून मनीस जल्माचें सार्थक जायना. मनशाचे जिणेक अर्थ हाडटलो जाल्यार ताका ज्ञान, विज्ञान जशें जाय तेचभाशेन मनोरंजनय जाय. सारासार विवेकबुद्ध ताका आसूंक जाय. आपूण कोण ? आपलो इतिहास कितें ? आपल्यो लागणुको खंयच्यो ? हें समजून घेवन फकत आपलोच न्हय तर पुराय मनीसजातीचो फुडार ताणें घडोवचेलो आसता. ना जाल्यार रेब्यांत बसकण मारून सुखावतल्या रेड्यामदीं आनी शरीरसुखां भोगतल्या मनशामदीं अंतर उरचें ना.

मनशाक ज्ञान - विज्ञान दिवपी, ताची विवेकशक्त जागोवपी, ताची बुद्ध घांसून - पुसून चकचकीत दवरपी साधन म्हळ्यार पुस्तकच जावन आसा. एका काळार पुस्तक हें दुर्मीळ आसतालें. आज वाचनमंदिरां आनी पुस्तकांची दुकानां जळामळाक आशिल्ल्यान जाका पुस्तक वाचपाचें आसा ताका तें सोंपेपणान मेळूं येता. अशें आसतनाय जर मनीस वाचूंक आळस करता आसत जाल्यार ताका कर्मकट्टोच म्हणचें पडटलें.

कांय लोक पुस्तक ही सोबेची वस्त करून दवरूंक सोदतात. घरांतल्या आरमारींनी ते खेळणीं आनी बावल्यो दवरतात तशींच पुस्तकांय दवरतात. त्या पुस्तकांक कोणूच हात लायनात. फकत सोबेच्या वस्तींसारकीं तीं उरतात. एकेभाशेन असलो लोक साहित्य बंदिस्त दवरपाचो गुन्यांव करतात. पुस्तकाचो खरो आनी बरो उपेग म्हळ्यार तें वाचप. जितले चड लोक एक पुस्तक वाचतात तितलो पुस्तकाचो अदीक बरो उपेग जाता. गाढवाक गोडाची रूच खबर नासता म्हणटात. तशीं पुस्तकां बंदिस्त दवरप्यांक साहित्याची व्हडवीक खबर नासता. घरांत पुस्तक आसूनय जो वाचिना ताची गत गंगेंतल्या फातरासारकी आसता. लोक गंगेंत न्हावन पावन जातात, पूण त्या पात्रांतल्या फातरांच्या आंगावयल्यान रात - दीस गंगा व्हांवली तरी ते फातरच उरतात.



# 2

# लेखक आनी ताचें अणभवविश्व

कलाकार हो शिकोवन तयार करूंक येना ; तो जल्मानच कलाकार आसचो पडटा, अशें म्हणटात. हें म्हणणे सारकें न्हय. ज्या मनशाक कलाकार जावपाची प्रामाणिक इत्सा आसता, ताणे यत्न केले जाल्यार तोवूय एक बरो कलाकार जावं येता. आनी आंगांत प्रतिभा आसूनय अभ्यास वा यत्न नाशिल्ल्यान एकाद्रो कलाकार फुकट वचूं येता.

कलाकाराची तुलना हांव सदांच झाडाच्या बिंयाकडेन करतां. बीं बरें आसलें म्हणून झाड वयर सरना, फुलना, फळना. तें वयर काडचेखातीर वाटेवयल्या आडांगी भुरग्यांच्या आनी गोरवां जनावरांच्या तोंडांतल्यान ताका राखण दिवची लागता. कांय झाडां, चड करून सोबेचीं झाडां, आमी गॅलरींनी आनी टेर्रेसींचेर लायतात, ना अशें न्हय. थंय सभाविकपणापरसूय यत्न चड आसतात. कांय झाडांक आमी कलम ( गार्फ) करून सादें झाड लेगीत परमळीत फुलां आनी म्होंवाळ फळां दिवपी करतात. सैमाचे मांडयेचेर ह्यो साबार तरा आसतात. तश्योच कलेच्या मळारय आसतात. देखून बरो कलाकार जातलो जाल्यार ताका निखटी प्रतिभा आसून भागना, ताणें कलेची साधना करचेली गरज आसता.

प्रतिभा म्हळ्यार बीं. जमीन म्हळ्यार कलाकाराचें मन. तें जितलें संवेदनक्षम, जितलें अणभवसमृध्द, तितली बिंयाक मेळिल्ली भूंय सुपीक अशें म्हणूं येत. वातावरणाचें हें जमिनीकडलें तुटूं येना अशें नातें हाचें भान दवरचें पडटलें. कलेचें माध्यम हाचे मदीं कथानक, पात्रां, प्रसंग, रंग, ब्रश, कॅनवास, वाद्यां हेसारक्या गजालींचो आसपाव करूं येता - म्हळ्यार उदक-सारें आसता. झाड वयर काडूंक मनीस घेता ती जतनाय म्हळ्यार कलाकाराची साधना वा ताणें केल्लो सराव.

सर्जनशील (Creative) साहित्य निर्माण करतल्या साहित्यिकांचो विचार करता आसतना झाडाचे वाडीची प्रक्रिया मनांत धरूनच करूं येता. लेखक

जावपाची उमळशीक खूबशा तरनाट्या चल्यांक आनी चलयांक आसता. जायते जाण जल्माक येतना प्रतिभेचो आशीर्वाद घेवन येतात. तांणी आपणालें अणभवविश्व समृध्द कशें करप ? आमचे भोंवतणी सदांच कितेंय तरी घडत आसता. त्या सचेतन गजालींचें एक पडबिंब त्यो पळेतल्या, आयकतल्या वा अणभवतल्या मनशाच्या मनाचेर पडटा. केन्ना केन्नाय असल्या पडबिंबांची एक माळच तागेल्या मनाचेर कोरांतिल्ली उरता. मनाचे फास्कें विचारांचीं तीं पडबिंबां घुसळत रावतात आनी तातुंतल्यान लोणयावरी सोबीत साहित्य तयार जाता. ही कृती म्हळ्यार एकाद्रे घटनेचें हारशांतलें प्रतिरूप आसता. मूळ दूद लेखकाच्या मनाच्या अवस्थांच्या विरजणांतल्यान, विचारांच्या धगांतल्यान आनी नव्या घटनांच्या मंथनांतल्यान एक नवें रूप धारण करता आनी ताचो आकार, वास, रंगय बदलता.

सैमांत घडटली एकाद्री घटना पळोवया. वर्सान वर्स पावस पडटा. कोण मातयेच्या वासान सुखावता जाल्यार कोणाक तानेल्ली धर्तरी उदकाचे वेंगेंत तृप्त जाल्ली पळोवपाचो आनंद लुटूंक मेळटा. सुकिल्ले व्हाळ भरून व्हांवतात तें पळोवनूय जायत्या जाणांच्या मनांत उमेदीचीं ल्हारां उसळूंक लागतात. ल्हान भुरग्यांक कागदाचीं व्हडीं करून तीं उदकांत सोडपाचो खेळ येवजता. शेतकामत्यांचे नदरेन जाल्यार पावस हो समृध्दीचो शिंवर आसता. पूण पावस म्हळ्यार एक कटकट दिसपीय लोक आसतात.

आतां तुमी पळयात, पावस पडपाचो पडटा. सगळ्यांकूच तो भिजयता. पूण कांय जाणांचीं आंगां भिजलीं तरी मनां सुकीं सडसडीत उरतात, जाल्यार कांय जाणांचीं मनां भिजतकूच तांकां कातकुतल्यो जातात. हेर तातूंत बुचकळ्यो मारतात. विणेची तार वाजयतकूच ध्वनि-तरंग भायर सरतात. आनी हे तरंग आमच्या कानांत पावतकूच आमकां संगीत आयकूंक येता. तें संगीत आयकतल्या जण एकल्याच्या काळजांत संगिताचे तरंग उदेनात. थोड्यांच्याच काळजांत उदेतात. पूण तातुंतल्या सगळ्यांकूच ते उतरांनी उक्तावपाक जमना. मळबांत पावशी कुपां कालिदासाआदींय उफेतालीं आनी ते उप्रांतूय उफेतात. पूण एकाद्रो कालिदासच 'मेघदूत' रचूंक पावता. तेच भाशेन जेन्ना एकाद्रे घटनेचे तरंग लेखकाच्या मनांत उदेतात, तेन्ना

मनांतल्या संथ उदकाचेर गुंडो पडटा आनी नवे तरंग थंय येवंक लागतात. पोरणे-नवे तरंग मनाचे फास्केंत घुसळून एक आकार घेतात. लेखकाचें व्यक्तिमत्व, तत्त्वगिन्यान, ताचे विचार, ताचे भोंवतणचें वातावरण हांचो परिणाम जावन त्या आकाराक रंग, गंध, उंचाय, खोलाय मेळटा. म्हणटकूच मुळांत प्रतिभा आशिल्लया मनशाच्या व्यक्तिमत्वाचो विकास करप, ताच्या विचारांची घडण करप ही ताची साहित्य साधना.

नव्या लेखकांनी आपली साहित्य साधना कशी चलोवची ? अणभवविश्व कशें समृध्द करचें ? विचारांक खोलाय आनी आकार दिवपाचो सराव कसो करचो ? हे विशीं, खरें म्हळ्यार, सांगपाचें धाडस कोणें करचें न्हय. तरी विशयाक न्याय दिवपाखातीर fools rush in where angels fear to tread हें जाणा जावनूय हांव तें करतां.

अणभव विश्व समृध्द करूंक सोदतल्या लेखकान आपले कान, मन आनी दोळे सदांच उकते दवरूंक जाय. गोरवां चरूंक जेन्ना रानांत वतात, तेन्ना मेळत तें तण आनी पालो बुड्डून खातात. सगळो चरोव तीं पोटांत घेतात आनी गोठ्यांत येतकूच त्या चरवाचो रवंथ करीत बसतात. लेखकानूय जें पळयलें, आयकलें वा अणभवलें तें आपल्या उगडासाचे कोठयेंत भरून दवरचें आनी वेळ मेळटा तेन्ना तांचो रवंथ करचो... असल्या रवंथांतल्यान एके तरेचें मंथन जाता... एक वा अदीक घटना, अणभव आनी देखाव हांच्या संयोगांतल्या कलाकृतीचें एक बीं आकार घेता. तें कशें किल्लोवचें हें जांकां आपसूक कळना, तांणी दोळ्यांवांगडा मन उकतें दवरून वाचन करचें. वाचतना आमी दुसऱ्या लेखकाच्या मनांत पावतात, थंयचें मंथन पळोवंक पावतात.

एकाद्र्या कारखान्यांत एके वटच्यान कच्चो माल कसो घालतात, मदीं ताचेर कसली प्रक्रिया जाता आनी निमाणेकडेन कसली वस्त तयार जाता हें पळोवपासारकें आसता. तोच आनंद पुस्तकां वाचतना वाचप्याक मेळटा. वाचतां, वाचतां आपूण खंय उणो पडटां हाची वाचकाक जाणीव जाता आनी खूबशें वाचतकूच तें उणें भरून येवंक लागता. पावसाचें उदक व्हांवतना वाटेर फोणकूल आयलें जाल्यार त्या फोणकुलांत रावता, फुडें व्हांवना...

उदकावांगडा येवपी गाळ इल्लो इल्लो त्या फोणकुलांत भरता आनी जेन्ना फोणकूल पुरवता, तेन्ना मूळ उदक व्हांवंक लागता. एक संवेदनशील लेखक जेन्ना प्रतिभावंताचें साहित्य वाचता, तेन्ना ताचे प्रतिभेची मंदाकिनी वाचप्याच्या मनांतलीं फोणकुलां भरून रावता आनी त्या झोतासरशीं येतलो गाळ फोणकुलांत सोडून आपल्या प्रवाहाचो झोत फुडें चलयता. मजगतच्या काळांत वाचप्याच्या मनांतलीं उणींदुणीं पयसावतात.

खूबशे फावटीं लेखकाक आपल्यो भावना उक्तावपाखातीर जुस्ताजूस्त उतरां येवजनात. तो बरयता आसतनाय सारकें निवळ चित्र उबें जायना. ताच्या मनांत आशिल्ली आकृती कागदाचेर जशाची तशी उतरना. तशें पळोवंक गेल्यार ताची उतरावळ दुबळी नासता. पूण मुदयेचेर थीक बसोवपाची कला ताका जमना. असल्या लेखकांनी आपणाक आवडिल्ल्या हेर भासांतल्या साहित्याचो आपले भाशेंत अणकार करचो. अणकार करप हें सोपें काम न्हय. पूण अणकार बरो-वायट कसोय जालो जाल्यारय एकाद्रो प्रसंग मूळ लेखकान कसलें कसब वापरून उबो केलो, कसली भावना उक्तावपाखातीर खंयचें उतर, कसली ओपार वापरली हें होलमता आनी मागीर आपले कोठयेंतलीं उतरां टांकसाळींतल्यान सुर्ती रुपया भायर सरचे, तशीं खणखणत तोंडार येवंक लागतात.

रूपांतर हें साहित्य साधनेंत अणकाराच्या फुडलें पावल. मूळ लेखकान एकाद्रो विचार वा एकाद्री भावना चित्रावपाखातीर जें वातावरण उबें केलें तें त्या लेखकाचे संवकळीचें वातावरण आसता. आतां तोच विचार वा भावना आपले भोंवतणच्या वातावरणांत हाडपाची कला म्हळ्यार रूपकार. आंब्याच्या एकाद्र्या झाडाक आमी जे तरेन मानकुरादाचें गार्फ (कलम) करून बरे आंबे पिकयतात, तेच भाशेन आमच्या वातावरणांत आमी बरें गार्फ उशणें हाडून तें रुजयतात. ह्या प्रकाराक लागून मूळ निरस आंब्याचो कायाकल्प जाता. जमीन मुळची, वाठार तोच ; पूण पोरनो आंबो बरीं फळां दिता. तशें लेखकाचे बाबतींतय घडूं येता. पूण अशे रूपकार करतना आपले भोंवतणचें वातावरण, समाज व्यवस्था, थंयचे गूण - दोश हांची बारीकसाण लेखकाक आसची पडटली. युरोपांतली एकाद्री परंपरा सांबाळपी जाणटेली

भारतांत घरकान्न कशी हाडटलो जाल्यार तिच्या केंसांपसून पांयांमेरेन, भास, भेस, रीतरिवाज सगळे बाबतींत तिचो कायाकल्प करचो पडटलो. भोंवतणच्या वातावरणांत ती विसंगत दिसची ना हाची जतनाय घेवची पडटली. ना जाल्यार णव वारी कापड न्हेशिल्ली बायल बॉब कट करून आनी हात उकते दवरून बॉल डान्स करूंक लागली जाल्यार जें कितें दिसतलें, तशी त्या रूपकाराची आवतिकाय जावं येता.

दुसरो बरयता ताचें अनुकरण करून बरोवपी लेख्रक जायते आसतात. अभ्यास म्हूण अनुकरण वायट न्हय. संगीताचो एकाद्रो पोरणो राग गुरू सांगतात, तेचभशेन आळयतना अचकीत गावप्याक एक नवो राग निर्मुपाची तांक गावता. तशी अनुकरणांतल्यान आपणाली शैली निर्मुपाची नदर लेख्रकान दवरची पडटली. ना जाल्यार अनुकरणांतल्यान प्रतिभेक मरण येवं येता हें विसरूंक फावना.



# 3

# लळीत साहित्य

साहित्य ह्या उतराची व्याख्या विचारवंतांनी वेगळे वेगळे तरेन केल्ली आसा. 'वाङ्मय' ह्या उतराचो अर्थ खूबच विस्तारिल्लो उरता. जें जिणेच्या सांगातान वता तें साहित्य अशी एक सुटसुटीत व्याख्या घोळणुकेंत आसा आनी तीच साहित्याक बरे तरेन लागू पडटा. सूर्यापसून ताची प्रभा जशी वेगळावंक नज, तेचभाशेन जीण आनी साहित्य हीं एकामेकांकडेन जोडिल्लीं उरतात.

जनावराचे योनींतल्यान मनीस जातीची उत्क्रांती घडसर प्रकृतीच काम करताली आनी जनावरांक जी सभावीक आसता ती विकृतीय यथेच्छ आसली. मनीस घडलो आनी ल्हवुं आपले हात आनी आपले भाशेवरवीं ताणे संस्कृती केळोवंक आरंभ केलो. अशे तरेन मनशाक मनीसपण दिवपी दोन गजाली म्हळ्यार हात आनी भास. जेन्ना मनीस घडलो आनी ताच्या हड्ड्यांत काळीज धडधडूंक लागलें, ताची कूड चलूंक लागली आनी ताच्या साबार इंद्रियांक संवेदना वळखूंक येवंक लागल्यो, तेन्ना मनशाक साक्षात्कार जालो की देवान ताका आनीक एक मोलाची देणगी दिल्या ; ती म्हळ्यार हांसपाची कला. हांसून जीण जगतना संस्कृती फुलोवपाच्या वावरांत मनशान ज्या साबार साधनांचो आदार घेतलो, तातुंतलें 'साहित्य' हें एक मुखेल साधन.

साहित्य म्हळ्यार जिणेचें पडबिंब. जिणेचीं सुखां आनी दुख्खां, उमेदी आनी निर्शेण्यो, मोग आनी मत्सर, ओड आनी तिरस्कार, भंय आनी धिटाय हांचें एक खतखतें. हें सगलें मनशान काळजांत अणभवलें, बुद्दीच्या कसाचेर तिजलें आनी आपल्या उतरांनी उक्तायलें. साहित्याचो आनी भाशेचो संबंद हो त्या उतरांकडलो. उतरांच्या उच्चारांत एकाद्रे वस्तूचें आनी परिस्थितीचें चित्र आयकतल्यामुखार उबें करपाचें बळ जेन्ना मनशाक आयलें तेन्ना साहित्य हें तोंडान सांगपाचें आनी कानांनी आयकुपाचें एक कवन जावन वसलें. लोकसाहित्याचो जल्म असल्या कवनांतल्यान घडलो. लोककथा आनी

लोकगितां आयकून याद धरून सांगपाची कला मनशान केळयली आनी तें दायज चलयलें. पूण ' श्रुती आनी स्मृती' म्हळ्यार आयकून याद दवरिल्लें साहित्य, काळाच्या काळख्रांत सदांच तगून उरना. ताचो विसर पडटा. हें मनशान अणभवलें. देख्रून ताणें उतरांची प्रतिकां सोदून काडलीं. तांकांच लिपी म्हणटात. लिपीचो विकास जातकच एक एक अक्षर जोडून एक एक भावविश्व आमी उबें करूंक पावले. अशें विश्व, जें विसरायेच्या काळखांत पुसून वचना, जें अ-क्षर उरता, ताका अक्षर साहित्य अशें म्हणूंक लागले. अक्षर साहित्य म्हळ्यार बरोवन दवरिल्लें साहित्य.

कालांतरान जाका इंग्लीश भाशेंत 'क्लासिकल लिटरेचर' म्हणटात ताका 'अक्षर साहित्य' म्हणपाची प्रथा रूढ जाली. अक्षर साहित्य म्हळ्यार सदांकाळ उरता असलें साहित्य. आज चकचकलें, फाल्यां पालवलें असलें साहित्य अक्षर साहित्यांत मोडना. अक्षर साहित्य संवसारीक जावन बसता. कालिदास आनी भवभूती, व्यास आनी वाल्मिकी, मिल्टन आनी शेक्सपियर असले तरेचें अक्षर साहित्य घडोवपी लेख्रक म्हणूं येतात.

साहित्य वा वाङ्मय म्हळ्यार लेख्रनाचो कसलो प्रकार हें आदीं आमी समजून घेवया. आमी जेन्ना साहित्याविशीं विचार करतात, तेन्ना आमच्या मनांत साहित्याचे दोन मुख्रेल प्रकार उबे रावतात. पयल्या प्रकारांत कथा, कादंबरी, कविता, नाटक, लळीत लेख्र हे सारकिलें साहित्य मोडटा. जाल्यार दुसऱ्या प्रकारांत विज्ञान, तत्त्वगिन्यान, इतिहास, भूगोल, पदार्थविज्ञान ह्या विशयावयल्या साहित्याचो आसपाव जाता. ह्या दोन प्रकारांमदीं जें वेगळेपण आसा तें दाख्रोवचे ख्रातीर आमी पयल्या प्रकाराक म्हळ्यार कथा, कविता, नाटक आनी ते धाटणीचें हेर बरप हें 'लळीत साहित्य' म्हणून वळख्रतात.

लळीत साहित्याची सुटसुटीत व्याख्र्या सांगतलो जाल्यार आमच्यांनी अशें म्हणूं येता की कल्पनेन रचिल्लें सृजनात्मक साहित्य म्हळ्यार लळीत साहित्य. हेर साहित्याचे प्रकृतीपरस लळीत साहित्याची प्रकृती वेगळी आसता.

एकाद्री कविता वा कथा आनी पदार्थ विज्ञानाचो एकाद्रो सिध्दांत हांचें वेगळेपण अशें की कथा, कविता वा नाटक वाचतना आमकां तातूंत

साहित्यिकाच्या मनाची प्रतिमा उदेल्ली पळोवंक मेळटा. पदार्थ विज्ञानाच्या सिध्दांतांत लेखकाची प्रतिमा नासता. तें व्यक्ती निरपेक्ष, वस्तुनिश्ठ अशें बरप आसता. तें इतलें वस्तुनिश्ठ आसता की केन्ना केन्नाय उतरांचो जागो चिन्नां वा प्रतिकां घेवंक लागतात.

भुगोलाचें एकाद्रें पुस्तक आमी वाचूंक घेतलें जाल्यार आमकां ताचो लेखक कोण हाचें भान दवरपाची गरज उरना. कित्याक तर तातुंतलें बरप वस्तुनिश्ठ आसता. म्हणटकच आमच्यांनी अशें म्हणूं येता की जे तरेचें साहित्य व्यक्तीनिश्ठ आसता ताची गणती लळीत साहित्यांत करूं येता.

कथा, कविता, नाटक हे लळीत साहित्याचे कांय मुखेल प्रकार. ह्या प्रकारांचो स्वतंत्र विचार जावंक जाय. आज हे प्रकार सोडून हेर प्रकारच्या लळीत साहित्याचो विचार करपाची मर्यादा हांव म्हाका घालून घेतां. अशें आसलें तरी लळीत साहित्याच्या प्रकाराच्यो शिमो इतल्यो अस्पश्ट आसतात कीं खबश्या फावटीं एके तरेचो साहित्य प्रकार खंय सोंपता आनी दुसरे तरेचो प्रकार खंय सुरू जाता हें कळना. अशा वेळार घालून घेतिल्ले मर्यादेचो भंग जावं येता.

## लळीत साहित्य म्हळ्यार कितें ?

लळीत साहित्य म्हळ्यार कितें ? ताची प्रकृती कसली ? ताचो हेतू कितें? ताचें रूप, ताचो रंग आनी भास कशी आसता आनी लेखकाच्या व्यक्तिमत्वाचो त्या साहित्य प्रकाराचेर कितलो परिणाम जाल्लो आसता हे विशींचे कांय कस थारायले उपरांतच आमी लळीत साहित्याच्या प्रकारांचो विचार करूंया.

लळीत साहित्य म्हळ्यार लेखकान वा कवीन आपले कल्पनेन निर्मिल्लें एक सुसंगत अशें अणभव-विश्व. आमच्या भोंवतणच्या विश्वांतलो सगलो तपशील त्या काल्पनिक विश्वाकडेन सुसंगत असो आसता. त्या अर्थान लेखकान उतरांच्या आदारान आपले अणभव - सृश्टीची केल्ली अर्थपूर्ण निर्मणी म्हळ्यारच लळीत सहित्य. तेंच लळीत साहित्याचें पयलें लक्षण.

वाचक जेन्ना लळीत साहित्य वाचता, तेन्ना लेखकान निर्मिल्ल्या अणभवाच्या विश्वांत वचपाची ताच्या मनाची तयारी आसता. हें विश्व केन्ना केन्नाय आमच्या भोंवतणच्या विश्वासारकें आसता वा केन्नाय सपन दिसचें तशें आसता. तें विश्व कशेंय आसलें तरी लेखकाले प्रतिभेन निर्माण केल्ली ती एक काल्पनिक सृश्ट आसता. ती खरी न्हय हें जाणा जावनय आमी ते सृश्टींत वतात. देखीक, 'एॅलीस इन वंडरलँड' वा 'एनीमल फार्म' ना जाल्यार 'पंचतंत्र' वा 'इसापनीत' हांचेमदलें खंयचेंय पुस्तक घेयात. तें वाचतना आमी रंगून वतात. लेखकान निर्मिल्ले कल्पना सृश्टींत वता आसतना आमी आमचे दुबाव गुठलावन दवरतात. सृश्ट कल्पनेंतली आसली तरी तातूंत एक सुसंगत आसता. ती सुसंगत आमच्या मनाक सुखयता.

लळीत लेखकान निर्मिल्ली अणभव सृश्ट ही आमचे जिणेपरस वेगळी नासता. मनीसजिणेकडेन तिचो संबंद पावता. पूण जिणेचें तें पडबिंब न्हय. जिणेच्या शाश्वत सत्यांचेर त्या कल्पना विश्वाची रचणूक आदारिल्ली आसता. हीं शाश्वत सत्यां मनशाच्या उमाळ्याविशींचीं, सभावाविशींची, जिज्ञासेविशींचीं आसतात. देखूनच जेन्ना आमी 'इसापनीत' वाचतात तेन्ना त्या पुस्तकांतली सृश्ट अडेची आसली तरी ज्या सत्यांचेर ती सृश्ट उबी आसा तीं सत्यां आमकां भाळयतात. जनावरां एकामेकांकडेन उलयनात; पूण तीं जनावरां म्हळ्यार मनीस सभावाचीं प्रतिकां आसतात हें वाचकाक वेगळें सांगचें पडना.

लळीत साहित्याचें आनीक एक वेगळेपण म्हळ्यार ताच्या उतरांनी एक नाद आसता, ताल आसता आनी अर्थ आसता. एका एका उतराचो आनी वाक्याचो वेगळो वेगळो अर्थ वाचपी घेता. ताचे सोबेची नवी छटा वेगळ्या वेगळ्या वेळार वा मन:स्थितींत वाचपी अणभवता. ''सात आनी दोन णव'' हो गणिताचो सिध्दांत. खंयच्याय उतरांनी मांडलो तरी तातुंतल्यान एकूच अर्थ येता. असले तरेचें साहित्य हें ज्ञानांत भर घालपाचें आसता. तातूंत लेखकाच्या व्यक्तिमत्वाचो रंग नासता. पूण लळीत साहित्य हें अवीट गोडयेचें, दिसपट्टो वेगळो आनंद दिवपी अशें उरता.

लळीत लेखक ज्या काल्पनिक संवसाराचें दर्शन आमकां घडयता, तें दर्शन सूचक आसता. तातुंतलो खूबसो तपशील वाचपी आपले कल्पनेंतल्यान भरून काडटात. ताका लागून एकाद्रें लळीत बरप वाचता आसतना वेगळ्या वाचकांच्या मनामुखार वेगळ्यो वेगळ्यो प्रतिमा उब्यो रावतात. एके तरेन लेखकान उतरांनी जें सुचयलां तें वाचक आपले कल्पनेन पर्थून निर्मिता आनी अणभवता, देखूनच लळीत लेखकामदीं जशी सर्जनशक्त आसची पडटा तशी वाचप्यामदीं लेगीत सर्जक कल्पनाशक्त आसची पडटा. दर एके लळीत साहित्यकृतीचो वाचप्याच्या मनाचेर जो परिणाम जाता, त्या परिणामाचो एक आकार आसता आनी हो आकार सुसंगत आनी सौंदर्य हांचो सुमेळ सादपी आसल्यारच तो मनाक भाळयता.

सौंदर्य हो लळीत साहित्याचो एक धर्म म्हणूं येता. पूण हें सौंदर्य त्या बरपाचो आशय आनी अभिव्यक्ती हांच्या एकरूपपणांतल्यान येता. एके तरेन लळीत साहित्य हो कारागिरीचोच एक प्रकार. लेखकाक एक अणभव आयिल्लो आसता. त्या अणभवाक तो उतरांच्या आदारान रूप दिता.

## लळीत साहित्याचो हेतू

लळीत साहित्याचो हेतू कितें आसता ? समजा, एक पोरसूं वा बाग आसा. थंय वतल्या सगल्या मनांची नदर एकासारकी नासता. कोण झाडां तोखेता, कोण फुलां तोखेता, कोणाक फुलांचो रंग आवडटा, जाल्यार कोणाक तांचो गंध. पूण सगल्यांकच फुलां वा फुलझाडां पळोवन खोशी जाताच अशें न्हय.

'हीं सोत्रेचीं झाडां ! हांचो फायदो कितें ? ताचेपरस म्हशींग तरी बरो.' अशें म्हणपी दुसरो एकाद्रो मनीस आसूं येता.

आतां ह्या दोन तरांच्या मनशांल्यो नदरो वेगळ्यो. एकल्याक फुलां पळोवन खोशी भोगता आनी तो फुलांक तोखेता आनी दुसरो सोबेपरस गरज भागोवपी म्हसंगाक म्हत्त्व दिता. दुसरी एक ओपार घेवया. एक चली नाच करता. संगिताच्या तालाचेर आनी गिताच्या बोलांचेर ती आपले हातपांय नाचयता आनी तोंडावयले हावभाव बदलता. प्रेक्षकांमदीं ते नाचपी चलयेक

वेगवेगळे नदरेन पळोवपी आसतात. चडशे तिगेली कला तोखेतात. पूण एकलो म्हणटा, 'ते चलयेक व्यायाम बरो घडटा; आनी व्यायाम करपाखातीर दर एके चलयेन असोच नाच करूंक जाय.' आतां व्यायाम घडप हो नाचाचो जर उद्देश आसत जाल्यार नाच करचेपरस श्रमदान केल्लें बरें. तशें केल्यार खोशी निर्मुपाची. ताका लागून व्यायाम घडटा आसत; पूण तो घडूंक नाशिल्लो जाल्यारूय नाचाचें म्हत्त्व उणें जावपाचें न्हय.

लळीत साहित्याचें अशेंच आसता. लळीत साहित्य प्रस्न सोडयना, बोध दिना, निखटो आनंद दिता.

जिणेंत दोन तरांचे रस आसतात. एक सुखदिणो, जाका आमी ''कॉमेडी'' म्हणटात. दुसरो दुखदिणो, जाका आमी ''ट्रेजेडी'' म्हणटात कॉमेडी इतलेंच आनंद निर्मुपाचें काम ट्रेजेडीय करता. अशें म्हळ्यार ती विसंगती दिसतली. ट्रेजेडी वाचून आमच्या काळजाक पीळ पडटा, दोळ्यांत दुकां येतात; पूण ते अवस्थेंतय एक आनंद आसता. आनंद नासतो जाल्यार साहित्यांत ट्रेजेडी उरपाची न्हय. लोक आवडीन ट्रेजेडी वाचतात, रडून घेवचेखातीर. हे दोन रस निर्मुवप इतलेंच लळीत साहित्याचें काम.

पूण तेखातीर लळीत साहित्य हें जिणेचें पडबिंब आसूंकच जाय. आमचें मन हें शब्दकोशावरी. तातूंत जिणेंतले बरे वायट अणभव आनी विचार, हावेस आनी विकृती, भंय भरिल्ले आसतात. शब्दकोशांत हजारांनी उतरां आसतात तशे. पूण शब्दकोश म्हळ्यार साहित्य न्हय. तातुंतलीं धा उतरां वेगळीं काडून एकाद्रो कवी एक नवो संवसार आमचे नदरेमुखार उबो करता.

दुसरी एक ओपार घेवंया. मनशाचें मन म्हळ्यार एक वाद्य. गितार म्हणुंया. पूण कलाकाराचो हात जेन्ना ताका लागता, तेन्नाच तातुंतल्यान संगीत भायर सरता. नाजाल्यार तें वाद्य पडून उरता. संगीत गितारांत आसता, जसो फातरांत देव. कलाकाराचो हात तांचें रूप उकतायता. तशें आमचे जिणेंत साहित्य आसता. खोशयेच्या आनी दुखाच्या खिणांनी भरिल्लें साहित्य. एकाद्रो कवी, कथाकार, निबंदकार वा नाटककार त्या साहित्याक आकार दिता.

जेन्ना साहित्य हें जिणेपसून वेगळावता, तेन्ना वाचप्याक तातूंत आपल्या काळजाचें पडबिंब दिसना आनी तो एक कल्पनेचो खेळ जावन बसता. साहित्यांत कल्पना आसता, पूण ती सत्याचें एक रूप जावन येता. मात तें निखटें सत्य नासता. निखटें सत्य म्हळ्यार साहित्य न्हय. लळीत साहित्य म्हळ्यार दिसपट्टे जिणेंतले एकाद्रे विसंगतीचें, तंत्राचे फास्केंत बसयिल्लें एक चित्र.

कादंबरी, कथा, नाटक आनी लोककथा हे सगले कथेचेच प्रकार. कथेंत आमी एक बीं घेवन ताची सुसंगती आनी विसंगती विणून आमची अनुभूती उकतायतात. कादंबरींत तीच कथा व्हडले फास्केंत बसयतात. नाटकांत आमी कथेंतलीं पात्रां आनी वातावरण माचयेर हाडून उबें करतात. लळीत साहित्यांत सगल्यांपरस चड पुर्विल्लो प्रकार म्हळ्यार नाटक आनी कवीत. ज्या काळांत लिपी तयार जावंक नासली, भास अक्षरांनी बरोवन दवरपाची वेवस्था नासली, तेन्ना श्रुती आनी स्मृती हेंच साहित्य प्रसाराचें माध्यम आसलें. उगडासांत उरचेखातीर कवन सोपें वतालें आनी तेखातीर लोकगितां जल्मलीं. लोकांगितांनी समाजांतलीं पात्रां आसतालीं वा तांचीं प्रतिकां आसतालीं. पूण जिणेचे बरे - वायट अणभव एका तालांत गुंथून मनीस दुसऱ्या मनशाक तें कळीत करतालो. आयकतल्याक तशेंच आपणेंय अणभविल्लें म्हणपाचें जाणवतालें.

एकल्यान म्हॉव खालें आनी ताणें सांगलें, ''म्हॉव गोड.'' आयकतल्यान विचारलें, ''गोडा सारकें गोड ?'' ताणें सांगलें, ''न्हय; पूण गोड.'' दुसऱ्यान विचारलें, ''आंव्यासारकें गोड ?'' ताणें सांगलें, ''न्हय; पूण गोड.''

जाणें म्हॉव चाखिल्लें ताका म्हॉवाची गोडसाण कळ्ळी. लेखक आनी वाचक हांचेमदीं अशेंच नातें आसता.

कवन हें तालार, सुरार, गण, मात्रा, यमकांचो सुमेळ सादून रचचें लागता. सगळ्यांकच ती कला जमना. ताका संगिताचे कान आनी तालाचें भान आसचें लागता. ही जाण नाशिल्ल्या मनशाकय भावना उरता आनी ती उक्तावपाची तांक ताचे वार्णींत आसता. तो पात्रांची रचणूक करून, ओपारी

दिवन आनी प्रसंग कल्पून आपले अणभव सांगता. सांगप म्हळ्यार कथन करप... आनी जें कथन करपासारकें ती कथा. कथा ही संथ वझऱ्यावरी व्हांवता. पूण अचकीत एक अशें वळण घेता की, ती मनाक भाळयता. ती खिणयाळी आसता. ती खंयच्यान आयली आनी निमाणे खंय गेली, फुडें तिचें कितें जालें हें कथा सांगूंक बसना. मळबांत तुटिल्ल्या नखेत्रावरी ती खीणभर चकचकता आनी वाचप्याक खोस दिता. तो एकच खीण असो, जो सगली जीण धवळून उडयता. संथ वझरो दोंगराच्या कड्यावयल्यान सकल उडी घेवन घसघसो जाता, तशें कथेचें घडटा. पूण कादंबरीचें तंत्र वेगळें. साबार खिणांची जंत्री म्हळ्यार कादंबरी न्हय. कादंबरी म्हळ्यार एक पुराय विश्व आस्पावन घेवपी फास्की. तातुंतल्या खिणा - खिणाचो, पात्रा - पात्रांचो एकामेकाकडेन कार्य - कारण संबंद आसता. एकाद्र्या वाद्यवृंदावरी. जण एका वाद्याचो सूर वेगळो ; पूण सगल्याच सुरांचो एक सुमेळ कादंबरींत आमकां पळोवंक मेळटा. नाटक म्हळ्यार भाशेक अभिनयाची जोड दिवन वाचूंक बरोवंक येनाशिल्ल्या लोकांमुखार लेगीत कथा उबी करपाचें माध्यम.

लळीत साहित्याच्या प्रकारांमदीं वाचप्यांक चड मानवता असो आनीक एक प्रकार म्हळ्यार लळीत लेख वा लळीत निबंध. ह्या लळीत लेखांत आमच्यांनी प्रवास वर्णन, व्यक्तीचित्र हे सारकिले साहित्य प्रकार आस्पावं येतात. प्रवास वर्णन बरयतना भोंवतणच्या वाठाराचें जें पडबिंब लेखकाच्या मनाचेर उदेता, ताचें तो उतरांनी वर्णन करता हें खरें, पूण तें पडबिंब एकोडें उरना. जाका कॅलेडोस्कोप म्हणटात तसो कॅलेडोस्कोप लेखकाच्या मनांत तयार जाता आनी विचार इल्लो हालतकच पडबिंबाची आकृती बदलता. दुसऱ्या उतरांनी सांगतलो जाल्यार जेन्ना लेखक एकाद्रें थळ, झाड वा एकाद्रो मनीस पळयता, तेन्ना ताचें रूप, ताचो रंग, गंध तो पळोवन घेताच, ते भायर ताच्या व्यक्तिमत्वाचीं, लेखकाचे पूर्वजिणेचीं, ताच्या अणभवाचीं, ताच्या कल्पनांचीं आनी येवजण्यांचीं पडबिंबां त्या पडबिंबाकडेन एकरूप जावन लेखक एक चित्र उबें करता. हें बरप लळीत लेख वा लळीत निबंध ह्या नांवानच आमकां वळखुचें पडटलें.

## निबंध आनी लघुनिबंध

भारतीय साहित्यांत लळीत निबंध हो साहित्य प्रकार त्या मानान आर्विल्लो. पुर्विल्ल्या काळांत जे निबंध भारतीय भासांनी उजवाडाक आयले, ते एकाद्र्या विशयाचेर लेखकाचे विचार उक्तावपी आसताले. जशें, वरदक्षणा ही अनिश्ट, बायलांक शिक्षण मेळूंकच जाय, हे सारकिले विशय लेखक घेताले. आमच्यांनी अशें म्हणूं येता की ते एके तरेचे गंभीर लेखच आसताले. ल्हवू, ल्हवू ह्या गंभीर लेखांची जात वेगळी जायत रावली आनी कथेच्या कुळांतले लळीत निबंध वा लळीत लेख बरोवंक लागले.

लळीत लेखाचे लांबायेक मर्यादा ना. जे भाशेन 'शॉर्ट स्टोरी' (लघुकथा) म्हळ्यार आकारान धाकली कथा न्हय, तेच भाशेन लघुनिबंध म्हळ्यार थोड्या उतरांनी बरयिल्लो निबंध न्हय.

लळीत लेखाची प्रेरणा भारतीय साहित्याक इंग्लीश साहित्याच्या संपर्कान मेळळी अशें कांय लोक मानतात. तशें पळोवंक गेल्यार पुराय भारतीय लळीत साहित्याचेर युरोप, अमेरिकन साहित्याचो प्रभाव खूब आसा. आज जाका आमी लळीत निबंध म्हणटात, ताचेर आकाराचें बंधन नासलें तरी पुर्विल्ल्या निबंधापरस ताचें कुळ वेगळें, ताचो हेतू वेगळो आनी ताका लागून ताचें रूप वेगळें ; ताचो भेस वेगळो.

जाका आमी पोरनो निबंध वा वैचारिक लेख म्हण्टात ताचो हेतू स्पश्ट आसतालो. एकाद्रें मत मांडूंक वा खोडून काडूंक लेखक हातांत पेन उखलतालो. तातूंत लेखकाची विद्‌वत्ता, आपल्या मतांचो आग्रो, विरोधी मतांविशींचो दुस्वास उतरा कणकणीं पळोवंक मेळटालो. एका मताचो प्रचार करप हो त्या निबंधाचो हेतू आसतालो. निबंध वाचता आसतना वाचक एकाद्र्या विशयावयलें एक मत समजून घेवपाखातीर तो वाचतालो. त्या मताचो आनी लेखकाचो प्रत्यक्ष संबंध आसतालो अशें न्हय, पूण तें बरप वकिली धर्तीचें आसतालें. त्या बरपाक विशय लागतालो, मुद्‌दे लागताले आनी आधारय लागतालो. तो मागीर कायद्याचो आसूं वा शास्त्र वचनाचो आसूं.

लघुनिबंध वा लळीत लेख्र हांची प्रकृत वेगळी. समजा, एका तळपाचे धडेर एक मनीस वचून बसलो आनी शांत तळ्यांत ताणें ल्हवूच एक गुंडो उडयलो, म्हणटकूच कितें जाता ? उदकाच्या थराचेर वाटकुळे तरंग उदेतात. तरंग उदेवपाक निमित्य जाता तो ल्हानसो  गुंडो. पूण एका तरंगांतल्यान दुसरो आनी दुसऱ्यांतल्यान तिसरो अशे तरंग थंय उदेत रावतात. लळीत निबंध म्हळ्यार एकाद्र्या विशयाचेर लेख्रकान आपले कल्पनेन मारिल्लो एक ल्हानसो गुंडो आनी त्या गुंड्यांतल्यान उदेल्ले तरंग.

इतले चर्चे उपरांत कोंकणी लळीत साहित्याचेर एक नदर आमच्यांनी भोवंडावं येता. कोंकणी लळीत साहित्याच्या प्रवाहांत अंतरां (त्रमैक) ख्रूब आसात. एका समृद्ध लोकसाहित्याचें दायज आसूनय कोंकणीत अक्षर साहित्य ख्रूब थोडें. ना म्हणपाइतलें. इतिहासीक घडणुकांक लागून तें नश्ट जालें काय मजगतच्या काळार कोंकणी प्रतिभेचे इंगळे पालोवन गेल्ले, हो संशोधनाचो विशय. पूण लोकगितां आनी लोककथा हांचें दायज श्रुती आनी स्मृतीच्या मार्गान  जितलें आयज उल्लां तें आयकतल्याचें मन भाळयता आनी एके समृद्ध जिणेचें लोणी आमचे मुख्रार दवरता. म्हजे नदरेन आर्विल्ले कथेच्या तंत्रांत बसपी अशी लोककथा आनी काव्यकथा कोंकणींत ख्रूब पळोवंक मेळटा.

तुमी गाय आनी वागाची कवनांत रचिल्ली कथा आयकल्लीच आसतली. गाय रानांत चरूंक गेल्ली थंय तिका वाग मेळटा आनी तो तिका 'ख्रातां' म्हणटा. गाय वागाकडेन मागता, 'तूं म्हाका ख्रा ; पूण घरा गोठ्यांत म्हजो धाकलो दुबो आसा तो भुकेल्लो आसतलो. ताका दूद दितां,  समजायतां आनी येतां. मागीर म्हाका ख्रा.' काळजाक आफुडपी संवाद तांचेमदीं जातात. दिल्लें उतर पाळपाचें रघुकुलांतलें व्रत ह्या जनावरांच्या तोंडांतल्यान कवी सोबीत उतरांनी मांडटा. गाय घरा येता आनी दुब्याक समजायता. रडून ताचो निरोप घेवन रानांत वता. पूण दुबो तिची फाट सोडिना. वागा म्हऱ्यांत पावतकच गाय वागाक म्हणटा :

''आगा आगा वागा
तू म्हाका ख्रा गा

कंवळ्या दुब्याक म्हज्या
सोडून दी गा''

पूण दुबो आयकना. तो वागमामा कडेन मागता, 'आवयक सोडून दी आनी म्हाका खा.' निमाणें वाग सांगता, 'दुबो म्हजो भाचो जाल्यार गाय म्हजी भयण. तांकां हांव कसो खावं ?' तो दोगांकाय सोडून दिता.

तातूंत काव्यशास्त्र आसा, भास आसा, समाजांत पूर्वापार चलत आयिल्ली रीत - नीत आसा आनी एक सुंदर कथाय आसा.

कवितेची गजाल पळयात. रामायणाची पुराय कथा सादे कवितेंतल्यान सांगल्या. थंय सैमाचें आनी मनशाचें नातें सांबाळ्ळां.

''चानयेच्या पिला तुका
तीन गो पाट
रावणान सीते व्हेल्या
दाखय वाट.''

हें असलें दायज आमचे कथेक आनी कवितेक मेळिल्लें आसतनाय विसाव्या शेंकड्याच्या उत्तरार्धामेरेन आमच्या कवींनी आनी कथाकारांनी दुसऱ्याचें अनुकरण करून साहित्य निर्मिलें आनी तंत्राचे फास्केंत कथा कविता बसोवपाच्या प्रयत्नांत लळीत साहित्य मारून उडयलें. म्हाका उगडास जाता ते राकेसाचे कथेचो, जो धरिल्ल्या मनशाक खाटेर न्हिदयतालो. व्हड जालो जाल्यार ताची तकली, पांय कापतालो आनी मोटवो जालो जाल्यार तकली, पांय ओडटालो. एकूण ताका मारून उडयतालो.

नाटकांची गजाल पळोवया. इंत्रुजाच्या दिसांनी जे खेळ जाताले आनी शिगमो-काल्याक जीं पड्डो नाशिल्लीं नाटकां जातालीं, तें आमच्या नाटकाचें दायज. रातीच्यो राती कलाकार उबगना आसतना नाटकां खेळटाले आनी लोक तान, भूक आनी न्हीद विसरून तीं पळयताले. हेंय दायज कोंकणी रंगमाचयेची परंपरा अखंड दवरूंक पावलें ना.

एक कारण इतिहास. कोंकणी समाजाच्या दुश्ट इतिहासान ताचो भूगोल घडयलो आनी विखंड जावपाचे ते प्रक्रियेंत साहित्याची आनी कलेची परंपरा

नश्ट जाली. पूण शणै गोंयबाबाच्या युगांत लळीत साहित्याक परत प्रतिष्ठा आयली आनी आपलें स्वत्व सोदपाच्या ध्यासान कोंकणी लेखकांनी कथा, कविता आनी नाटक बरयलें. खासा शणै गोंयबाबांची "म्हजी बा खंय गेली?" ही कथा आर्विल्ल्या साहित्यांतली आद्य कथा म्हणूं येता. कवितेंत बयाभाव आनी बाकीबाब, पंडीत आनी मनोहरराय हांचे प्रतिभेन नवें युग निर्मिलें. पूण नाटक फाटींच उरलें. तोंडाक रंग सारोवन माचयेर येवप हें सभ्य मनशाचें काम न्हय, असो लटको समज आमच्या समाजान करून घेतलो, तो समाजाक नडलो. नाटक म्हळ्यार शिगम्या वेळार घालपाचो खवदोळ जावन बसलो. गोंय स्वतंत्र जाले उपरांत कोंकणी रंगमाचयेक आकार येवंक लागलो आनी थोड्या वर्सां भितर आयज आमी फुडारिल्ली रंगमाची निर्मूंक पावले. पुंडलीक नारायण नायक हांचें नांव हांव चड करून घेतां तें इतलेच खातीर की तंत्राचें भान दवरून कोंकणी नाटकाक तांणी नवो मंत्र दिलो आनी केळ जशी आपल्या मुळांत केळमे किल्लायता तशे नवे, नवे नाटककार घडयले. पूण लळीत साहित्याचो एक मुखेल प्रकार हालीं मेरेन उपेक्षितच उरला आनी तो म्हळ्यार लळीत निबंधाचो.

शणै गोंयबाब आनी श्री. रवीन्द्र केळेकार ह्या दोन निबंधकारांचे निबंध घेवन आमी पुर्विल्ले निबंध वा वैचारिक साहित्य आनी लळीत साहित्य हातुंतलो भेद समजून घेवंया. शणै गोंयबाबांचे भाशेंत गोडी आसा, उपमा - अलंकारांनी ती सजिल्ली आसा. तितले पुरते आमी भाशेक तोखेतात. पूण अशें आसूनय शणै गोंयबाबांच्या बरपा फाटल्यान एक हेतू आसा. वकील जसो कोर्टामुखार आपली बाजू मांडटा आनी तशें करतना तो प्रतिस्पर्ध्यांचो विचार खोडून काडटा, तेच तरेन शणै गोंयबाबांनी एक बाजू मांडल्या. तातूंत शणै गोंयबाब हे व्यक्तीच्या मनाचें पडबिंब आमकां पळोवंक मेळना आनी वाचप्याक तर आपल्या मनाचें पडबिंब तातूंत निखालच दिसना.

रवीन्द्रबाबाल्या निबंधांत रवींद्रबाबाचें अस्तित्व जाणवता. हातुंतले रवीन्द्रबाब कुशीक काडले जाल्यार त्या निबंधांत वाचपासारकें कांय उरना. हिमालय अनादि काळासावन आसलो थंयच आसा. ताचेर आतांमेरेन हजारांनी महाकाव्यां आनी लेख उजवाडाक आयल्यात. दर एका लेखकाची

नदर वेगळी. तोच हिमालय वेगळ्या, वेगळ्या मनशांच्या मनांतल्यान पळयतना ताची वेगळीं वेगळीं पडबिंबां वाचप्याच्या मुखार उदेतात. हिमालयाची निखटी माहिती भुगोलांत आनी पर्यटन खात्याच्या माहिती पुस्तकांत आसा. कोणेंय ती बरयली तरी ती बदलची ना. पूण रवीन्द्रबाबांचे नदरेंतल्यान जेन्ना आमी हिमालय पळयतात, तेन्ना तो हिमालय भुगोलांतलो नासता वा पर्यटन खात्याचे माहिती पुस्तिकेंतलोय नासता. हिमालयाचें जें बिंब लेखकाच्या मनार उदेलां तें आमकां त्या निबंधांत पळोवंक मेळटा. म्हणटकच लळीत निबंधाचो मुख्य गुण असो की तातूंत लेखक आसता आनी तो आमकां उक्तेपणान दिसता. कथा, कादंबरी वा कवितेंतय लेखकाच्या व्यक्तीमत्वाचो प्रभाव आसलो तरी तातूंत लेखक हो पड्ड्याफाटल्यान आसता. नाटकाचो दिग्दर्शक जसो नदरेक दिसना; तो फक्त आमकां जाणवता ; तसो कथा, कादंबरी, कविता आनी नाटकांत लेखक दिसना. पूण लळीत निबंधांत, प्रवास वर्णनांत, व्यक्तीचित्रणांत वा हेर कसल्याय शब्दचित्रांत लेखक दिसचोच पडटा.

कथा आनी लळीत निबंध हांचें कूळ एक; मूळ एक ; पूण वातावरण वेगळें. रूप वेगळें. प्रकृत वेगळी आनी तांचो प्रभावय वेगळो.

लळीत निबंध वा लघुनिबंध हांचो तोंडावळो जरी कथेसारको दिसलो तरी तांचो पिंड, तांची प्रकृत वेगळी आसता. लळीत साहित्य म्हळें म्हणटकच लेखकाच्या व्यक्तिमत्वाचो प्रभाव ताचेर उरताच. पूण एखाद्री कथा वाचून (आनी ती प्रथम पुरूषी निवेदनाच्या रूपान बरयिल्ली आसत जाल्यार चड करून) लेखकाचें चारित्र्य, ताच्यो आवडी-निवडी हांचो अदमास घेवप चुकीचेंच न्हय, अन्यायाचें जातलें. जेन्ना एक लेखक कथा बरयता, तेन्ना तो त्या कथानकाडेन तद्‌रूप जाता. केन्ना तो अदृश्य पात्राच्या रुपान जाल्यार केन्ना आपूणच एक पात्र जावन कथानकाच्या ओघाक आनी विशयाक सोबत अशी भूमिका आपणाकडेन घेता.

दुसऱ्या उतरांनी सांगतलो जाल्यार आमच्यांनी अशें म्हणूं येता की कथा-कविता बरोवपी लेखक-कवी कथेचे माचयेवयलें आपल्या वांटयाक आपखोशयेन घेतिल्लें सवंग करपी एक पात्र आसता. नाटकांतलो राजा हो

ख्ररो राजा न्हय. हाचें भान त्या नटाभाशेनच प्रेक्षकांकय उरता. तेचभाशेन लेख्रक कथेंत एक भूमिका करता हाची जाणविकाय ताका आनी वाचप्याकय उरप सामकी गरजेची.

## लेख्रकाचें व्यक्तिमत्व

हाचे उरफाटें लघु निबंध, निबंध, लळीत लेख्र, प्रवास वर्णनां, व्यक्तिचित्रां वा हेर तरेची शब्दचित्रां बरयतना लेख्रक प्रत्यक्ष वा अप्रत्यक्ष त्या बरपांत आसता. असल्या साहित्याचेर लेख्रकाच्या व्यक्तीमत्वाची मुद्रा इतली निवळ उदेल्ली आसता की त्या साहित्यांतल्यान लेख्रकाचें व्यक्तिमत्व कुशीक काडलें जाल्यार त्या साहित्य प्रकाराक अर्थच उरचो ना. असलेसाहित्य प्रकार बरोवपी लेख्रक माचयेवयल्या नटाचें काम करिना, जाल्यार प्रत्यक्ष जिणेंतल्या कडू-गोड अणभवांक आपले निरख्रणेक आनी पारख्रणेक, भावनेक आनी वेदनेक उतरांचें रूप दिवन तो वाचप्यांमुख्रार दवरता. देख्रून लेख्रक जितलो प्रामाणिक आसता, तितलें ताचें साहित्य प्रभावी जाता. आमच्यांनी अशें म्हणूं येता की लेख्रकाचें प्रामाणिकपण हो असल्या साहित्याचो आत्मो आसता. कथा सत्याभाशेन दिसची लागता. पूण ती सत्य आसूंक जाय असो आग्रो नासता. पूण लळीत लेख्रांतलो एक - एक विचार हो सत्याभाशेन दिसूनच उपकरना, तो सत्यच आसचो पडटा. आनी जो लेख्रक वाचप्यांक चकोवपाचो, फटोवपाचो वा झुलोवपाचो यत्न करता, तो चड दीस तग धरूंक पावना.

सोरो पिवप वायट हें दाख्रोवन दिवपी एकाद्री प्रभावी कथा बरोवपी लेख्रक ख्रासा आपूण बेबदो आसूं येता. इतलेंच न्हय, ती कथा बरयता आसतना तो सोरो पिल्लोय आसूं येता. ते कथेंत तो एका पात्राची भूमिका घेता, देख्रून ताका तशें करप शक्य जाता. पूण लळीत निबंधांत वा हेर तरेच्या लळीत साहित्यांत लेख्रकाचे जिणेचें पडबिंब पडिल्लें उरता. तो जसो जगता तें वाचप्यांक ताच्या लळीत साहित्यांत पळोवंक मेळचें लागता. बुद्धिवादी मनीस आपल्या दोशांचें समर्थन करीत ; पूण तें लिपोवपाचो यत्न केलो जाल्यार ती साहित्याकडेन प्रतारणा जातली.

साहित्य ही एक कला आनी तें एक शस्त्रय. आमच्यांनी अशें म्हणूं येत की कला ही शिकोवंक जायना, ती मुळांत आंगांत आसची पडटा. प्रतिभा ह कलेचें दुसरें नांव. पूण आंगांत निखटीच प्रतिभा आसली म्हूण उपकारना ते प्रतिभेक शिस्त दिवची पडटा. एकाद्र्या मनशाक बरो ताळो आसलो म्हणून तो बरो गवय जाताच अशें ना. बरो गवय जावंक ताका शब्दब्रह्माची नादब्रह्माची, ताल आनी सुरब्रह्माची साधना करची पडटा. ही साधना म्हळ्यार ताका रियाज करून आपलो 'गळो कमावचो' पडटा. तरेकवार रागांचें मुळाव गिन्यान ताका आसचें पडटा. हे सगले राग आत्मसात करून फुडें तो नवे राग निर्मूंक पावता, ही गजाल वेगळी. पूण जेमेरेन ताच्या आंगचे प्रतिभेक शास्त्राची बैठक मेळना, तोमेरेन तो खऱ्या अर्थान गायक जावंक पावना. साहित्यिकांचेंय अशेंच आसता.

खाणींत मेळटा तो फात्तर हेर फातरांसारकोच आसता. पूण कांय फातरांच्या पोटांत वज्राचें तेज लिपिल्लें आसता. जेन्ना त्या फातराचेर आमी संस्कार करतात, ताका तासां घालतात तेन्नाच तें वज्र चकचकता. तेच भाशेन मनशाच्या आंगात निजाची जी प्रतिभा आसत तिचेर शास्त्राचे संस्कार जालेबगर साहित्यिक तयार जायनात. आतां एखाद्रो फातर खाणींतच चकचकीत अवस्थेंत मेळटा तसो साहित्यिकय मेळूं येता. पूण हो जालो आडवाद.

लेखन हें वाचकांखातीर आसता. आपल्या आत्मानंदाखातीर आपूण बरयतां अशें सांगपी लेखक आसात. पूण दर्याक वचून मेळपांत आनी दर्याच्या रूपांत एकरूप जावपांत न्हंयच्या पात्राची जशी कृतार्थताय आसता, तशी रसिक वाचकांच्या हातांत पावन तांचेकडल्यान दाद मेळपांतच साहित्याची आनी साहित्यिकाची कृतार्थताय आसता.

देखूनच साहित्य-साधना करतल्या जण एक लेखकान वाचक साहित्य किल्याक वाचता. हें समजून घेवंक जाय.

मनीस म्हळो म्हणटकच ताचे खूबशे हावेस आनी उमेदी आसतात. त्यो सगळ्योच पूर्ण जायनात. पाळण्यांनसावन मरणामेरेन मनीस सपनां पळयत

आसता. तीं सगळींच साकार जायनात. ताका लागून मनीस हो सदांच अतृप्त आनी हताश आसता. आपले जिणेंतल्या काळखी कोनश्यांमदीं तो उजवाडाचें कीर्ण सोदता आनी अशें कीर्ण ताका लळीत साहित्यांतलीं पात्रां, प्रसंग, विचार वा वर्णनांच्या रूपान दिसूंक लागता. देखून लळीत साहित्याकडेन तो तन्मय जाता. जो वाचक वाचतना तन्मय जाता तो भोंवतणच्या संवसाराक विसरता आनी सुखाच्या दर्यांत अळंग पेवंक लागता. वाचकाक हें जें समाधान मेळटा - तें मागीर जैत वा कीर्त जोडपाचें आसूं, सुंदर थळां पळोवपाचें आसूं, ना जाल्यार आपल्यो वासना, विकृती भागोवपाचें आसूं - तें ताका संवसाराच्या व्यापा-तापांतल्यान कुशीक सरून कांय खीण खोसदिण्या संवसारांत विहार घडयता. देखूनच तो लळीत साहित्य वाचता.

हें एक खेपे समजलें म्हणटकच लळीत साहित्याचें दुसरें वेगळेंपण कितें तें आमी पळोवया. लळीत साहित्य म्हळ्यार लेखकाच्या मनांतले अणभव आनी विचार, कल्पना आनी हावेस हांचे उपमा अलंकारांनी न्हेसयिल्ले तरंग. आत्मकथन हें निबंधाचें मुख्य रूप. अनिबँध मेकळेपण हें ताचें खाशेलपण. एके भाशेन निबंध म्हळ्यार लेखक आनी वाचक हांचेमदलो संवाद म्हणूं येत.

जेन्ना. आमी संवाद करतात, तेन्ना आमकां पांडित्याचें प्रदर्शन करपाचें नासता. संवाद हो वाचकाच्या थराचेर येवन जालो जाल्यारच चलतलो. लळीत लेखक येवजता तशें बरयता. दुर्बोध वाक्यां आनी क्लिश्ट भाशा तो वापरूंक लागलो जाल्यार लेखकाच्या आनी वाचप्याच्या मनामदीं सुमेळ जायना. लळीत निबंधाक विशयाचें वा विशयांतराचें बंधन नासलें तरी लेखकान एके गजालीचें भान दवरूंक जाय की दर एका उतराचो, विचार आनी कल्पनेचो एकामेकाकडेन सुमेळ उरूंक जाय. एकाद्र्या वाद्यवृंदांत वाद्यां साबार आसलीं तरी तांच्यांत जें एकरूपपण आसता, तसलें एकरूपपण लेखकाच्या लेखांत आसचें पडटलें.

## लळीत साहित्याची भास

लळीत साहित्याची भास कशी आसची हेविशीं थोडी चर्चा करप गरजेचें. भास हें एक माध्यम. लेखक उतरांचो उपेग करून वाचप्यांच्या नदरेसामकार एक चित्र उबें करता. त्या चित्रांत आकृती आनि अणभव हांचो सुमेळ तो सादता. जसो एकाद्रो चित्रकार रंग आनी रेगांचो वापर करून एक कलाकृती उबी करता आनी ते रंग वापरतना खंयच्या रंगाच्या शेजराक दुसरो खंयचो रंग दवरचो हें थारायता, तेच भाशेन लेखक उतरां जुळयता आनी अणभव विश्व वाचप्यांमुखार उबें करता.

लळीत साहित्य म्हळ्यार एका मनशाच्या मनान जो अणभव घेतलो तो उतरांनी उक्तावपाचो प्रयत्न. अणभव घेवपी जो मनीस आसता ताचें वेगळेपण त्या अणभवांत आसता. पूण आपणें कितेंय अणभवप वेगळें आनी जोणी तें अणभवंक ना तांकां तें अणभवंक लावप वेगळें. तशें करतना भाशेचें भान लेखकान दवरप गरजेचें आसता. लळीत साहित्यांतली लेखकाची अनुभूती ही वेगळी आसता. ती अनुभूती तितलेच प्रभावी भाशेन लेखक वाचकांमुखार दवरता. दर एकल्याची अनुभूती ही वेगळी आशिल्ल्यान ती तयार फास्केंत बसांवंक मेळची ना. लेखक तिचेखातीर एक वेगळी फास्की तयार करता आनी ते फास्केकच आमच्यांनी भास म्हणूं येता. अणभव लेखकाचो आशिल्ल्यान ताची भास आत्मनिष्ठ उरता.

खूबशे फावटीं आमी असो अणभव घेतात की आमकां जें सांगपाचें आसता तें सांगूंक समर्पक अशें उतर आमकां सट करून येवजना. लळीत लेखक अश्यो भावना उक्तावपाखातीर अशीं उतरां वेंचता की त्या अणभवाचें चित्र वाचप्यांमुखार उबें जाता. परत दर एका अणभवाची लय, ताचो ताल वेगळो आसता. तांचो सुमेळ सादपाची लेखकाक तिश्टत उरता. एके भाशेन अणभवच आपलीं उतरां सांगातान घेवन येता आनी लेखक हो फकत निमित्त आसता अशें म्हळ्यारय जाता.

कांय लेखक जड गुळो वा क्लिश्ट उतरां वापरून प्रभावी भास बरयिल्ल्याचें समाधान मानतात. हांवें हे आदीं सांगलांच की लळीत लेखन

हो संवाद आसता. लेखक आनी वाचकामदलो संवाद. देखून आपूण बरयता ताचो अर्थ फकत लेखकाक समजून भागचो ना. वाचकाकय तो समजुचो पडटलो. ते नदरेन जड गुळो व क्लिश्ट भास ह्या संवादांत विक्षेप हाडटा. व्हॉल्ट विटमन अशे क्लिश्ट भाशेक रिचेस्ट कर्टन्स (भौ मोलाचे पड्डे) अशें म्हणटा आनी आपलेमदीं आनी वाचप्यांमदीं. आपूण हे पड्डे येवंक दिवचो ना अशें सांगून उडयता.

लळीत वाङमयाचे जे साबार प्रकार आसात. तांची धाटणी जशी वेगळी तशी भासय वेगळी जावंक लागल्या. सगळेच प्रकार एकाच कुळांतले आसूनय संयुक्त कुटुंब सोडून ल्हान-ल्हान वेगळीं बिराडां जशीं निर्माण जाल्यांत तशी तांची गत. वेगळीं सरिल्लीं कुटुंबांय आतां खूब विस्तारल्यांत आनी आतां परत विखंड जावपाचो तीं विचार करतात. साहित्य हो संवसारीक प्रपंचाचोच एक भाग इतलें आमी वळखून घेतलें जाल्यार दर एका साहित्य प्रकाराची भास कित्याक बदलता ताचो आमकां बोध जातलो. भोंवतणचें वातावरणय आमचेर परिणाम करता, देखून भाशेचे कालखंड आमी मानूंक लागल्यात.

## बरें साहित्य, वायट साहित्य

समिक्षकांक एक अशी संवय जाल्या की ते दोन साहित्य कृतींची तुळा करतात आनी खंयचें साहित्य श्रेष्ठ आनी खंयचे हीण तें थारायतात. साहित्य ही प्रतिभावंत मनाची नवनिर्मणी वा ताचें भावविश्व अशें मानले जाल्यार दोन कृतींमदीं तुळाच जावंक नज. वडाचो रूख हें पूर्ण झाड आनी तायखिळो हेंय पूर्ण झाड. ह्या पूर्णत्वांतच तांची सोबा आसता, ताचें वेगळेंपण आसता. इतलेंच न्हय तर एकेच जातीच्या झाडामदीं आमी आगळें-वेगळें रूप पळयतात. ह्या दोन झाडांमदलें एक बरें, दुसरें वायट थारावप जितलें पिशेपणाचें जातलें, तितलेंच दोन साहित्यकृतींमदली एक बरी, दुसरी वायट म्हणप पिशेपणाचें जातलें.

खंयच्याय कपड्याच्या दुकानांत जो सेल्समॅन म्हणून काम करता, त्या मनशाक ताचो अणभव विचारून पळयात. दुकानांत शेंकड्यांनी रंगांच्यो, छटांच्यो आनी तरांच्यो साडयो आसतात. दिसांतल्यान पन्नाशेक बायलो येवन

त्यो साडयो पळयतात आनी शेंकड्यांतली एक साडी पसंत करून घेवन वतात. ते बायलेपुरत्यो खूबश्यो साडयो दिसूंक बऱ्यो नासतात. पूण सेल्समॅन आमकां सांगतलो की एकलेक वायट दिशिल्ली साडी दुसरेक मानवता आनी कालांतरान दुकानांतल्यो सगल्यो साडयो खपतात. साहित्यांतलें शाश्वत कितें आनी अशाश्वत कितें हें काळ थारायतलो. जाका जें मानवता ताणें तें तें तोख्रेवचें. दुसऱ्यांची निंदा करूंक बसचें न्हय.

आनीक दोन गजालींचो ह्याच संदर्भांत विचार जावंक जाय. पयली गजाल म्हळ्यार सभ्य साहित्य आनी अश्लील साहित्य, गंभीर साहित्य आनी विनोदी साहित्य अशे कांय वाचक वा समिक्षक भेद करतात. ताच्या फाटल्यान खंयची नदर आसता ? आनी दुसरी, तेय परस चड गरजेची गजाल म्हळ्यार लेखकाचें चारित्र्य आनी साहित्य हांचो संबंद कितें ?

खंयची कलाकृती अश्लील आनी खंयची सभ्य हें थारावप खूबच कठीण. जर एकाद्री साहित्य कृती वाचता आसतना रसभंग जालो आनी हिडीस विकृती थंय दिसली जाल्यार ती कृती अश्लील अशें लोक म्हणटात. पूण हें अश्लीलपण वा विकृती साहित्यांत आसा काय वाचप्यांच्या मनांत आसा तें आदीं समजून घेवचें पडटलें.

विकृती ही मनशामदीं आसता. हे विकृतीचेर जैत मेळोवपाखातीर मनीस प्रयत्न करीत आसता. ऑपरेशन थिएटरांत एकाद्री बायल विवस्त्र अवस्थेत सर्जनामुखार आसली तरी थंय विकारांक सुवात उरना. पूण तीच बायल दिगंबर अवस्थेंत रस्त्यावयल्यान वचूंक लागली जाल्यार तिचो तो अवतार पळोवन ताळयो मारपी लोक आसतले आनी मान फिरोवपीय लोक आसतले. परत ज्या समाजांत आनी ज्या काळांत आमी रावतात आनी ज्या संस्कारांत आमी वाडल्यात ताचो प्रभावय आमचेर उरतलो. देखून साहित्यांतलें अश्लीलपण हो एक सापेक्ष प्रस्न अशें आमच्यांनी म्हणूं येता. पूण जें अश्लील न्हय, तें सगळें सभ्य अशें म्हणपय समा जावचेंना.

साहित्यांत रसिकाक रस मेळटा. सामान्यतायेन आमी शोकांतिका वा ट्रॅजेडी हो असो साहित्य प्रकार मानतात, जो वाचतना वाचप्याच्या मनांत

ुःख्राची भावना निर्मता. पूण आमी इतलें विसरूंक फावना की तें वाचतनाय ाचप्याक आनंद मेळटा. विनोदी साहित्याक कॉमेडी अशें म्हणटात. पूण वेनोदी साहित्य म्हळ्यार नेमकें कितें ? जें हांसयता तें विनोदी अशें ामान्यतायेन आमी वाचतात. पूण सगले हांशे एका सारके नासतात. केन्ना केन्नाय मनीस आपणाकच हांसता. केन्ना तो दुसऱ्यांक हांसता. हे दोनय ांशे वेगळे. केन्ना - केन्ना हांसून आमी काकुळट उक्तायतात. केन्ना आत्मप्रौढी मेरयतात. केन्ना कुच्छित्रीपणान हांसतात. केन्ना लाचारेन हांसतात. हांशें हें केन्ना निर्मळ ख्रोशयेचें लक्षण आसता जाल्यार ख्रर दुःख्राचेंय आसूं येता. ांशावरवीं मनीस आपले विकार आनी भावना उक्तायता.

हांशाचे कांय नमुने पळयात. चोरून लोणी ख्रातल्या बालकृष्णाचो हांसो ; द्रौपदीचें वस्त्रहरण करतल्या दुःशासनाचो हांसो; सैरंध्रीक पळोवन कीचकान काडिल्लो हांसो ; हे हांशे वेगळ्या वेगळ्या विकारांचे प्रकार म्हणूं येतात.

हांसपाची कला ह्या संवसारांत फकत मनशाक देवान दिल्या. तो कित्याक लागून केन्ना हांसत हें सांगूंक नज. चड करून जें विसंगत आसता तें आमकां हांसयता ; पूण सदांच अशें घडना. आवयच्या कुशीक बशिल्लें भुरगें गोड हांसता. थंय विसंगत नासता. मनशाचीं रूपडीं अचळय पिनतकच ताचो दंभ, ताचे विकार वा उच्चार आनी कृती हातुंतलें अंतर आमी पळोवंक पावतात. ताकाच आमी विनोदी बरप म्हणटात. अशा बरपांत उतरांच्यो कोटी करूनय लेख्रक विनोद निर्माण करता. पूण विनोदी बरप कशें आसचें हें शिकोवप कोणाकच सादलें ना.

## लेख्रकाचें चारित्र्य

लेख्रक वा कलाकाराचें चारित्र्य आनी ताची कलाकृती हांचो संबंद कसलो आसता हो प्रस्न जायते समीक्षक आनी वाचक लेगीत विचारतात. संवसारांतल्या नामनेच्या कलाकारांचीं चरित्रां वाचलीं जाल्यार आमकां अशें कळटा की अशा जायत्या प्रतिभावंतांचें चारित्र्य, आमची नीत वा अनितीची जी कल्पना आसता तिका धरून, शुध्द नासता. तरीकय तांच्यो कलाकृती

दुबावा विरयत श्रेष्ठ आसात. तांकां संवसारांत मान्यताय मेळिल्ली आसा. कलाकाराच्या चारित्र्यान त्यो भश्टूंक नात.

लेखकाची खाजगी जीण आनी ताची कलाजीण हातूंत अंतर आसता. एक जीण दुसरे जिणेक आफुडना. खरो प्रतिभावंत आपले खाजगी जिणेची सावळी आपले कलाकृतीचेर पडूंक दिना. म्हण्टकच आमच्यांनी असो तर्क करूं येता की लेखक जेन्ना कल्पनेच्या विश्वांत भितर सरता तेन्ना तो आपली दिसपट्टी जीण विसरता. एके तरेन कल्पनेच्या विश्वांत वावुरतना लेखकाचें मन काम करता आनी ताचो देह त्या विश्वापरस भायर उरता. देहाच्यो विधी, सुखां-दुख्खां वा विचार हांची सांवळी ताचे कलाकृतीचेर पडना.

हो नेम सगल्याच कलाकारांक लागू जायना हें मान्य. खाजगी जिणेतलीं दुबळेपणां पचोवन एक समृध्द आनी समर्थ कलाजीण जगपाची तांक सगल्याच कलाकारांकडेन नासता. अशे कलाकार कल्पनेच्या विश्वांत लेगीत आपणाक विसरूंक पावनात.

कांय कलाकार आपले लौकिक जिणेची अपूर्णताय कलाजिणेंत पूर्ण करपाखातीर वावुरतात. पूण अशें आसलें तरी जाचें चारित्र्य निर्मळ, ताची कला श्रेष्ठ अशें समीकरण मांडूंक जावचें ना. बऱ्या कलाकाराचें बरें चारित्र्य ताचे कलाकृतीक वेगळें तेज दिवंक पावता आसत ; पूण दर एकलो सत्पुरूष हो श्रेष्ठ कलाकार जाताच अशें ना.

लळीत लेखक जेन्ना बरयता तेन्ना एक बरी कृति बरोवची इतलोच ताचो हेतू आसता. ताचें पुराय लक्ष ते कृतीचेर केंद्रित जाल्लें आसता. वाचप्यांनी तितलेच शुध्द नदरेन ताचें बरप वा ताची कृति वाचूंक जाय. एकाद्रो गायक जेन्ना गायता तेन्ना आमी तन्मय जातात ते संगिताकडेन. गावप्याच्या चारित्र्याचो विचार आमी करिनात. एकाद्रें चित्र आमी पळयतात तेन्ना रंगाचें सुसंगतपण आनी एकूण प्रभावाचो विचार करतात. चित्रकाराचे खाजगी जिणेचो विचार करिनात. देखून च कलेचें मोल कलाकाराच्या चारित्र्यावयल्यान थारावप हें चुकीचें जातलें.

हांवें सुरवेकच सांगलां, साहित्य ही एक कला आनी तें एक शास्त्रय. पूण थर्मामीटरांतल्या पारजाभशेन ही कला शास्त्रांनी बांदूक गेलो जाल्यार ती शास्त्रांचे बंदपास तोडटा आनी सुळसुळून पयस वता. फुटिल्लो पारज धरूंक वतल्याची फजेत जाता. साहित्यशिल्पाचो विचार करता आसतना हो मुळावो सिद्धांत आमी सगळ्यांनीच मतींत धरचो.

इतिहासांत राजांच्या जल्माची आनी मरणाची खबर आमी वाचतात. लळीत साहित्य म्हळ्यार प्रजेचो समाजीक इतिहास आसता. लळीत साहित्यांत आमकां समाजाच्या मनाचें, लागणुकांचें चित्र दिश्टी पडटा. तो खंय आसलो ? खंय पावलो? तो कसो बदल्लो ? हें आमकां समजता. समाजाच्या मनाची खोलाय, ताच्या हावेसांची विशाळकाय, ताचे विकृतीचें हीणपण, ताच्या अभिमानाचें स्थान हें सगलें आमकां लळीत साहित्यांत पळोवंक मेळटा. हांव तर अशें म्हणन, ज्या समाजाचो इतिहास गिरेस्त आसता त्याच समाजाचें लळीत साहित्य समृध्द जावंक पावता.



# 4

# साहित्याक मातयेचो वास

साहित्य आनी भूंय हांचें नातें झाड आनी जमनीसारकें. पूण साहित्य हें जिणेसयत वचचें पडटा. देखून साहित्याचें पयलें नातें जिणेकडेन आसचें पडटा. पर्थून जिणेचें वा मनशाचें नातें लेगीत भुंयेकडेन आसता, देखून मनीस, हेर जीवसृष्ट आनी वनस्पतसृष्ट, अंतराळ आनी ब्रह्मांड, इतलेंच न्हय जाल्यार जीवसृष्टीचें अंतपार नाशिल्लें अंतर्मन... उमाळे आनी हावेस, हीणपण आनी व्हडपण, प्रकृतीकडेन संघर्ष करून संस्कृती घडोवपोचो ताचो ध्यास, ताच्यो विकृती ह्या सगल्यांचें पडबिंब साहित्यांत पडपाची गरज आसता. हांव तर अशें म्हणन, उदकांत पडिल्ल्या तुपाच्या थेंब्याभाशेन जर साहित्य जिणेपसून वेगळें उरलें जाल्यार तो निरव्रटो कल्पनाविलासाचो खेळ जातलो. हाचे उरफाटें तें जर तेलावरी उदकाचो सगळो थर व्यापूंक पावलें जाल्यार ताका संदर्भ गावतलो आनी उदकांत साखर वा मिठावरी विरगळून एकरूप जावंक पावलें जाल्यार तें साहित्य आमचे जिणेचें पडबिंब जावन अज्रंवर उरतलें.

साहित्याक मातयेचो वास आसचो अशें जेन्ना कोणूय म्हणटा, तेन्ना तो साहित्य आनी जीण हाचें नातें अतूट उरचें अशी अपेक्षा करता. सूर्य आनी ताची प्रभा एकमेकांपासून वेगळावंक जितली कठीण तितलेंच जिणेपसून साहित्य वेगळावपाचें काम कठीण. आमी साहित्यांत जेन्ना जिणेचें पडबिंब सोदतात वा मातयेचो वास सोदतात तेन्ना आमकां कितें जाय आसता ?

आमी जेन्ना काश्मिराक वतात तेन्ना आमी कसली अपेक्षा करतात ? थंड हवा मेळची. काश्मिरी सफरचंदां पळोवंक (आनी जमल्यार तांची रूच घेवंक) मेळची. केशराच्यो बागो, ध्यानस्त बशिल्ल्या ऋषिसारकीं चिडाचीं झाडां, दल सरोवराचें प्रसन्न वातावरण, शिकाराची भोंवडी, त्या वाठारांतली फुलांफळां...

जर एकाद्रो गोंयकार काश्मिरी हॉटेलांत गेलो आनी थंय ताणें शीतकडी मेळची अशी अपेक्षा केली जाल्यार कशें जातलें ? काश्मिरांत शीतकडी मेळची

ना. आनी मेळ्ळीय जाल्यार गोंयचे शीतकडयेची रूच ताका मेळची ना. शीतकडीच कित्याक ? माड - माडयो थंय आसच्यो नात. कोणेंय रोवपाचो यत्न केलो जाल्यारूय त्यो मूळ धरच्यो नात. मूळ धरलेंय जाल्यार त्यो तगच्यो नात. आपली पुराय वाड वाडच्यो नात. फुलच्यो नात, फळच्यो नात. अशें कित्याक घडटा ? इतलेच खातीर की काश्मिरांतली भूंय आनी थंयचें वातावरण हें माड माडयांक पोसवण दिवंक पावना. त्याच न्यायान काश्मिरांतलीं सफरचंदां गोयांत रोवपाचो प्रयत्न कोणेय केलो जाल्यार लोक ताका पिशांत काडटले. गोंयचे भुंयेंत सफरचंदाचें झाड वाडचें ना. वाडलेंय जाल्यार फुलचें, फळचें ना. आनी फळ फळ्ळें जाल्यार लेगीत त्या फळाक मुळची गोडी आसची ना.

सैमाचो हो नेम आमकां कितें शिकयता ? दर एका वाठाराचो जसो वेगळो इतिहास आसता, तसोच ताचो भुगोलूय आसता. भूगोल आनी इतिहास हांच्या प्रभावानूच वाठारांतलें सैम, थंयची प्रकृती, संस्कृती, साहित्य, संगीत, कला घडटा. इतिहासाचो आनी सैमाचो संबंद कितें अशें कांय लोक विचारीत. इतिहासाक लागून घडये जमीन, हवा, उदक बदलना आसत ; पूण गोंयांत आज जी आमकां तरेकवार वनस्पत दिसता ती सगली थळावी अशें म्हणूं नज. इतिहासीक कारणांक लागून भायल्या देसांतल्यान तरेकवार वनस्पत गोंयांत पावली आनी ती आज गोंयची जावन रावल्या. तोमात, तारवटी मिरसांग, आंब्याचीं गार्फां अशी साबार तरांची वनस्पत पुर्तुगेजांनी गोयांत हाडली. रबराचें झाड हालींच गोंयांत पावलां. अशे तरेन इतिहासीक कारणाक लागून सैम बदलता. दर एका प्रदेशांत परंपरा आनी परिवर्तन हांचें एक चक्र घुंवत रावता, जें त्या प्रदेशाची पुराय जीण बदलीत आसता.

साहित्याच्या मळारूय अशेंच घडटा. जेन्ना आमी कोंकणी साहित्याचो विचार करतात, तेन्ना त्या साहित्याक कोंकणी जिणेचो वास येवचो अशी आमची अपेक्षा आसता. असो वास हेंच कोंकणी साहित्याचें वेगळेंपण म्हणूं येत. साहित्याक जर असो वास आयलो ना जाल्यार तें साहित्य आपलें वेगळेंपण वगडावन बसता आनी संवसारीक साहित्याच्या संमेलनांत तें कोणाचेच नदरेंत भरना. आमी जेन्ना बंगाली साहित्य वाचतात तेन्ना आमकां बंगालचें सैम, थंयची परंपरा, त्या वाठराचो इतिहास, थंयच्यो मान्यतायो,

थंयचीं प्रतिकां दिश्टी पडटात ... थोडे भितर सांगतलो जाल्यार बंगाली मातयेचो वास येता. तो वास हें त्या साहित्याचें वेगळेंपण. तो वास जर आमकां बंगाली साहित्यांत मेळ्ळो ना जाल्यार बंगाली साहित्य वाचिल्ल्याचो आनंद आमकां मेळचो ना. जी गजाल बंगाली साहित्याची तीच गजाल हेर सगल्या साहित्याची. पंजाबी साहित्याची धाटणी वेगळी आनी तमीळ साहित्याची वेगळी अशें आमी जेन्ना म्हणटात, तेन्ना आमकां ते ते भुंयेचो वेगळो वास त्या साहित्यांत अणभवंक मेळटा. बंगाली भाशेंत जर पंजाबी वातावरण मेळूंक लागलें जाल्यार आमकां हातांतलें पुस्तक बंगाली आसुनूय बंगाली साहित्य वाचिल्ल्याचें समाधान मेळचें ना.

साहित्य हें जितलें थळावें (रिजनल) तितलें तें संवसारीक (युनिव्हर्सल) जावंक पावता, अशें म्हणटात तें लटकें न्हय. संवसारांत जें जें साहित्य तग धरून उरलां वा लोकांच्या काळजांत मानाची सुवात जिखूंक पावलां तें सगलें साहित्य हें थळावे मातयेचो वास वेंगयिल्लें साहित्य जावन आसा. इंग्लीश वाचप्याक कसलें भारतीय साहित्य भाळयता हें जर आमी तपासून पळयलें जाल्यार आमकां दिसून येतलें कीं, ज्या ज्या साहित्यांत भारतीयत्वाचो अंश आसता तेंच साहित्य भारताचें साहित्य जावंक पावता.

हांव साहित्याक सदांच झाडाची ओपार दितां. कांय झाडां अशीं आसतात (जसो आंबो, चांफो) जीं सगळ्या वाठारांत आसूं येतात, पूण भुंयेप्रमाणे तांचो आकार बदलता आनी फळाची वा फुलाची जात वेगळी आसता. झाडांच्यो तरा तशे साहित्याचे प्रकार. तण - दुर्वांपसून तायखिळो आनी वडामेरेन जशीं तरेकवार झाडां आसात, तशे साहित्याचे प्रकारूय अनंत आसूं येतात. वयलेचाराक एकेच तरेचीं झाडां खुबशा वाठारांनी आसलीं तरी तांचीं फळां रूचीक एकसारकीं आसतातच अशें ना. गोंयांत सगळेकडेन दर्यांत बांगडे मेळटात. पूण बार्देशच्या बांगड्यांची रूच साश्टीच्या बांगड्यांपरस वेगळी आनी कारवारच्या बांगड्यांची रूच त्या दोगांयपरस वेगळी. नाल्लाविशीं तशेंच सांगतात. वाठारा कणकणच्या नाल्लाची रूच वेगळी आसता. हो गूण मातयेचो न्हय जाल्यार कितें ? ह्या सिध्दांताक धरून थळावें साहित्यच संवसारीक जावं येता, हो सिध्दांत तपासपासारको आसा.

सैमाचेर आमी नदर भोंवडावया. मिर्गाचो पयलो पावस पडनाफुडें सैम रसरसूंक लागता. पडंग भुंयेचेर कंवळें तण किल्लता. जंय कांयच नासलें थंय तायखिळो आनी हेर झाडां वयर सरतात. पावसाळो चालू आसासर तीं झाडां वाडटात, फुलतात, फळटात. आनी पावस सोंपनाफुडें गांयडोळांभाशेन तांचो अवतार सोंपता. अशें कित्याक घडटा ? कारण तांचीं पाळांमुळां भुयेंत आसलीं तरी तीं दुबळीं आसतात. भुंयेपोंदचें उदक-सारें ओडून घेवपाइतलीं तीं ख्रोल नासतात. पावसाचें उदक मेळटा ते मेरेन तीं तग धरतात. पूण पावस सोंपलो तरी हेर झाडां वाडत आसतात. कांय झाडां तर शिंयाच्या दिसांनी वा रखररखीत गिमांत लेगीत नव्यान पालेतात, फुलतात आनी फळटात. हाचेवेल्यान आमकां दिसून येतलें की ज्या झाडाचीं पाळांमुळां भुंयेंत ख्रोल रिगिल्लीं आसतात तींच झाडां तग धरतात. जांचीं पाळांमुळां चड ख्रोल तांची वाड चड व्हड. माड वयर मळबार वाडटा. कित्याक तर ताचीं पाळांमुळां जमनींत ख्रोल वतात. वड चारूय वाटांनी वाडटा. कित्याक तर ताचीं पाळांमुळां भुयेंत चारूय वाटांनी पातळिल्लीं आसतात. ह्या न्यायान जें साहित्य भुंयेंत ख्रोल रिगिल्लें आसता वा ज्या साहित्यिकाचीं पाळांमुळां आपले भुयेंत ख्रोल रूजतात, तांचेंय साहित्य तग धरता आनी उंचाय गांठटा. जाचीं पाळांमुळां वयलेवयर ती चडूच जाल्यार तायखिळ्यावरी पावस पडसर आपलो मुकूट धोलयतात.

ज्या साहित्याचो भुंयेकडेन संबंद नासता तें साहित्य न्हय अशें कोण म्हणचो ना. साहित्याचो तो एक आगळो वेगळो प्रकार म्हणूं येत. हालींच्या वर्सांनी आमची जीण बदलूंक लागल्या आमच्या घरांतूच आमचो समाज परकी जावन रावंक लागला. मुंबय सारकिल्या शारांनी रावतलो मनीस तर एका काळार गांवघरा आशिल्ल्या सैमाचो, थंयच्या वातावरणाचो उगडास काडटालो आनी जेन्ना तो थोड्या दिसांखातीर आपल्या गांवांत पावतालो तेन्ना शेणिल्ल्या पाडकाक गोठ्यांत परत येतकूच भोगता तसलो आनंद ताका भोगतालो. गांव सोडटना तांचें मन जड जातालें आनी आपल्या काळजाचो एक कुडको गांवांत दवरूनच तो शारांत परततालो. पूण जी पिळगी शारांनी जल्मली आनी थंय वाडली, तिका गांवच्या वातावरणाची दोन दीस ओड दिसली तरी तिसऱ्या दिसा उबगण येता आनी ते जेन्ना परततात तेन्ना शारांत पावपाची उमळशीक ते पिळगेच्या काळजांत उचंबळून येता.

शारांत वाडिल्ले एके लेखिकेन एके फावटी पयल्या पावसाचे दीस खेड्यांत सारले आनी तिणें बरोवन दवरलें, ''जे मातयेच्या घमघमाटाविशीं हांवें निखटें आयकल्लें, तो 'मृद्‌गंध' गांवांत पयलेच खेपे अणभवलो.'' मोठ्या शारांनी रावतल्या लोकांक लोकजिणेंतले साबार अणभव घेवपाची संद मेळना. देखून मातयेच्या वासाची गजाल करता आसतना आमी विसरूंक फावना की शारांत ल्हानाचे व्हड जाल्ले आनी पुराय जीण थंयच सारिल्ले लोक जेन्ना आपले भोंवतणचे जिणेचों पडबिंब साहित्यांत हाडूंक सोदतात तेन्ना ते लेगीत एका अर्थान 'मातयेचो वास' आपल्या साहित्याक दितात.

साहित्याक हांवें झाडाची ओपार दिली. झाड म्हळें म्हणटकूच एक आकृत आमचे नदरेमुखार उबी रावता. झाडाक पाळांमुळां आसतात, जीं भायले नदरेक दिसनात. धड, खांदे, पानां, फुलां, फळां आसतात. झाड सदांच जमनीवयल्यान सरळ मळबाचे दिकेन वयर वाडटा. झाडाचे जातीप्रमाणे तांची लांबाय, रुंदाय आमी थारायतात. होच नेम आमी साहित्याकूय लायतात. झाड जशें नेमाचे एके फास्केंत बसोवंक येता, तेच भाशेन आमी साहित्य फास्केंत बसोवंक सोदतात. कथा कशी आसची ? कादंबरीचें तंत्र कितें ? कवितेच्यो शिमो, मेरो खंयच्यो ? निबंध कसो आसूंक जाय ? हे सारकिले नेम वा बंधनां आमी पाळूंक लागतात. खरेपणी असलीं बंधनां साहित्याचे सभावीक वाडीक मारक आसतात. काणयेंतल्या राकेसाची गजाल तुमी जाणातूच. वाटेन वतल्या मनशाक तो धरून हाडटालो आनी आपले खाटेंर न्हिदयतालो. खाटेपरस तो लांब आसत जाल्यार तागेली तकली, पांय कापून तो खाटेयेदो करतालो. तो मोटवो आसत जाल्यार ताची तकली पांय ओडून लांब करतालो आनी तो खाटेंत फिट्ट बसतकूच ताका खातालो. तंत्राचे फास्केंत साहित्याचे प्रकार बसोवपाचो यत्न असो राक्षसी यत्न जावन आसा. एखादी कथा, कविता, निबंद, कादंबरी, नाटक वा हेर साहित्य प्रकार चुकून माकून फास्केंत फिट्ट बसतात. ना अशें न्हय. पूण तो बसना म्हणून आमी तसो बसोवपाचो यत्न केलो जाल्यार राकेसाले खाटेंत फिट्ट बसनाशिल्ल्या मनशाभशेन तो साहित्य प्रकार मरून वतलो.

तंत्राचें बंधन नेम तरी खंय पाळटा ? वालीसारको जमनीर सरपटत वाडिल्लो झाड हांवें पळयला. नागाच्या फण्यावरी तो आपलो कंवळ उखलता आनी थंय चुडटां, शेवकां, बोंडे, नाल्ल लागतात. हेर खूबशीं झाडां अशींची

नेम मोडून वाडटात. पुरुसभर लांबायेचें आंब्याचें झाड हें पुराय वाडूंक ना अशें म्हणप समा जातलें ? सर्गाक माथें तेकोवंक सोदतलें एकाद्रें झाड फकत पालेता, केन्नाच फुलना, फळना. देखून नेमाचे फास्केंत सैम वा साहित्य बसोवप अन्यायाचेंच जातलें.

साहित्य म्हळ्यार साहित्यिकाचे कल्पनेंत रुजून किल्लल्लें बीं. जायते फावटीं आमी अशें धरून चलतात की साहित्यांत वास्तव दवरतलो जाल्यार जिणेंत जें जशें आसा तें सगलें साहित्यांत येवंक जाय. एका शिल्पकारान वास्तव शिल्पकृती तयार करपाच्या प्रयत्नांत शिमितेरींतलें प्रेत उस्तून ताचो कापून हाडिल्लो हात आपल्या शिल्पाक लायलो. सगल्या रसिकांच्या आंगार कांटो फुल्लो. जाणकारांनी म्हळें, '' शिल्पांत वास्तवता आयिल्ली आसत ; पूण तांतली कला मेली ''.

साहित्याचेंय अशेंच आसता. साहित्य म्हळ्यार जीण न्हय. जिणेचें तें कलात्मक प्रतिरूप वा पडबिंब. जिणेंतली एकाद्री घटना, प्रसंग वा विचार साहित्यिक आपल्या काळजांत रुजयता आनी ताका आपले कल्पनेचीं पाखां दिवन, कोंबी तांतयां उबयता तशी, ती कल्पना उबयता आनी तातुंतल्यानच एक कलापूर्ण कृती तयार जाता. कोंबयेच्या पिलाक जशें कोंबयेचें रूप पडटा, तेचभाशेन साहित्य प्रकार हो रूपान जिणेकडेन नातें जोडपी आसचो ; पूण तो जिणेचो फोटोग्राफ जावंक फावना. जेन्ना तें जिणेचें पडबिंब आसता तेन्ना त्या साहित्य प्रकारांत वेळकाळ, थळ, मनशां, वातावरण एकाद्रे भुंयेचे आसूं वा नासूं, थळाव्या लोकांचे जिबेर घोळटली उतरावळ तातूंत उरूं वा ना उरूं, पात्रांची भासभेस ते समाज जिणेसारको नासलो, तरी त्या साहित्याक मातयेचो वास येवंक लागता.

मातयेचो वास हो पावसाचे पयले दडकेवांगडा येता तसो आसता. तो सोदल्यार हाताक लागचो ना, पूण अणभवचो लागता. गिमांत माती तापता, देखूनूच मृद्‌गंधाचे काव्य जल्मता. जिणेची साधना करून ज्या साहित्यिकाचें मन तापता त्याच मनांत कलेचो आविष्कार जायना फुडें ती कला मातयेच्या वासान परमळीत जाता.



# 5
# कला आनी अश्लीलपण

तो म्हाका मेळूंक आयिल्लो.

म्हज्या मेजाचेर श्रीवात्सायनमुनि हांणी बरयिल्लो 'कामसूत्रम्' ग्रंथ आशिल्लो. ताणें तो हातांत घेवन चाळ्ळो.

'असलीं पुस्तकां तूं वाचता देखूनच तूं अश्लील कथा बरयता.' ताणें म्हळें.

हांव ताका पळयत रावलों. जाप कितें दितलो ? थोड्या वेळान ताणें म्हळें, 'हें पुस्तक हांव दोन दिसांखातीर वाचूंक व्हरूं ?'

आतां म्हज्या अजापाक शीम उरली ना. 'म्हजी कथा अश्लील अशें तुका दिसता आनी हें पुस्तक तूं वाचूंक सोदता. तें अश्लील न्हय ?' हांवें विचारलें.

'अश्लीलच. पूण अश्लील जालें देखून तें वाचूं नये, असो खंय नेम आसा? अश्लील पुस्तकांच लोक चड वाचतात. तुज्यो कथा लोकांनी वाचच्यो अशें दिसता आसत जाल्यार तूंय अश्लील कथा बरय.' ताणें म्हाका सल्लो दिलो. 'लोक तुका निंदितले. पूण तुज्यो कथा आवडीन वाचतले. सगले लोक एक नंबरचे दांभीक !'

हांवें म्हळें, 'अश्लील कथा म्हळ्यार कसल्यो कथा म्हणटा तूं ?'

'तें म्हाका सांगूंक येवचें ना. ' ताणें म्हळें. 'पूण पयर कोंकणी कथालेखकांचें एक शिबीर जालें आनी त्या शिबिरांत तुगेली 'अबुद्ध मोग ' ही कथा अश्लील आसा अशी जायत्या जाणांनी टिका केली. तूं त्या शिबिराक हाजीर नासलो हें बरें जालें.'

'हाजीर आशिल्लों जाल्यार हांव तांका विचारतलों आसलों, ते कथेंत कितें अश्लील आसा ? खरेंच सांगतां तुका, अश्लीलतेची खंयचीय व्याख्या ओढून ताणून लायली तरी 'अबुद्ध मोग' ही कथा अश्लील थारची ना. मागीर ती अश्लील कित्याक म्हळी तें म्हाकाच कळना '.

'अशें कितें आसा तर ते कथेंत ?' ताणें म्हाका विचारलें.

'ती सोड. म्हजी आनी खंयची कथा तुका अश्लील दिसली तें तरी सांग.' हांवें आग्रो धरलो.

'खरें सांगूं, म्हाका अश्लील म्हळ्यार कितें तें सारकें कळना. त्या दिसा उलोवप्यांनी म्हळें, तुजी कथा अश्लील आसता, म्हणून हांवेंय तशें मानलें.'

ताचेकडेन वाद घालपाची म्हजी इत्सा नासली. 'कामसूत्रम्' घेवन तो गेलो आनी हांव येवजूंक पडलों. बायल आनी दादलो हांच्या संभोगांतल्यान सृश्ट निर्मता. प्रकृती आनी पुरुष हांकां एकामेकाची दिसता ती ओड हें अेक सनातन सत्य. संवसारांतल्यो चडश्यो कथा ह्याच विशयांचेर आदारिल्ल्यो आसात. आयजमेरेन साबार देशांतल्या तरेकवार भासांतल्या कथाकारांनी 'प्रकृती आनी पुरुष हांचे संबंध होच आपल्या कथांचो विशय दवरलो. अशें आसूनय त्यो कथा आदलेवरीच आयज लेगीत वाचप्यांक भाळयतात. वाचपी त्या कथांतल्यान आपल्या अंतर्मनाचें पडबिंब सोदतात.

हांवें म्हजी 'अबुद्द मोग ' ही कथा पर्थून वाचून काडली. तातूंत 'अश्लील तत्त्व' खंय आसा हें सोदपाचो यत्न केलो. म्हाका तें गावलें ना.

'अबुद्द मोग' ही कथा आमी तपासून पळोवया. हे कथेंत दोन पात्रां आसात. दोगांय जुवानपणाच्या हुंबऱ्यार उबीं. चौदा वर्साचें जायू आनी अकरा वसांचो देवू. मनीस प्रकृतीक सभाविक तांकां एकमेकां विशीं ओड दिसता. एकमेकांचें आकर्शण दिसता. पूण तें तांकां सारकें कळना आनी उतरांतल्यान सांगूंकय येना. तांचे करणेंतल्यान तांच्या मनाच्यो भावना उक्तावपाचो हांवें हे कथेंत यत्न केला. तोच कथेचो विशय. आतां वातावरण पळयात. रानांतल्या एकांतांत तीं सांगातान भोंवतात, खेळटात आनी ते परिस्थितींत कांय गजाली करतात. कंवळ्या जुवानपणाचे उमाळे आनी उत्सुकताय त्या गजालींतल्यान उक्ती जाता. अशें गांवाकणकणीं घडटा. सगल्या युगांत, सगल्या देशांत अशें घडत आयलां. जुवानपणाची जाग अज्ञानाच्या विळख्यांतल्यान जेन्ना भायर सरूंक सोदता, तेन्ना जें कितें घडटा ताची ही कथा. ती अश्लील आशिल्ली जाल्यार हो असलो विशयच कथेक वर्ज्य जावन बसतलो आशिल्लो.

कथा आसूं, कविता आसूं, चित्र वा शिल्प आसूं, दृश्य वा प्रसंग आसूं, एकाद्रो मनीस तें पळयता वा विचार करता वा कल्पनेन येवजिता आनी म्हणटा की खंय तरी अश्लीलपण आयलां, तेन्ना दोन शक्यता आसतात. एक तर खऱ्यांनीच थंय अश्लीलपण आसूं येता, नाजाल्यार ताका संदर्भ सारको समजल्लो नाशिल्ल्यान ताका तें अश्लील अशें दिसूं येता. सृजक जेन्ना एकाद्री कलाकृती निर्मिता, तेन्ना मनशाक निर्भेळ, निर्मळ आनंद दिवचो, हो ताचो हेत आसता. रसिकांच्या मनाक अश्लीलपण जाणवलें म्हणटकच त्या आनंदांत व्यत्यय येता. दुदांत मिठाचो खडो पडचो तसो...

कांय वसां आदीं हांवें 'हिप्पी चली' नांवाची अेक कथा बरयिल्ली. ही कथा मुळांत कोंकणींत बरयिल्ली आनी त्याच अदमासाक एके हिंदी पत्रिकेच्या संपादक मित्रान म्हजेकडेन एक कथा मागली. हांवें ते कथेचो हिंदी अणकार करून पत्रिकेक धाडलो. ती छापून येनाफुडें हिंदीच्या साहित्यिक लोकांमदीं ती कथा अश्लील काय कितें हे विशीं चर्चा जाली. हांव गोंयांत आनी चर्चा दिल्लींत. म्हाका ते चर्चेची खबरच नाशिल्ली. उपरांत भारतीय भासांतल्यो श्रेष्ठ कथा नांवांचें एक संकलन हिंदी भाशेत उजवाडाक आयलें. त्या संग्रहांत म्हजे 'हिप्पी चलये' चो आसपाव जाल्लो. एका आंतरराष्ट्रीय संकलनांत उपरांत ती घेतली. ते कथेची खुबच वाखाणणी जाली. तेमेरेन मूळ कोंकणी कथा उजवाडाक येवंक नाशिल्ली. साहित्य अकादमीच्या कोंकणी कथा संग्रहांत ती मूळ रुपांत उजवाडाक आयल्या.

म्हाका दिशिल्लें, कोंकणी कथाकार कला आनी अश्लीलतेची चर्चा करता आसतना घडये 'हिप्पी चली' अश्लील थारायत. पूण ते कथेविशीं कोण कांय उलयलोच ना. आनी 'अबुद्द मोग' ही कथा मात तांका अश्लील दिसली.

कसलेय घडणुकेक, प्रसंगाक वा विचाराक जेन्ना भौशीक रूप मेळटा, तेन्नाच ताचेपसून कलाकृती निर्माण जावं येता. म्हळ्यार तें खाजगी आसत, वैयक्तीक आसत जाल्यार ताजेर मर्यादा पडटा. खुबशे फावटीं हें ताचें 'वैयक्तीकरण', अणभवाक कलेचें रूप दिवपाआड येता. जें उकतें जावंक जाय वा जावं येता, तेंच कलेचें रूप आसता. जें लिपोवपासारकें तें कलेंत

आयलें जाल्यार तें नदरेक आडखळटा आनी कला विद्रूप जाता. एका विद्यार्थ्याक गाढवाचेर निबंद बरोवंक सांगलो. गाढव एक जनावर. तें तण खाता. हाचेभायर ताका कांयच खबर नासलें. तो शेतावयलो निबंद पाठ करून गेल्लो. ताणें पाठ केल्लो निबंध पुराय बरोवन काडलो आनी निमाणेकडेन एक वाक्य जोडलें, 'असल्या ह्या शेतांत एक गाढव चरतालो.' तात्पर्य, कलेचे नदरेन कुशीक सारूंक येताले अशे अणभव जेन्ना कलाकृतींत येतात, तेन्ना ती कृती त्या निबंदासारकी जाता.

कलाकाराक एक अनुभूती भोगता आनी तिका तो उतरांनी, रंगांनी वा फातरांतल्यान रूप दिता. अशें करता आसतना तो आपल्या मनातली अनुभूती मनापासून वेगळावन कागद, कॅनव्हास वा फातराचेर बसयता. आपल्या मनाच्या विकारांनी ती भश्टूंक दिना. अश्लीलपणाचो विचार करता आसताना रसिकानय कलाकाराच्या कलाकृतीकडेन आपल्या मनाचे विचार कुशीक दवरून पळोवंक जाय. ही प्रक्रिया सादी वा सोपी न्हय. आमचें मन हें विकार, पूर्वग्रह, दुबाव हांणी भरिल्लें आसता. तें आमचे बुद्दिचेर परिणाम करता आनी बुद्द आमची नदर इबाडटा. ताका लागून जायते फावटी एकाद्री कलाकृती पळयतल्याक अश्लील दिसूं येता. पूण 'अश्लील' असो निवाडो दिवचे आदीं नीरक्षीर न्यायान रसिकान तिजें मूल्यांकन करूंक जाय आनी तरीकय ताका थंय कितेंय अश्लील वा बिभत्स दिसलें जाल्यार आमच्यांनी असो निष्कर्ष काडूं येता की कलाकार आपले अणभूतीक भौशिक रूप दिवंक पावलो ना आनी ताचे विकृतीचो परिणाम ताचे कलेचेर जालो.

कलेचो आनंद हो देहभान विसरूंक लायता. रसीक जेन्ना कलाकृती पळोवन तन्मय जाता तेन्नाच ताका तो कलानंद मेळटा. कलेच्या संवसारांत रसीक दोळ्यांनी भीतर सरता. काळीज आनी बुद्द एकरूप करून कलाकृतीचो आस्वाद घेता.

तेन्ना तो भोंवतणच्या संवसाराक विसरलो ना जाल्यार ताची ब्लू फिल्मातलो शृंगार पळयतल्या प्रेक्षकासारकी विकृती चाळवता आनी नितळ, निर्भेळ आनंद ताका मेळूंक पावना.

ह्या तर्कान फुडें गेले, जाल्यार आमच्यांनी म्हणूं येता की एकाद्री कथा, चित्र वा शिल्प ही कलाकृती आसत जाल्यार ती अश्लील आसूंकच नज. जर

अश्लील आसत जाल्यार ती कलाकृती जावंकच पावची ना. अणभवाक जी कृती नदर दिता, तीय एक अणभूतीच आसता.

मागीर प्रस्न उरता तो असो की लेखकाक जी कृती अश्लील दिसना वा ती बरयतना ताच्या मनाक विकार आपुडना तीच कलाकृती कांय वाचप्यांक अश्लील कित्याक दिसता ? ह्या प्रस्नाचे जापेंतच श्लील-अश्लील वादाचें मर्म आसपाविल्लें आसा. कलेचो आस्वाद घेवपाची प्रक्रिया मनशा कणकणी बदलता. ज्या मनात अशी प्रक्रिया घडटा, तें मन कथेंतल्या संवसाराकडेन एकरूप जावंक पावना. तो आपलो पूर्वग्रह कुशीक सारून ते कथेचें मूल्यांकन करिना. तो आपल्या मनाचो एक नवो संवसार थंय उबो करता. आपले दुबाव, विकृती, भंय, वासना ते कलाकृतींत भरशिता आनी पुराय कलाकृती तो भश्टावन उडयता.

इतल्या विवेचना उपरांत आतां हांव 'हिप्पी चली' हे कथेविशी सांगतां. गोंय स्वतंत्र जालें आनी हिप्पी संप्रदायाचे लोक गोंयात येवंक लागले. गोरेच कातीचे उगडे नागडे चले - चलयो आमी ह्या आदीं केन्नाच पळोवंक नासले. जिका आमी लज म्हणटात ती तांच्यांत नासली. देह उकतो दवरून निर्विकार मनान चले आनी चलयो भोंवतात, ही गजाल अप्रुपाची आसली ! संवसारांतली कुटुंबसंस्था मोडून भौतिक समृध्दीत जल्माक आयिल्लीं हीं भुरगीं एका नव्या समाजाचीं रचणूक करूंक भायर सरिल्लीं. दादलो आनी बायल हांचे संबंध हे लिपोवपासारके न्हयत वा लज धरपासारकेय न्हयत. तान लागतकच आमी जितल्या सहजपणान उदक पियेतात, तेच तरेन शरीरसुख भोगपाची एक कल्पना त्या संप्रदायामदीं रूढ जाल्या. गोंयचेर जेन्ना हिप्पींचें आक्रमण जालें, तेन्ना गोंयचो समाज पुराय धवळ्ळो. आमचे संस्कार आनी मान्यतायेक जबर धक्को बसलो. त्या सगळ्या गजालींचे चित्रण हे कथेंत करता आसताना तांचे जिणेचें आनी विचारांचे पडबींब म्हाका कथेंत हाडचेंच पडलें. ही कथा म्हळ्यार भारतीय संस्कार आनी हिप्पी विचार हांचो संघर्श. इतली गजाल समजतकच ही कथा पोजडी वा अश्लील दिसपाचें कारण ना. पूण संदर्भ सोडून कांय वाक्यां कुशीक काडलीं आनी आपल्या मनाच्या विकारांत तीं भरशिल्लीं जाल्यार कथा पोजडी दिसूं येता.

कला आनी अश्लीलपण हो एक खूब पोरणो आनी एका अर्थान सनातन वाद. श्लील आनी अश्लील हांचेमदलें अंतर इतलें थोडें आनी दोगांकय जोडपी धागे इतले तलम की एका मनशाक जें अश्लील दिसता तें दुसऱ्याक वास्तव दिसूं येता. तातूंतय थळ, काळ, वातावरण, प्रसंग हाका लागून एकच वस्त एकाच वेळार वा वेगळ्या वेळाचेर एकाच थळांत वा विंगड थळांनी, एकाच प्रसंगार वा वेगवेगळ्या प्रसंगांचेर श्लील वा अश्लील, सभ्य वा असभ्य, करूण वा मायेस्त दिसूं येता. भारतीय साहित्यांत कला आनी अश्लीलपणाचो वाद वितंडवादाच्या रूपान चलतालो, तेन्ना कोंकणी साहित्यिक आपले भाशेचें अस्तित्व तिगोवन दवरचेल्या वावराकच माथें मारून बशिल्ले... ते उपरांत गंगा - गोदावरीच्या पात्रांतल्यान खूबशें उदक व्हांवन गेलें आनी खूबशे संदर्भ बदल्ले... एका काळार गोल (पांचवारी) साडी न्हेसतली चली सभ्यतायेची मर्यादा हुपता, असो बोवाळ जातालो. आयज कोणाक खरें लेगीत दिसचेंना. आदल्या काळावयले हिंदी सिनेमा पळयले जाल्यार ते मोगाचें चित्रण कितलें सोवळ्या, सूचक आनी संयमी तरेन करताले हें ते पळयतल्याक जाणवता. पूण त्या काळार सिनेमा पळोवप, चलयेन परकी चल्याकडेन उलोवप हें लेगीत असभ्य मानताले. ते उपरांत हिंदी सिनेमा खंयचे खंय पावलो...

हाचेवयल्यान आमी पळयतले की काळ बदलता तशी मान्यतायय बदलता. एकच गजाल जी काल गैर दिसताली,ती आयज सभ्य जाता. एकाद्र्या देशांत जें बिभत्स थारता, तें दुसऱ्या देशांत बऱ्या संस्काराचें प्रतीक थारूं येता. कलाकार हो आनंद निर्मुपी कलेक रूप दिता. खजुराहोचीं शिल्पां हीं मिथुनशिल्पां जावन आसात. कलाकाराचे नदरेन लोक तीं तोखेतात. ती कला आसता. मैथून हें कलेचें एक आंग. तें कलापूर्ण रितीन लोकांमुखार दवरपाचो जेन्ना यत्न जाता, तेन्ना थंय अश्लीलपण उरना. जो न्याय कलेक लागू पडटा, तोच शास्त्राकय लागू पडटा. मनशाच्या शरीराचें शास्त्र शिकता आसतना एका - एका इंद्रियाचो आमी अभ्यास करतात. ताचे गुणधर्म समजावन घेतात. थंय अनावृत देहाकडेन संबंद आयलो तरी अश्लीलपण नासता. 'कामसूत्रम्' हो कामशास्त्रावयलो ग्रंथ. काम म्हळ्यार जिणेचें आंग.

तांतूंत विज्ञान आसा आनी कलाय आसा. ताची फोडणीशी जेन्ना एकाद्रो वात्सायन करता, तेन्ना तातूंत अश्लील वा बिभत्स कितें आसता हें म्हाका समजना. पूण जाच्या मनांत विकृती आसता ताका आशिल्लें सोडाच. नाशिल्लें लेगीत दिसता. हो ताचे विकृतीचो दोश.

कांय उदाहरणां घेवन आमी मनशाची नदर कशी आसूं येता हाचो अदमास घेवंया.

अशी कल्पना करूया की एक मनीस सिनेमा पळोवंक थिएटरांत गेला. उत्तान शृंगारीक दृश्यांनी भरिल्लो सिनेमा चलता. ती एक भावकथा. पूण सूचकतेचो आदार घेना आसतना दिग्दर्शकान प्रेमाची उत्कटता दृश्यांत दाखयल्या. थिएटरांत चडशे लोक नात. त्या मनशाचे कुशीक एक कदेल रिकामें. दुसऱ्या कदेलाचेर एक सुंदर, तरणाटी बायल बसल्या. थिएटरांत भितर सरता आसतना ताणें तिका पळयिल्ली. तिचें रूप आनी आंगलोट पळोवन तो भाळिल्लो. ताणें मनांत म्हणिल्लें, ''सौंदर्याची मूर्त कशी आसता, हाचो हो एक नमुनो.'' तो मदीं मदीं ते बायलेकडेन पळयतालो आनी बायल चोरून ताचेकडेन पळयताली. ताका दिसलें कीं बायल आपणाक खुणायता, कितें तरी सुचयता.

इंटरव्हलाक तो उठलो आनी बायलेसरीं गेलो. ताणें विचारलें, 'म्हज्या मुखावयले लायनींत बशिल्ल्या लांब मनशाची तकली आडखळ हाडटा. हांव तुजेसरीं रिकामें आशिल्ल्या ह्या कदेलाचेर बसूं ?'

मान हालोवन ती मान्यताय दिता.

तो तिचे बगलेच्या कदेलाचेर बसता. सिनेमा सुरू जाता. थिएटरांत काळोख. दोगांय आंग चोरून बसतात. मदींच नकळटना दोगांकय एकमेकांचो स्पर्श जाता. दोगांकय दिसता की दुसऱ्यान बळयां तो स्पर्श केला. पूण कांयच उलयनात. पयल्या स्पर्शासरशीं दोगानीय विजेचो शॉक बशिल्लेवरी आंग चोरून घेतिल्लें. परत दुसरो स्पर्श. आतां कोणूच आंग चोरून घेना. तो धीट जाता. आपलो दावो हात तिच्या कदेलाचे फाटल्यान दवरता. ल्हवूच तो तिच्या केंसांक तेंकता. प्रतिकार जायना. ल्हवू ल्हवू हात तिज्या दाव्या भुजार वता...

सिनेमा सोंपता. थिएटरांत उजवाड पडटा. तेन्ना ती लजेन तांबडीच जाल्ली आसता. तकली सकल घालून न्हेसण सारकें करता आनी आंग चोरून थिएटरांतल्यान भायर सरता.

हें एक काल्पनिक चित्र. समजा, त्या थिएटरांत फाटले लायनींत एक तिसरो मनीस आसता. तो हें सगळें पळयता. त्या वेळार ताका दिसूं येता की तीं दोगांय असभ्य वागलीं. तांची आदली वळख आशिल्लीं एकमेकांचेर प्रेम आशिल्लें वा खीणभर तांचेमदीं घोवा - बायलेचें नातें आशिल्लें अशें मानलें तरी तांची वागणूक असभ्यच म्हणची पडटली, अशें ताका दिसता. तशें तो आपल्या शेजाऱ्याक सांगता. तेन्ना शेजारी म्हणटा, ' तातूंत असभ्य कितें आसा ? सिनेमातल्या दृश्यांच्या मानान तांची वागणूक सभ्यच म्हणूंक जाय.'

''सिनेमांतली गजाल वेगळी. सिनेमांतलीं दृश्यां खरीं नासतात. पळयतल्यांचें मनोरंजन करपाखातीर तशीं तीं चित्रायतात.'' पयलो जाप दिता.

आतां दुसरें एक चित्र कल्पुंया. आनीक एक अशीच सुंदर बायल एके सभेक आयल्या. तिजे मांडयेर ल्हान भुरगें आसा. मदींच भुरगें भुकेलें आनी रडूंक लागलें. सगल्यांची नदर त्या रडटल्या भुरग्याकडेन थिरावता. आवय एके नदरेन सगल्यांक पळोवन घेता आनी आपल्या पदरा पोंदा भुरग्याक घालून ताका दुदाक धरता. ह्या यत्नांत जे लोक तिजेर नदर थिरावन आशिल्ले, तांकां तिचें आंग दिसता. पूण कोणाकच कांय गैर दिसना. तरी एक मनीस म्हणटाच, 'ती बायल खरेंच सुंदर म्हणपाचें मान्य करूनच तिगेली वागणूक असभ्य म्हणची पडटली.'

आतां पळयात, ज्या दृश्यांत भुरग्याचें आनी आवयचें नातें पळोवपाचें थंय जो मनीस वेगळेंच कितें तरी पळयता आनी तें दृश्य असभ्य अशें पाचारता.

तिसरें चित्र घेवंया. विमानतळाचेर एक मनीस विदेशांत वचूंक भायर सरला. ताका निरोप दिवपाक तागेली बायल आनी तिचो बापूय आयिल्लीं

आसात. विमान सुटपाचो वेळ जालो. बायलेचे दोळे दुकांनी भरून आयले. सगळ्यां हुजीर घोव तिका वेंगेंत घेता. आपल्या ओठांनी तिचीं दुकां पुसता आनी तोंड वयर करून तिजें एक चुंबन घेता. रूख आनी वाल एकमेकांक वेंगावन रावतात, तशीं तीं चार खीण उरतात. तो वता आनी तीच बायल परत आपल्या बापायचे वेंगेत येता. बापूय तिचे फाटीवेल्यान हात भोंवडावन तिका धीर दिता.

जायते लोक हें दृश्य पळयतात. पूण कोणाकच तातूंत विपरीत अशें कांय दिसना.

आता चवथें चित्र. एका ऑपरेशन थिएटरांतल्या ऑपरेशन टेबलाचेर एक तरनाटी सुंदर बायल विवस्त्र अवस्थेंत न्हिदिल्ली आसा. एक तरनाटो सर्जन ऑपरेशनाची तयारी करता. तिच्या आंगावयल्यान हात भोंवडावन तिची तपासणी करता. ती तपासणी करता आसतना डॉक्टराच्या मनांत कसली भावना आसता ? खीणभर अशें मानूं या, त्या डॉक्टाराची ती प्रेयसी. पूण त्या वेळार डॉक्टाराच्या मनांत कसलोच विकार येना. ताचे नदरेन ऑपरेशन टेबलावयली व्यक्ती हो एक पेशंट आसता.

आनीक एक चित्र कल्पुंया. रांदचे कुडींत रांदता आसतना एके बायलेची साडी पेट घेता. ती किळांच मारता. शेजारचो एक दादलो धांवन येता. वेगिवेगीन बायलेचें सगळें न्हेसण सोडयता. उजो पालयता. भियेवन गेल्ली बायल घुंवळून पडटा. तिका तो उखलून भितर हाडटा... हें दृश्य अश्लील थारतलें?

आनी निमाणें चित्र नदरेमुखार हाडूंया एके कॅबरे नर्तकीचें. ती नाचता. नाचतां, नाचतां आंगावयले कपडे देंवयता. अभिनयान आनी हालचालीन लोकांची विकृती जागयता.

असलीं साबार चित्रां आमच्यांनी कल्पूं येतात. सगल्या चित्रांनी एक बायल आसता. तिचो धांकिल्लो वा उकतो देह आसता. तो दादल्याक भाळोवपासारको आसता. कांय दृश्यांनी आलिंगनां, चुंबनां, स्पर्श येवन वतात. पूण हीं सगलींच दृश्यां आमी अश्लील मानचे नात. कारण इतलेंच कीं अश्लीलता ही दृश्यांत नासता, तीं पळयतल्याचे नदरेंत आसता.

काळजाच्या अमूर्त उमाळ्यांक मूर्त रूप दिवप हेंच कलाकाराचें काम आसता अशें मानलें तर विशिश्ट परिस्थितींत एकाद्र्या मनशाचे समाजाचे उमाळे रसिकांक सारके कळीत करचेखातीर लेखक वा चित्रकार जेन्ना वास्तव चित्रण करपाचें धाडस करता, तेन्ना त्या चित्रणात जर शृंगार आयलो तर तो शृंगार तीन कारणांखातीर आमकां जाणवूं येता. पयलें कारण म्हळ्यार पात्राच्या मनांत नासता, पूण लेखकाच्या मनांत मात तो शृंगार आसता आनी ताच्या बरपांतल्यान नकळटना तो व्यक्त जाता आनी तो वळखूं येता. दुसरें कारण, पात्राच्या मनांत शृंगार नासता आनी लेखकाच्या मनांतय तो नासता तरी आसतना वाचप्याच्या मनांत तो आशिल्ल्यान दोळ्यांचेर ज्या रंगाचें वक्ल चडयता, त्या रंगाची सृश्ट जशी मनशाक दिसता तसो वाचकाक, थंय शृंगार दिसूंक लागता.

एक ल्हान भुरगें नागडें भोंवता, ताचो फोटो आमकां अश्लील दिसना. कित्याक तर भुरग्याच्या मनांत, फोटो काडटल्याच्या मनांत वा तो पळतल्याच्या मनांत विकार नासता. पूण कल्पना करात, एक सुंदर आनी तरुण बायल न्हंयचेर न्हाता. न्हंयचे एके देगेर एक फोटोग्राफर आसा. तो तें सौंदर्य कॅमेऱ्यान चित्रायता. न्हातले बायलेक ताची खबर नासता. आपणाक कोण पळयना हे भावनेन ती निर्विकार मनान न्हाता. फोटो काडटल्याच्या मनांत विकार नासता. तो कलेचे नदरेन बायलेचें सौंदर्य नियाळटा. पूण अशें मानुंया की तिसरो एक मनीस न्हंयचे दुसरे देगेर झिलांनी लिपून ते बायलेच्या उकत्या देहाकडेन आपले नदरेन व्यभिचार करता. आतां एक प्रसंग जातूंत तीन पात्रां आसात, पूण एकेच पात्राच्या मनांत विकार आसता, जाल्यार हो प्रसंग अश्लील म्हणूं येता ? चित्रकार ह्या प्रसंगाचें वर्णन करता आसतना कथाकार ते बायलेच्या आनी चित्रकाराच्या मनांतले भाव जशे उक्तायतलो, तेच भशेन त्या झिलाफाटल्या मनशाच्या मनांतले विकारय चित्रायतलो. अशें केलेबगर ताची कथा पूर्ण जावपाची ना. ते विकार कथेंत हाडिल्ल्यान कथा अश्लील जातली?

सैमाचे वेव्हार पळयले जाल्यार जायत्यो गजाली अश्लील थारतल्यो. मेडिसीनच्या अभ्यासक्रमांत आनी कायद्याच्या पुस्तकांनी अशीं वर्णनं येतात.

जी थंय गरजेचीं आसतात. तितलीं वर्णना कुशीक काडून तीं पुस्तकां अश्लील थारायल्यार कशें जातलें ?

'हिप्पी चली' हे कथेंत जर हिप्पी संप्रदायाचो मुळावो सिध्दांत मांडूंक नाशिल्लो जाल्यार ती कथा अर्दकुटी उरतली आशिल्ली देखून दुसरे खंयचेय कथेंत जीं वर्णना अश्लील थारूं येतालीं तीं हिप्पी सिध्दांताच्या संदर्भात म्हजे नदरेन वास्तव जावन बसतात. हिप्पींच्या वातावरणांत ज्यो गजाली सभावीक त्योच गजाली हेरकडेन विकृत आसूं येतात. देखून श्लील कितें आनी अश्लील कितें ? हें थारायतना एकाद्रें उतर वा वाक्य, वर्णन वा प्रसंग वेगळो काडून थारावंक मेळचें ना. कथेच्या पुराय वातावरणाकडेन तें सुसंगत आसत जाल्यार तें अश्लील म्हणूंक येवचें ना.

संगितांत जें बेसूर आसता तेंच विकृत थारता. कलेंत जें विसंगत आसता, तें विकृत म्हणचें पडटा. कला म्हळ्यार जिणेचें एक सुसंगत पडबींब. थंय विसंगती आयली जाल्यारच अश्लीलपण आयलें अशें आमच्यांनी म्हणूं येत.



# 6

# कोंकणी साहित्याचो फुडार

कोंकणी साहित्यांत कितें उणें आसा, हें दाखोवन दिवप सामकें सोपें. कित्याक तर भारतांतले खंयचेय अर्विल्ले भाशेंत साहित्य निर्मितीचो वावर ज्या काळार चलतालो, त्या काळार कोंकणी भास आपल्या अस्तित्वाखातीर झुजताली. भायल्या भितरल्या दुस्मानांनी तिच्या गळ्याभोंवतणी फांस बांदिल्ले आनी तिगेलेच कांय अविचारी पूत ते आंवुळटाले. ह्या आगळ्यावेगळ्या अत्याचारांतल्यान आपलें अस्तित्व सांबाळपाखातीर कोंकणीक लांब काळ मेरेन झुजचें पडलें. देखून हेर भारतीय भासांनी त्या त्या भाशीक समाजाचे गरजेप्रमाण साहित्य निर्माण जातालें, त्या वेळार कोंकणी लेखक आपले मायभाशेच्या गळ्याभोंवतणी अंदल्ले विळखे सोडोवपाच्या वावरांत घुस्पल्ले. देखून फाटल्या साडेचारशीं वर्सांमिदीं हेर भारतीय भासांनी जे तरेचें जितलें साहित्य निर्माण जालें, तितलें कोंकणींत जावंक पावलें ना. ते आदीं कोंकणींत जी सरस्पत आशिल्ली म्हणपाची गवाय इतिहासाच्या पानांनी मेळटा, त्याच पानांनी तें सगळें साहित्य कशे तरेन लासून उडयलें हाची खबरय वाचूंक मेळटा.

कोंकणीच्या अस्तित्वाखातीर चलतलें झूज अजून पुराय सोपूंक ना. जाल्यारय कोंकणी समाजाचे नदरेन कसलें साहित्य गरजेचें हाचो अदमास घेवन तें बेगोबेग कशें निर्माण करूं येत हाचो विचार करपाची गरज आज आसा. जें कितें आसलें तें सोंपलें हे खातीर वायट दिसलें तरी कश्टत बसप कोंकणी समाजाकच न्हय तर खंयच्याच समाजाक सोबचें ना. 'कसतलो कशीत वता आनी मेरेवयलो परवंता ?' म्हणटात ताचो उगडास धरून आमी हे फुडें परवंत बसप समा जावचें ना. फिनिक्स पक्षाची अशी खबर सांगतात की तो जाणटो जालो म्हणटकच आपूणच उजो पेटयता आनी त्या उज्यांत आत्माहुती दिवन आपल्या देहाच्या गोबरांतल्यान नवो फिनिक्स पक्षी जल्माक घालता. कोंकणीतलें साहित्यिक धन सोपिल्लें आसलें तरी आमची संस्कृतिक परंपरा अखंड उरल्या आनी ते परंपरेक लागून एक संस्कारी

आनी फुडारिल्लो कोंकणी समाज घडूंक पावला. तितल्यापुरते नश्ट जाल्ल्या साहित्यान आपली सासाय जिती दवरल्या हे उपकार ल्हान सान न्हय.

विकासाचो विचार करता आसतना संवसारांत देशाचे दोन गट करतात. एक फुडारिल्ल्या देशांचो गट आनी दुसरो विकसनशील वा फाटीं उरिल्ल्या देशांचो गट. फुडारिल्ल्या देशांकडेन खुबशी आस्पत आसता, हें खरें आसलें तरी ती आस्पत एकठांय करता आसतना, तांदळाभरशीं कुंडो रावता तशी, जायती अनिष्ट तत्वां ताचे उदरगती मदीं लिपतात. आयज फुडारिल्ल्या देशांक त्या अनिष्ट तत्वांचो त्रास जाता. पूण तीं तांचे जिणेपसून वेगळावंक नजत. ह्याचे उरफाटें जांयांचो अजून विकास जावचो आसा, त्या देशांचो एक फायदो आसता. फुडारिल्ल्या देशांच्या अणभवावयल्यान आपले उदरगतीची येवजण आंखपाची संद तांकां मेळटा. जें कितें अनिष्ट आसत तें कुशीक काडून आपले कडलें सैम, आपलें बळ, आपली गरज वळखून आनी आपल्या फुडाराची दिशा थारायतना इश्ट तितलें घेवपाची मेकळीक ह्या देशांक मेळटा. हो न्याय साहित्याकय लागू जाता. मार्गान वतना फुडलो जर फातराक आपटलो जाल्यार फाटलो मनीस जसो शिटकावता तसो साहित्य निर्मितीच्या वावरांतय हेर भासांनी जे अणभव घेतले ताचेपसून बोध घेवपाची संद कोंकणीक सोंपेपणी मेळटा. देखून कोंकणी साहित्यांत अशें कितें ना जें, हेर साहित्यांत आसा हें येवजुचे परस कोंकणी समाजाच्या फुडाराचे नदरेन कोंकणीक कसलें साहित्य जाय हें येवजुवप गरजेचें.

एक गजाल आमी विसरूंक फावना की इतिहासाच्या आघाताक लागून कोंकणी समाजाचें चडांत चड लुकसाण जाल्लें आसलें, तो विखंड जावन देशोधडीक लागिल्लो आसलो तरी त्याच इतिहासाक लागून कोंकणी समाज भौभाशीक जावंक पावला. आर्य कुळांतल्या आपल्या भयणी भासांकडेन जसो ताचो संपर्क आयलो, तेच भाशेन द्रवीड कुळयेंतल्या भासांकडेनय ताचो संबंद आयलो आनी त्या दोनूय कुळांतल्या भासांचेर प्रभुत्व मेळोवन तांची साहित्यिक गिरेस्तकाय वाडोवपाचो वावरय कोंकणी समाजांतल्या पुरुषार्थी लेखकानीं केलो. ते भायर तरेकवार विदेशी भाशांकडल्या संपर्कानय कोंकणी मनशान आपले बुद्धीचो आवांट विशाळ करून दवरला. ताका लागून हेर देशी आनी विदेशी भासांनी गरजेचें अशें कितें आसा, तांचो साहित्यिक पांवडो खंयचो आसा, हें कोंकणी मनशाक बेस बरें खबर आसा. आमी एक येवजण

आंख्रली जाल्यार हेर भासांक जें साहित्य निर्मूंक शेंकडे लागले तें दसकांमदीं कोंकणीत येवं येता.

पूण कोंकणी साहित्याक खरेली गरज आसा ती आपलें आत्मबळ वाडोवपाची. इतिहासाच्या आघातांक आनी शेंकड्यांनी वर्सांच्या गुलामपणाक लागून कोंकणी मनीस आत्मविस्वास वगडावन बसला. आत्मविश्वासाचे इंगळे ताच्या काळजांत पालोवन थंड जाल्यात. त्या इंगळ्यांचेर एक कींट उडोवन ते पर्थून पेटोवपाची गरज आसा. चालू शेंकड्याच्या पयल्या अर्दांत शणै गोंयबाबांनी तो वावर केलो देख्रूनच अस्तित्व सांबाळपाच्या झुजांत कोंकणीक जैत मेळ्ळें. आज तोच वावर वेगळ्या संदर्भांत करून कोंकणीच्या फुडाराची दिशा आमकां थारावची पडटली.

प्रमाण भाशेचो अभाव ही आमची मुख्रेल अडचण. ताचें कारण आमचो इतिहास. इतिहासान कोंकणी मनशाक एकमेकापसून शेंकड्यांनी मैल पयस व्हेलो आनी एक संस्कृतीक प्रवाह विखुंड जावन ताचे साबार ल्हान ल्हान प्रवाह जाले. देश, काळ, परिस्थितीक लागून विंगड विंगड लिपयो कोंकणी भाशेन आपणायल्यो. शेंकड्यांनी वर्सां हो वेगळोचार चालू उरलो. आज देवनागरी लिपीच्या आदारान हे सगळे प्रवाह एका विशाळ पात्रांत हाडपाचो वावर चल्ला. न्हंयचें पात्र प्रवाही दवरतलो जाल्यार ताका दोशीं दोन धडो लागतात. भास वा साहित्याच्या प्रवाहाच्यो धडो म्हळ्यार समाजीक आनी संस्कृतीक थरांचेर लोकांमदलो वाडटो संपर्क आनी प्रमाण उतरावळ हो जावन आसा. कोंकणीत वेद, पुराण, महाभारत, रामायण आनी इतिहास, भूगोल, विज्ञान ह्या सारकिल्या विशयांवयलें ग्रंथ नासत ; पूण तांची तितली गरज ना. चड गरज आसा ती प्रमाण शैली केळोवपाची. ते नदरेन सगल्या वाठारांनी घोळटात त्या कोंकणी शैलींमदली उतरावळ, वाक्प्रचार आनी म्हणींतले गिरेस्तकायेचो आदार घेवन समान उतरावळ आदीं वेंचून काडूंक जाय आनी मागीर आयच्या काळाची गरज वळखून कोंकणी समाजाच्या दिसपट्ट्या वेव्हारांत घोळतात अशीं प्रमाण उतरां आसपावन सुमार आठ ते धा हजार उतरांची एक उतरावळ तयार करची लागतली. सगल्या वाठारांनी ती उतरावळ प्रमाण मानून साहित्यिक वावर ते उतरावळीच्या आदारान करचो पडटलो. तो मुळावो वावर अशें हांव मानतां. फुडल्या वीस वर्सांभीतर जरी तरी वावर जालो जाल्यार कोंकणीची ती व्हड सेवा जावं येता.

भाशेची जीवसाण ही तिच्या उच्चारांत आसता. भास जेन्ना अक्षरानीं बरयतात, तेन्ना लिपीचे मर्यादिक लागून सगल्या उतरांचो उच्चार सारको बरोवंक जमना. भाशेन आपलो उच्चार वगडायलो जाल्यार भाशेचो नाद भंगता. सवण्यांची विविधता ही फकत तांच्या रंगात नासता, तांच्या आवाजांतय उरता. कोंकणी ही एक म्होवाळ, सुरबूस आनी काव्यमय भास. हें काव्य जोंवर एकाद्री भास काळजांत किल्लून जिबेर घोळत उरतली तोंवर तग धरतली. तातूंतय कोंकणी मनीस दुसऱ्यो भासो शिकता आसतना एकाद्री लिपी शिकून घेता आनी कोंकणी भास शिकले बगर ती बरोवपाचें धाडस करता. आपली भास आपणाक येता, ती शिकपाची गरज नासता अशा भ्रमांत तो रावता आनी भाशेचें व्हड लुकसाण करता. कोंकणीचें अशें लुकसाण आज जावंक लागलां. पूण आमच्या बऱ्या नशिबान आमी ज्या युगांत कोंकणी साहित्याचे उदरगतीचो विचार करुंक लागल्यात, तें कंप्युटर युग जावन आसा. दृक् - श्राव्य तंत्र आज इतलें फुडारिल्लें आसा की त्या तंत्रज्ञानाचो आमी पुराय फायदो घेवंक जाय. कोंकणी साहित्य, संगीत आनी कला हाचेफुडें निखटी निर्जीव उतरांनी बांदून दवरून उपकारची ना तर दृक् - श्राव्य साधनांचो आदार घेवन तिची जतनाय करची पडटली. व्हिडिओ कॅसेटी वरवीं फकत साहित्यिक न्हय तर आमची पुराय जीण चित्रीत करून दवरूंक येता. ह्या तंत्राचो आनीक एक फायदो आसा. पुस्तक हें फकत शिकिल्ले लोक फाविल्ल्या वेळार वाचतात. आमच्या समाजांत साक्षरतेचें प्रमाण जरी सुमार ७० टक्के आसलें तरी पांच टक्के लोक लेगीत साहित्य वाचिनात. व्हिडीओ कॅसेटीवरवीं आमच्यांनी शिकिल्ल्या आनी शिकूंक नाशिल्ल्या चडांत चड लोकांमेरेन पावं येता. लिपीभेदाक लागून, निरक्षरपणाक लागून, भुगोलिक कारणाक लागून वेगळावल्लो समाज एकठांय हाडून, भाशेचो उच्चार सांबाळून साहित्य समाजाच्या सगल्या थरांमदीं पावोवपाची संद आमकां आज मेळूं येता. हो वावर करतना प्रमाण उतरावळीचो आदार घेवन आमी केलो जाल्यार फुडल्या धा - वीस वर्सांमदीं कोंकणी साहित्याचो आनी संस्कृतीचो प्रवाह एकरूप जावन नव्या नेटान साहित्याचो विकास जावंक पावतलो.



# 7

# आत्मकथात्मक कादंबरी

कथा साहित्यांत (ज्याचेमदीं नाटक आनी कादंबरी आसपावता) कथा ही कल्पनेंतली आसता. कथेंत जें बरयिल्लें आसता तें खरें अशें वाचक मानिना आनी लेखकय तसो दावो करिना. पुराण, म्हाकाव्यां आनी इतिहासांतल्या पात्रांचेर चरित्ररुपी कादंबऱ्यो हो कथा साहित्यांतलो प्रयोग लेगीत आतां वाचकांचे संवकळीचो जाला. चरित्रकथेचो नायक पुराणांतलो आसूं वार इतिहासांतलो, ती कथा खरी अशें म्हणपाचें धाडस लेखक लेगीत करिना.

पूण आतां एक नवो साहित्यप्रकार रूढ जावंक लागला. ह्या प्रकाराक 'आत्मकथात्मक कादंबरी ' अशें नांव खासा लेखकच दितात. असलें बरप वाचप्यांक कितले भाळयता हाचो अदमास इतले बेगीन लागचो ना. पूण ह्या साहित्य प्रकारांत एक विरोधय आसा तो उक्तेपणान दिसता. कादंबरी म्हळी म्हण्टकच ती काल्पनिक आसता अशें आमी मानून चलतात. पूण आत्मकथा ही सत्य घडणुकांचेर आदारिल्ली उरची पडटा. आतां एकाद्री कादंबरी ही लेखकाची जीवनकथा कशी मानपाची ? लेखक एकाद्री नाटकी प्रसंगांनी भरिल्ली कादंबरी आपले जिणेची कथा अशें सांगूंक कित्याक सोदता ? घडये वाचप्यांची सहानुभूती मेळोवपाखातीर आसत. घडये, आपणे रंगयिल्लो एखाद्रो प्रसंग हो वास्तव न्हय असो दुबाव वाचप्यांक येवचो न्हय हे खातीर आसत. पूण जेन्ना जिणेची कथा ही कादंबरीचें रूप धारण करता तेन्ना सभाविकपणान ती आत्मकथा उरना. एकाद्री घडणूक लेखकाचे जिणेंत घडलीच ना अशें कोणे म्हळें जाल्यार ती कादंबरी जाल्ल्यान आपणे ती मेकळीक घेतल्या अशें सांगपाचो लेखकाचो हेतू दिसता.

आत्मकथा हो एक वेगळो साहित्य प्रकार. त्या प्रकाराचें वेगळेंपण अशें, ती बरयतल्या लेखकाकडेन भाशेचें धन वा प्रतिभा नासली तरी सत्याच्या आदाराचेर त्या पुस्तकाक वेगळेंच म्हत्व येता. आत्मकथेवरवीं आमी लेखकाचे जिणेची, कुटुंबाची, ज्या समाजांत तो वावुरलो त्या समाजाची आनी

चड करून लेखकाच्या अंतर्मनाची वळख करून घेवंक सोदतात. कथेंतय सत्य आसता. तें समाजीक सत्य आसूं वा नितीक सत्य आसूं, जेन्ना आमी एक कादंबरी वाचतात, तेन्ना ते कादंबरींतलें सत्य कादंबरीतल्या प्रसंगांनी सोदतात. ललित साहित्यांतलें सत्य हें त्या साहित्यांतच लिपिल्लें आसता. तें साहित्यकृती भायर लेखकाचे वा समाजाचे जिणेंत सोदपाचो यत्न केलो जाल्यार तो ते साहित्यकृतीचेर आनी लेखकाचेर अन्याय जातलो.

पूण आत्मकथेतलें वा आपजिणेंतलें सत्य फक्त पुस्तकांतल्या उतरांनी वा प्रसंगांनी बांदिल्लें उरना. तें भायरय सोदचें पडटा. एकाद्रो प्रसंग आत्मकथेंत येता, तेन्ना ताचें कारण त्या प्रसंगांत सोदचे परस समाजीक परिस्थितींत सोदचें लागता. देखीक पं. जवाहरलाल नेहरू हांणी बंदखणींतलो एक प्रसंग सांगलो जाल्यार त्या प्रसंगांत सांगूंक नाशिल्ली समाजीक आनी राजकी परिस्थिती आमच्या दोळ्यांमुखार उबी रावता. बंदखण ही गुन्यांवकाराक बंदिस्त दवरपाची सुवात. पूण स्वतंत्रतायेच्या चळवळीच्या वेळार देशांतल्यो बंदखणी भगवती स्वतंत्रतेचीं मंदिरां जाल्यो. राज्यकर्त्यांनी तांकां बंदखणींत घालता आसतना तांचेर कसलोय आळ घाल्लो आसलो तरी भोंवतणची परिस्थिती लक्षांत घेवन वाचप्यांच्या मनांत तांचेविशीं आदर उपजूंक लागलो.

अशें आसलें तरी साहित्य हो कलेचो भाग. मागीर ती कथा आसूं वा आत्मकथा, तातूंत कला आसताच. आनी कला ही 'सिलेक्शन' आसता. जें कितें आसा तें जशाचें तशें लोकांमुखार दवरप म्हळ्यार कला न्हय. कलाकार तें स्वंयच्या क्रमान, स्वंयच्या उतरांनी कितलें आनी स्वंयचें सत्य लोकांमुखार दवरचें हें थारायता. आत्मकथा बरयता आसतना कलेचें भान दवरतना लेखकाक सत्याकडेन तडजोड करूंक मेळना. जरी स्वंयचेय वस्तूचें, घडणुकेचें वा विचाराचें परिपूर्ण निरूपण करप कोणाकच शक्य नासलें तरी जें कितें बरयलां तातूंतल्यान सत्य उक्तें जालां म्हणपाची जापसालदारकी आपजीण बरयतल्याक उखलची पडटा. कथाकाराचेर तें बंधन उरना. परत सत्य बरयता आसतना बरयतल्याक सत्याचें जितलें आकलन जालां तें पूर्ण आसत अशें न्हय. तो जे तरेन तें बरयता, ताका लागून लोकांचेर जो परिणाम जाता तो कसलो हेंय पळोवचें आसता. आमी जाणात की आत्मकथा बरोवपी लेखक

जाणून बुजून वा नकळतना खूबश्यो गजाली सांगता, खूबश्यो लिपयता आनी खूबश्यो अर्दवट सांगता.

महात्मा गांधी हाणी 'सत्याचे प्रयोग' नांवाची जी आत्मकथा बरयली ती सादी सरळ आपजीण आसा. तातूंत सत्य आसा आनी सत्य जशें घडलें तशें वाचप्यांमुखार दवरपाचो यत्न आसा. सत्य सांगूक लेगीत धाडस लागता. तें धाडस गांधीजींनी केलें देखूनच तांची आपजीण वाचप्यांचीं मनां जिखूंक पावली. गांधीजींची आपजीण निखट्या साहित्याच्या कसाचेर तपासली जाल्यार घडये तिच्यांत साहित्यीक गूण थोडे आसतले ; पूण जें कितें आसा तें सत्य आशिल्ल्यान ते आत्मकथेक म्हत्व आयलें.

पूण केन्ना केन्नाय आपजिणेंत लेगीत लेखक एकाद्री अगत्याची गजाल लिपयता तेन्ना ते आपजिणेंत सांगूंक नाशिल्ल्या भायल्या सत्याच्या आदारान ती तपासची पडटा. कांय गजालींविशीं वाद नासता. पूण जंय वादाचो प्रस्न येता तेन्ना आत्मकथा वाचपी लेगीत सादूर जातात. देखीक मौलाना अबूल कलाम आझाद हांचे 'इंडिया विन्स फ्रिडम' ही आत्मकथा पळयात. जर नीर-क्षीर न्यायान आमी ती वाचली ना जाल्यार ते आत्मकथेत सत्याचो कितलो विपर्यास केला ताचें भान आमकां उरचें ना आनी वाचपी चुकीचे समज मनांत घेवन बसतलो. ती आत्मकथा वाचतकच वाचप्याक दिसूंक लागता की सरदार वल्लभभाई पटेल हांकां कसलीच पोंच नासली. महात्मा गांधींक अक्कल नासली. त्या मानान नेहरू मात्शे समजुपी. पूण खरो शाणो मनीस आसलो तो मौलाना आझाद. हें खरें काय फट हें तपासतलो जाल्यार आमकां ते आत्मकथेतल्यान भायर सरून भोंवतणचो समाज तपासचो पडटलो. जे लोक हो इतिहास जाणात, तांकां खबर आसा की मौलाना आझाद हांची आत्मकथा आत्मप्रौढीन भरल्या आनी ती हेर राष्ट्रीय फुडाऱ्यांचेर अन्याय करता.

आतां एखाद्रे कादंबरीतल्या पात्रान आपल्या घरच्या लोकांचें जर बरें वायट मूल्यमापन केल्लें आसत जाल्यार तें खरें काय फट हें थारावपाखातीर आमकां कादंबरीच्या घेऱ्या भायर सोद घेवन कळचें ना. ताचो सोद कादंबरींतच घेवचो पडटलो.

अशे परिस्थितींत आत्मकथात्मक कादंबरी वाचप्यांक कितली गोंदळायतली हाचो अदमास केल्लो बरो. खरें कितें आनी काल्पनिक कितें हें कशें वळखुपाचें ?

वाचपी एक काल्पनिक कृती म्हणून ती वाचूंक गेलो जाल्यार लेखक ती आत्मकथात्मक म्हणटा. आमी इतलें विसरूंक फावना की लेखकाचे जिणेंत एकाद्री घडणूक खऱ्यांनीच घडिल्ली काय ना हे गजालीक कादंबरी वाचतल्या वाचप्याचे नदरेन इल्लेंय म्हत्व ना. चडच जाल्यार वाचप्याचे नदरेन लेखक हो आत्मकथात्मक कादंबरीतलें एक पात्रच आसता. आत्मकथात्मक कादंबरी म्हणटकच एकाद्रो काल्पनिक प्रसंग खरो अशें वाचप्याक दिसतलें वा काल्पनिक प्रसंग खरो दिसचो अशें लेखकाच्या मनांत आसत जाल्यार ती वाचप्यांक फटयता हातूंत दुबाव ना.

म्हजे नदरेन कथा ही कथा आसता. मागीर ती लेखकाचे जिणेचेर आदारिल्ली आसूं ना जाल्यार दुसऱ्या कोणाचेरय.



# 8
# मुक्तछंद

'कविता हें प्रतिभावंतांच्या आळसाचें फळ जावन बसलां.' अशें एक वेधान एका कार्यक्रमाच्या वेळार हांवें केलें आनी सगळे कवी म्हजेर खुबळ्ळे.

कोंकणी साहित्याच्या मळार कवींचो आंकडो कितलो चड आसा आनी साहित्यिक कार्यावळींनी तेच चडावत संख्येन हाजीर आसतात हें जे लोक जाणात तांकां ते सभेंत म्हजी अवस्था कशी जाली आसतली तें वेगळें सांगपाची गरज ना.

कोंकणीत आयज जितल्योय कविता आमी वाचतात त्यो वाचतकच अशें दिसूंक लागता की चडश्यो कविता म्हळ्यार गद्य लेखनाचेच सामान्य प्रकार आसतात. अंतर इतलेंच की कविता बरयली अशें दिसचें म्हणून ते वाक्यांतलीं उतरां कांय ओळींनी वांटून एका सकल एक बरयतात.

रवींद्रनाथ टागोर हांणी कविता बरोवंक कशी सुरवात केली हें तांणीच बरोवन दवरलां :

'म्हजी पिराय त्या वेळार सात-आठ वर्सां परस चड नासतली. म्हजो एक सोयरो ज्योतिप्रकाश, पिरायेन म्हजेपरस व्हडलो. एक दीस दनपारच्या वेळार ताणें म्हाका कुडींत आपयलो आनी म्हळें, ' तुका कविता बरोवचेली आसा ?' म्हजे जापेची वाट पळयना आसतना ताणें पयर छंदांत चौदा अक्षरां जुळोवपाची रीत म्हाका समजावन सांगली. कितल्याशाच उतरांकडेन खेळटां खेळटां एक छंद तयार जालो. एक खेपे रीत समजतकच मागीर कितें विचारता ?''

टागोर ज्या अणभवाची गजाल सांगतात ती एक साधनाच. भास आनी छंदाचेर प्रभुत्व मेळोवपाचो तो एक प्रयत्न. टागोरांची काव्य प्रतिभा हे उपरांत सुमार धा वर्सांनी प्रगट जाली.

कंवळे पिरायेचेर बारा वा पंदरा सोळा उतरांचे छंद घडोवपाचे प्रयत्न खूब जाणांनी केल्ले आसतले. शाळेंत कविता शिकयतल्या शिक्षकाच्या आदारान,

एकाद्या कवीमित्राच्या सांगातान ना जाल्यार हरशीं याद उरिल्ली कवितेची एकाद्री ओळ मनांत घोळयतना छंद घडोवपाचो आनंद खूब जाणांनी घेतला आसतलो. कांय शिक्षक एकाद्री ओळ रचतात आनी तेच तरेच्यो ओळी विद्यार्थ्यांक रचूंक सांगतात. ज्या विद्यार्थ्याची ओळ त्या छंदांत बसली ताका दिसूंक लागता, आपूणय कवी जालों.

छंद रचप हो एक खेळ आसूं येता ; पूण कविता बरोवप म्हळ्यार खेळ न्हय. तशें पळोवंक गेल्यार छंद रचपय सोपें काम न्हय. उतरां वा अक्षरां रचलीं म्हणून छंद जायना.अक्षरांचे रचनेभायर छंदांत आनीक कितें तरी आसचें पडटा. ताका लय म्हणटात.

लय म्हळ्यार कितें, हें सांगप कठीण. पूण तें समजून घेवं येता. एकाच छंदांतल्यो दोन कवींच्यो दोन कविता वाचच्यो, ना जाल्यार एकाच कवीच्यो एकाच छंदांतल्यो दोन ओळी वाचच्यो. तातुंतली एक ओळ वाचतां वाचतां वाचप्याक आवडूंक लागता. ती आवडपाचें कारण ते ओळीची वेगळी लय आसूं येता. शास्त्राच्या नेमान अक्षरां वा मात्रा मेजल्यो जाल्यार दोनय ओळी सारक्योच आसतल्यो. तरी आसतना एक ओळ तुमकां मानवता आनी दुसरी किरकोळ दिसता. उतरांचे रचणुकेंतल्यान घडिल्ली लय वेगळेंच संगीत निर्मिता.

छंदाक धरून कविता करपी कवी खूब आसतात. कॉलेज विद्यार्थ्यांमदीं असल्या कवींचो आंकडो चड. कॉलेजांत तांगेल्या काव्य प्रतिभेक आंकरी फुट्टा आनी कॉलेज सोडचे आदीं ती बावन वता. हाचें कारण तांकां छंद समजलो तरी लय म्हळ्यार कितें तें खबर नासता.

हालीं हालीं कवितेचो आनी छंदाचो संबंदच सुटला. आदीं छंदाचो अभ्यास करून कविता करतले कवीक लयीचें भान आसतालें. आतां कवीक छंदाचेंय भान नासता, लयींची गजाल पयसच उल्ली. मुक्तछंद हो छंदापरसय सोपो असो कवितेचो प्रकार अशें ते मानतात. मनांत एकाद्रो विचार आयलो वा कितेंय बरयन दिसलें म्हणटकच गद्य वाक्य सरळ बरोवच्या बदला तें कवितेसारकें बरयतात. छंदाक धरून कविता रचतना कितेंय तरी बंधन उरता, गणित

करचें पडटा. मुक्त छंद हो बंधनमुक्त. गद्यांतल्या वाक्यांक व्याकरणाचें बंधन उरता. तें लेगीत मुक्त छंदाक नासता. ताचो परिणाम असो जाला की जो लेखन करूंक सोदता तो पयलीं मुक्तछंद बरयता आनी आपली कविता ही मुक्तछंदांतलीं अशें सांगता.

ते सभेंत मुक्तछंदांत कविता रचतल्या नव्या कवींचेर हांवें जें तोंडसुख घेतलें ताचें कारण हें अशें आसलें. पूण ते खुबळ्ळे आनी तांणी म्हळें, ''छंद मुक्ती हो कवितेचो नवो अविष्कार. तो जांकां समजना तांका कवितेचेर उलोवपाचो अधिकार पावना.''

कवितेचेर उलोवपाचो म्हाका अधिकार पावना हें हांव सदांच मान्य करीत आयलां. म्हजो आनी कवितेचो संबंद ती आयकुपा पुरतो वा वाचपापुरतो. बरी कविता आयकतकच म्हाका आनंद भोगता इतलेच खातीर कवितेचेर उलोवपाचो अधिकार म्हाका मेळना. बरें जेवण रूच घेवन जेवलो म्हणून पाकशास्त्राचेर उलोवपाचो अधिकार कसो पावतलो ?

पूण हांव एक जाणां, छंद आपणावन तो पचोवन ताचेपसून मुक्ती घेवप ही एक कठोर साधना आसता. छंदाकडेन फाट फिरावन मुक्त छंदाची वाखाणणी करप हें भिजूडपणाचें लक्षण. मुक्त छंदामेरेन पावचे खातीर कवितेन कितलो लांबचो प्रवास केला, हें समजून घेवपाचो यत्न आमचे नवे कवी निखालस करिनात. नव्या भुरग्यांची गजाल वेगळी. तांकां आपलें नांव छापून हाडपाची उमळशीक आसता. पूण जाणट्यांनी लेगीत तसो प्रयत्न केल्लो दिसना.

कवितेचें एक शास्त्र आसता. त्या शास्त्राचे कांय नेम आसतात. कवितेंतलो छंद काडलो जाल्यार ते कवितेंत लय उरूं येता. लयीचो नेम नासता. गणित नासता, शास्त्र नासता. छंद म्हळ्यार मनशाच्या देहाचो कणो. कण्याच्या आदारान मनीस जसो उबो रावता तशी छंदाच्या आदारान कविता उबी रावता. मुक्तछंद म्हळ्यार कणो काडून उडयिल्लो देह. तो लयीच्या आदारान उबो दवरप हें खूब कठीण काम. लय कशी वळखुपाची ? कान हेंच लय वळखुपाचें साधन. शास्त्रीय संगीतांतल्यो बारीकसाणी वळखुपाइतलेंच लय अणभवप हें कठीण काम. गद्य ओळींनी कवितेची लय भरप ही एक कला. देखूनच मुक्तछंद रचप

हें हेर कविता प्रकारांपरस कठीण काम. हें जाणा जावनय हांव म्हणन. कोंकणींतलें चडावत कवी जेन्ना कविता रचतात तेन्ना ते बरोवपाची उमळशीक आनी आळसाय हांचे कात्रेंत सांपडिल्ले आसतात. अशें म्हणटात, साहित्य ही एक कला. कला म्हळी म्हण्टकच तिका नेमाचे फास्केंत बांदूंक नज. ती फास्की थारावचेली कोणें ? तरी आसतना साहित्य हें एक शास्त्रय आसता. त्या शास्त्राची जाका जाणविकाय नासता तागेली कला केन्ना केन्नाय दिशाहीन जावं येता. आमचे कवींनी छंदशास्त्र शिकून घेतलें जाल्यार कोंकणी कवितेक एक नवें तेज येवंक पावतलें. छंद हें बंधन आनी मुक्तछंद ही मुक्ती. पूण मुक्ती ही बंधनांतल्यान मेळोवचेली आसता. जाणें बंधनच पळयलें ना तो मुक्ती म्हळ्यार कितें हें कशें समजतलो ?



# 9

# कोंकणी कथा - कविता

'कोंकणीत दरवर्सा शेंकड्यांनी कविता जातात. नवे नवे कवी बरयतात, पूण एकूय कवी अशी कविता वा गीत रचिना जी आमकां गावप्यांक गावंक मेळत. कोंकणी गीत वा कविता गातलो जाल्यार आमकां पोरन्या कवींच्या त्याच त्या गितांचो आदार घेवचो पडटा.'

एका नामनेच्या गवयाची ही कागाळ. शास्त्रीय संगीतांत देशांत आनी विदेशांत कीर्त जोडिल्ल्या ह्या गवयाक कोंकणीचो मोठो अभिमान. भारतीय संगीताच्या साबार तरांमदीं कोंकणी संगीत आगळें आनी वेगळें आसा अशें तो मानता. युरोपीयन आनी भारतीय संगीताची सरभरस जावन तें घडिल्लें आसत वा नासत , कांय कोंकणी लोकगितांचेर पाश्चात्य संगीताचो प्रभाव आसा हातूंत दुबाव ना. पूण गोंयचें मूळ संगीत जाका म्हणूं येत तें लोकगीतांनी आनी लोकनाचांनी पळोवंक मेळटा. तें लेगीत वेगळेंच अशें तांचें म्हणणें. ह्या ल्हानशा प्रदेशान भारतीय आनी पाश्चात्य संगीताक संगीताच्या इतिहासांत सदांकाळ उरपासारकीं कांय तेजीश्ट रत्नां दिलीं. अशें आसूनय ह्या कलाकारांनी गोंयचें वा जाका कोंकणी म्हणूं येत अशें निजाचें संगीत केळयलें ना. कोंकणी संगीताच्या संस्कारान कांय जाणांनी आपली प्रतिभा फुलयली जाल्यार हेरांनी कठोर साधना करून संगीताचे परंपरेन चलत आयिल्ल्या प्रकारांचे नवे आविष्कार घडयले. गोंयकार आनी कोंकणी मनीस आपले अस्मितायेचो अभिमान बाळगिता. पूण भास आनी संस्काराचें आगर जाका म्हणूं येत त्या कोंकणी संगीताकडेन दुर्लक्ष करता अशें तांचें म्हणणें.

आमी जेन्ना गोंयाभायर वतात तेन्ना अशें पळयतात, जे कोंकणी संगीतकार हिंदुस्तानी वा कर्नाटकी संगीतांत व्हडवीक मेळोवंक पावल्यात, तांकां ह्या देशाचे लोक आपलेच नायक मानतात आनी तांचे लेखीं गोंयचीं लोकगीतां वा पश्चिमी संगीताच्या प्रभावान गायतात ते मांडे आनी दुल्पदां हेच तितले कोंकणी संगीताचे प्रकार जावन आसात. देखून आमी जेन्ना कोंकणी संगीत

फुलोवपाचो विचार करतात, तेन्ना आमकां फकत पश्चिमी प्रभावांतलें संगीत केळोवपाचें आसता काय कितें ?

त्या गवयांचें मत अशें की हिंदुस्तानी वा कर्नाटकी शास्त्रीय आनी सुगम संगीताक लेगीत गोंयच्या संगीताची जोड दिवन मन भाळोवपी, कान सुखावपी अशें संगीत घडोवं येता. तेच भाशेन पाश्चात्य संगीत हें सामकेंच भायलें म्हणून भायर उडयनासतना कोंकणी संगीताच्या प्रभावान तातूंत जे बदल घडल्यात तांचो बारीकसाणेन अभ्यास करून पळोवपासारको आसा. पूण तें कोणूच करिना. बंगालांत जे तरेन रवींद्र संगीताचो विकास जाला तसो कोंकणी संगीताचो विकास करतलो जाल्यार मुळचें लोकसंगीत, पाश्चात्य प्रभावाचें कोंकणी संगीत आनी हिंदुस्तानी तेचभाशेन कर्नाटकी शास्त्रीय संगीत हांच्या सुमेळांतल्यान कोंकणी संगीत फुलोवंक जाय आनी अशें संगीत आमी फुलोवंक पावले जाल्यार भारतीय संगीताक ज्या ज्या काळजांनी प्रवेश मेळूंक आयज आडखळ येता थंय थंय कोंकणी संगीत सोपेपणी पावं येता.

संगीताच्या मळार कवीची जापसालदारकी जी आसा ती आमचे कोंकणी कवी कितलीशी वळखल्यात ? हांवें एकेकडेन म्हळें - कोंकणींत चडावत कविता निर्मता ती स्वयंप्रेरणेन न्हय तर कवींच्या आळसाक लागून . मुक्तछंद रूढ जायत सावन सगळेच कवी छंदांचीं बंधनां जुमानी नासतना कविता बरोवंक लागल्यात. दालयेंत उतरां घेवचीं आनी मूठभर काडून कागदार शिंप डावचीं, म्हण्टकच एक कविता जाली. छंदमुक्ती पत्करचे आदीं छंद समजून घेवन आपणावचे लागतात आनी ताचेर पुराय नियंत्रण मेळटकच ते सोडचे पडटात. कांचन मुक्ती एकाद्रो गिरेस्त मनीसच करूंक शकता. नाजाल्यार कफल्लकान आपणें कांचनमुक्ती केली म्हणपासारकेंच आमच्या कवींनी आपणे छंदाचे बंद तोडले अशें म्हणप जातलें.

साहित्याच्या हेर प्रकारांवरीच कोंकणी कवितेंतय फाटल्या पंचवीस वर्सांत नव्या कवींनी कुड्डें अनुकरण केलां. मनोहरराय सरदेसाय आनी र. वि. पंडित हांणी कोंकणीक जेन्ना मुक्तछंद दिलो, तेन्ना परंपरेन चलत आयिल्ल्या कोंकणी गीतांक आनी कवितांक नवें वळण मेळळें. सादी, सुटसुटीत, सरळ

अशी ह्या दोन म्हालगड्या कवींची कविता. दोगांचीय प्रकृत वेगळी. पूण तांची कविता रसाळ झन्यासारकी म्होंवाळ उरली. तांचं कुड्डें अनुकरण करप नव्या कवीक सोपें दिसलें. पूण एकतारीचेर एक कुशळ कलाकार विविधतायेन भरिल्ले गोड सूर काडटा देख्रून मेळत ताणें एकतारी हातांत घेवन तिचे वयल्यान बोटां भोंवडायलीं जाल्यार आवाज आयलो तरी थंय जशें संगीत उरना तशें सरदेसाय आनी पंडित हांच्या मुक्त छंदांतलें काव्य हेर जायत्या कवींच्या मुक्तछंदांत गावलें ना. देख्रून कोंकणी कविता दिशींमाशीं निरस जायत रावल्या आनी संगीताकडलो तिचो संपर्क तुटून गेला.

खुबशे नवे कवी म्हजेर रागार जातले, पूण आमकां जर कोंकणी संगीत केळोवपाचें आसत जाल्यार वृत्त, गण, मात्रा, यमक आनी छंदाचें भान दवरून कविता रचची पडटली. कविता रचपाची प्रक्रिया म्हळ्यार ताक घुसळावन लोणी काडपासारकी प्रक्रिया जावन आसा. नव्या कवींक ताकतीक आसा आनी देख्रून सर्जनाचो आनंद घेवचे बदला ते 'इंस्टंट' कवितेचे फाटल्यान धांवतात. बीं किल्लोवन फूल वा फळ मेळोवपाचो आनंद घेवपा बदला प्लॅस्टीकचीं सोबेचीं फुलां वा फळां विकतीं हाडून हो आनंद मेळोवपाचो यत्न आमचे नवे कवी आज करतात. देख्रूनच कोंकणी संगीत आयज घुस्मट्टा आनी तें हेरांचें अनुकरण करून विकृत जावपाची भिरांत आसा. संगीत, साहित्य आनी कलेंत तीन ब्रह्मां एकठावतात. शब्दब्रह्म, नादब्रह्म आनी भावब्रह्म हीं तीं तीन ब्रह्मां. भाशेची आस्पत वा तिचें वेगळेपण हें तिच्या उतरांमदीं आसता आनी उतर हें उच्चारांचेर आदारून उरता. अर्थान आनी काव्यान थपथपिल्लें उतर लेगीत सारकें उच्चारलेंना जाल्यार आपलो अर्थ आनी नाद वगडावन बसता. मनशाच्या आंगांत अदृश्य असो प्राण आसता तोवरा ताच्या देहांत चैतन्य उरता. मनीस कितलोय सुंदर आसलो आनी ताच्या देहांत प्राण नासलो जाल्यार ताचे सुंदर दोळे भयांकृत दिसूंक लागतात आनी ताचो तोंडावळो भेश्टावन सोडटा. साहित्यांत, संगीतांत आनी कलेंत अशीं निर्जीव कळिंवरां चाटये पावलाक मेळटात. चैतन्यान भरिल्ले साहित्यप्रकार खूबच थोडे. अक्षर गिन्यानाचो विकास जायतसावन साहित्य हें 'अक्षर' जाल्लें आसलें तरी ताची जीवसाण सोंपल्या आनी ताका लागून

वाड खुंटल्या. अक्षर साहित्य प्रकारांत अनुकरणाची भर पडल्या आनी नवेपण सोंपूंक लागलां. कोणें तरी एका कवीन कोगळीचो सूर 'कुहू - कुहू' अशा अक्षरांनी बरोवन दवरलो, हिमालयाच्या सान्निध्यांत वावुरतल्या एकाद्र्या प्रतिभावंतान हिमशिखरांचें 'स्फटिकासारकीं धवीं' अशें वर्णन करून दवरलें. आयज ज्या साहित्यिकांनी कोगूळ पळोवंक ना वा तिचो सूर आयकूंक ना आनी हिमालय कसो आसा हें जांच्या दोळ्यांक खबर ना ते आदल्या साहित्यिकांच्या ओपारींचो आदार घेवन तांचीं वर्णनां करूंक लागतात. असल्या अनुकरणाक लागून नवी ओपार घडना आनी साहित्यिकाच्या काळजाक अणभवाचें स्पंदन आफडूंक पावना.

हे नदरेन हांव जेन्ना येवजितां, तेन्ना म्हाका दिसता, दर एके पिळगेच्या कलाकारान आपले कला-जिणेंत आपली परंपरा फुडें चलोवपी नवे पिळगेंतले कलाकार घडयले. मराठी कविता पळयात, दर एके पिळगेंत अशे कविश्रेष्ठ जावन गेले जांणी मराठी कवितेतं आपलें युग निर्मिलें. ज्ञानेश्वरासाबन नामदेव, तुकाराम, रामदासामेरेन आनी मोरोपंतापसून भा. रा. तांबेमेरेन आमी पळयलें जांणी कुड्डें अनुकरण केलें, अशे कवी तांच्या मरणावांगडा सोंपले आनी जांणी आपले प्रतिभेन काळाक अनुकूल असो अविष्कार घडयलो, तेच परंपरा अखंड दवरूंक पावले. बाकीबाब बोरकार, वसंत बापट, एकेवटच्यान जाल्यार बा. सी. मर्ढेकर आनी उपरांतच्या काळांत शब्दब्रह्माच्या असंख्य उपासकांनी नाद आनी छंदांचो आदार घेवन मराठी कल्पनेक आनी मनाक काळजाचे खोलायेन आनी अणभवान नवे आयाम दिले. मराठी कवितेंतच न्हय, कथा आनी हेर साहित्यप्रकारांत, नाट्यकलेंत आनी संगीतांत ही प्रक्रिया अखंड चालू उरली. मराठीभाशेनच चडश्या भाशांनी घडलें. पूण कोंकणींत मात विपरीत घडलें. बयाभाव आनी बाकीबाबांची परंपरा अचकीत खंडित जाली आनी पंडित आनी सरदेसायांची परंपरा चालू उरली ना. तांचें कुडडें अनुकरण आजूय जाता आनी ताचो परिणाम असो जाला की एका काळार, सुमार वीस - पंचवीस वर्सां आदीं, जे तेंगशेर कोंकणी कविता पाविल्ली थंयसावन ती घसरूंक लागल्या आनी म्हजे नदरेन हाचें कारण म्हळ्यार आमच्या नव्या कवींची कच्ची साधना जावन आसा. अणभवहीण

जगिल्ले नवे भुरगे खऱ्यांनीच उत्स्फूर्त मनान कविता रचतात काय फॉर्मांत माती घालून गणपती करचो तशी कविता रचतात ?

हांवें पंडित, सरदेसाय ह्या दोन कवींचीं नांवां घेतलीं हाचो अर्थ तांचेउपरांत आयिल्ले सगले कवी सामान्य अशें म्हाका सुचोवपाचें ना. कांय कवींमदीं तांचे सैमीक प्रतिभेच्यो चकचकीत किटी नदरेंत भरतात आनी कांय जाणांनी आपले मर्यादेंत रावनय कोंकणी कवितेंत आगळे वेगळे समृध्दीची भर घाल्या. तांचीं नांवां घेवंक बसलों जाल्यार ती वळेरी लांबू येता. पूण ताचेयपरस भिरांत म्हळ्यार ह्या लेखाचें वस्तुनिष्ठ रूप बदलून तें व्यक्तिनिष्ठ जावं येता. तशें म्हाका करचेलें ना.

कवितेंत आमी परंपरा मोडली, पूण कथेंत ती मोडली ना. कवितेवरीच कथेंतय आमी अनुकरण केलें. पूण हें अनुकरण करतना वेळ, काळ, थळ हाचें भान दवरलें ना. कोंकणी मनीस घराची कल्पना करता तेन्ना चार चौक्यांचें, बल्कांव, पडवी, वासरी, देवारो, कोठी, रांदची कूड, न्हाणी, माळ्रें आनी मागीलदार आशिल्लें घर नदरेसामकार हाडटा, फुडल्या दारांत आंगण आनी फाटल्या दारांत पोरसूं आशिल्लें घर तो पळयता. तेचभाशेन कथा म्हळी म्हणटकच आमचे कथाकार कथानकाची फास्की पयलीं सोदतात आनी आपली कथा ते फास्केंत बसयतात. आरंभ, मध्य, परमोच्च बिंदू आनी उकल ह्यो अवस्था आसलेबगर तांचे लेखीं कथा जायना. आदलीं घरां गेलीं. समाज फ्लॅटांनी रावंक लागलो. शेजार धर्माच्यो कल्पना बदलल्यो. तरी घर म्हळ्यार हांवें वयर वर्णीलां तसलीं वास्तू अशें जे मानतात, ते परंपरेचें कुड्डें अनुकरण करतात न्हय जाल्यार कितें ? आयचे जिणेचें पडबिंब आमकां कोंकणी कथेंत मेळना आनी कोणेंय तसो यत्न केलो जाल्यार आपणाक सर्वज्ञ मानपी समीक्षक ती कथाच न्हय अशें पाचारूंक अनमननात. कल्पना विलासाच्यो काणयो आयच्या युगांतल्या गांवांचे वा शारांचे फास्केंत बसोवन पात्रांचीं नांवां बदल्लीं वा तांचो भेस बदल्लो म्हणून नव्या युगाचो प्राण ते कथेंत येवचो ना. देखूनच संवसारभर कथेन तंत्र आनी विशयांच्या मळार क्रांती घडोवन हाडली तरी आमचे कथाकार अजून 'शिरीगणेशा'च चिरतात.

कथेच्या मळार परंपरेक वेंगावन बशिल्ले आमचे साहित्यिक कवितेच्या मळार ती मोडटात आनी दोनूय मळांचेर ते कोणाचें तरी कुड्डें अनुकरण करतात. देखून कोंकणी सर्जनात्मक साहित्य आयज खंगता. जे पिरायेचेर चलयेचे जिणेंत नवी कळा येवंक जाय आसली ते पिरायेचेर ती आवयच्या घराच उरली जाल्यार तिचें रसरशीतपण जशें बावता आनी जीण निराश, भकास जाता, तशी आवतीकाय आयज कोंकणी कथेची आनी कवितेची जाल्या. सैमांत केळ जें काम करता तें काम कलेच्या मळाचेर कलाकारांनी करचेलें आसता. केळ रसरशीत वाडटा, फुलता, फळटा आनी आपलो अवतार सोंपोवचे आदीं मुळांतल्यान दोन चार केळमे किल्लोवन दवरता. मूळ केळींतल्यान किल्लले हे केळमे तशें पळोवंक गेल्यार स्वतंत्र. सर्जनाची ही अखंड प्रक्रिया जशी केळ चालू दवरता तशी कलेच्या मळार जोंवेर जेमेरेन कलाकार निर्मुचे नात, तोंवर तेमेरेन कलेच्या फुडाराची शाश्वती उरची ना.



## 10

# म्हज्या कथांचीं पात्रां

म्हजें साहित्य हें चडशें वर्तमानपत्री आनी थोडेंशें कथासाहित्य. एक दोन नाटिका, कांय बालकथा आनी प्रसंगाक धरून कांय लळीत लेख. साहित्याच्या मळार हांवें जी थोडीभोव साधना केल्या ती चड करून कथासाहित्याचीच.

हरशीं वर्तमानपत्राच्या क्षेत्रांत पांय दवरचे आदींसावन हांव कथा बरयतालों आनी त्यो कथा उजवाडायतालों. ''धर्तरी अजून जियेताली'' हो म्हजो पयलो कथासंग्रह. शाळेंतली जीण सोंपले उप्रांत बरयिल्ल्या कांय कथांचो तातूंत आसपाव जाला. ताच्यो आदल्यो कथा - त्या काळार म्हजे नदरेक बऱ्यो दिशिल्ल्यो आसतनाय - हांवें एक दीस विसर्जित करून उडयल्यो. म्हज्यो छापिल्ल्यो कथा पर्थून वाचता आसतना तातुंतल्यो खूबश्यो कथा आपख्रोशयेन विसर्जित करपासारक्यो आसात अशें म्हाका दिसता. पूण त्यो कथा संग्रहांनी छापून उजवाडाक आयिल्ल्यो आशिल्ल्यान आतां त्यो विसर्जित करप म्हज्या हातांत उरूंक ना. जाल्यारय म्हजी कथा खंयच्या काळार, कसल्या वातावरणांत हांव वावुरता आसतना कशी आसताली आनी ती मुखार सुधारली काय इबाडली, हाचो अभ्यास करपाक त्या कथांचो म्हाकाच उपयोग जांव येता. एक खरें, त्या कथांची म्हाका लज दिसना. कित्याक तर एके एके कथेफाटल्यान म्हजे सोंपिल्ले जिणेचो ल्हान ल्हान खीण लिपून आसा. तश्यो हांवें शेंकड्यांनी कथा आजमेरेन बरयल्यो. पूण कथा हो साहित्य प्रकार म्हाका होलमलो त्या काळार हांव वर्तमानपत्राच्या संवसारांत थीर जावंक लागिल्लों.

कथाकार आनी पत्रकार हांचे पिंड वेगळे आसतात. गीतेंतल्या स्थितप्रज्ञावरी पत्रकार भावनांच्या भोंवऱ्यांत आपूण घुस्पना आसतना देगेवयल्यान व्हांवत्या प्रवाहाचो थाव घेता, जाल्यार कथाकार मनान आनी देहान त्या भोंवऱ्यांत बुचकळ्यो खाता वा केन्ना केन्नाय व्हांवत्या प्रवाहाआड पेंवता. ताका लागून कथाकाराच्या व्यक्तिमत्वाची सावळी कथेचेर पडटा.

पूण पत्रकार हो संजयाचे तटस्थतायेन कुरुक्षेत्रावयले लडायेचें वर्णन करपी आसता. ताका लागून अक्षरांच्या संवसारांत वावुरतना म्हाका दोट्टी भूमिका करची पडटा. वर्तमानपत्राच्या व्यापातापांमदीं वेगळ्या क्षेत्रांतले तरेकवार मनीस म्हाका वयलेवयर मेळटात. जायत्या ल्हान-व्हड घटना - प्रसंगांकडेन लागशिल्लो संबंद येता आनी तांचें पडबिंब मनांत पडत रावता. कामाचो वेळ सोंपून देहाची यात्रा थांबता, तेन्ना अन्तर्मनाची यात्रा सुरू जाता. ते अवस्थंत मन एकाद्रो प्रसंग, संवाद, मनीस, देखाव, विचार हांचो रंवथ करूंक लागता आनी तातुंतल्यानच कथेचें बीं आकार घेवंक लागता.

हें बीं मनांत घोळत उरता. नवे मनीस, नवे प्रसंग, नवे विचार आनी नवें वातावरण असल्या कथांच्या बियांक पोसवण दिता वा विसरूंक लायता आनी अशा मंथनांतल्यान जायत्या बियांचो संयोग जावन एकाद्रें नवें बीं तयार जाता. देखून बरोवन जाल्ली कथा ही एकाच प्रसंग वा व्यक्तीवयल्यान सुचना, जाल्यार जे प्रसंग वा ज्यो व्यक्ती म्हजे जिणेंत आयल्यो तांचेर म्हज्या व्यक्तिमत्वाचे संस्कार जावन नवीं पात्रां रूप घेवंक पावलीं.

कथा-लेखनाची साधना चलयता आसतना आमी एक फावट एक प्रयोग केलो. हिन्दी भाशेंतले आतां नामना जोडिल्ले कथाकार श्री. हिमांशु जोशी हांच्या सांगातान हिमालयाचे भोंवडेर गेल्ल्या वेळार चंपावताक आमची बस उरली. मार्गार पालसण कोसळिल्ल्यान फुडली वाट बंद जाल्ली. ती सांजवेळ आनी रात आमी थंयच्या डाक बंगल्यांत सारली. आमचे बसींत स्विडनची एक बायल आसली. तीय आमच्या वांगडा डाक बंगल्यांत आयली. तिचेकडेन जाल्लीं उलोवणीं आनी थंयचें एकंदर वातावरण हाचेर आदारून आमी दोगांनीय दोन कथा बरयल्यो. पात्रां तींच, थळां -वातावरण तेंच. पूण आमच्यो दोगांल्योय कथा, बी एकूच आसून लेगीत, रंगरूपान वेगळ्यो जाल्यो. (म्हजी कथा 'चम्पावताच्या डाकबंगल्यांत' 'अळमी' ह्या संग्रहांत आसा). अशें कित्याक घडलें ? दोन लेखकांच्या विंगड व्यक्तिमत्वाच्या संस्कारांक लागून कथेन वेगळीं रूपां धारण केलीं. देखून म्हाका दिसता, कथेंत मुख्य पात्र आसता तें लेखकाचें. केन्नाय तें व्यक्त जाता जाल्यार केन्नाय सुप्त रावता.

पूण प्रथम पुरुषी निवेदनाच्या रूपान बरयिल्ल्या सगल्याच कथांचो नायक खासा लेखक आसता असो गैरसमज मात कोणें करून घेवचो न्हय. म्हज्यो कथा चडशो प्रथम पुरुषी निवेदनाच्या रूपांत बरयिल्ल्यो आसात. ती पद्दत हांवें आपणायली ती म्हज्या वर्तमानपत्री लिखाणाचो वास कथा साहित्याक येवचो न्हय म्हणून. कथेंतलें मुख्य पात्र हांव अशें मानून, हांव मनान कथेच्या विशयाकडेन एकरूप जावपाचो यत्न करतां. कल्पनेच्या विश्वांत वावुरतना त्या पात्राच्या सुख - दुःखांकडेन, हावेस आनी निर्शेणे कडेन, व्यथा आनी वेदनांकडेन समरस जावप म्हाका सोपें जाता. तें सगलें हांवच भोगतां अशें म्हाका दिसूंक लागता आनी मागीरच हांव ती कथा बरयतां. ताका लागून खूब फावटी कांय वाचप्यांक एकाद्री गजाल खऱ्यानीच म्हजे जिणेंत घडिल्ली गजालशी दिसता. पूण अशे वाचपी खूब थोडे आशिल्ल्यान म्हाका म्हजी पद्दत बदलपाचो विचार करचो पडूंक ना.

कथालेखनाची साधना उणेच म्हळ्यार फाटलीं तीस वर्सां हांव चलयत आयलां. म्हजे कथेच्या विकासाचे पयले तीन पांवडे 'धर्तरी अजून जियेताली', 'आशाढ पांवळी' आनी 'अळमी' ह्या तीन कथासंग्रहांतल्यान वाचप्यांक दिश्टी पडू येतात. आयज म्हजी कथा चवथ्या पांवड्यार पावल्या. 'अळमी' हो कथासंग्रह उजवाडाक आयले उपरांत हांवें ज्यो कथा बरयल्यो, त्यो खरेल्या अर्थान उसरपतीच्या वेळार. त्यो अजून पुस्तकाच्या रूपान उजवाडाक येवंक नात. तातुंतल्यो कांय वेगळ्यावेगळ्या नेमाळ्यांनी छापल्यात. त्या सगल्या कथांमदीं तरेकवार पात्रां आयलीं. सिनेमाच्या पड्ड्याचेर वा नाटकाचे माचयेचेर जशीं पात्रां येतात आनी आपलें काम सोपतकूच परत वतात, तशीं म्हज्या कथांतली पात्रां अशें म्हाका दिसता. तांचे मदीं 'अविस्मरणीय' कोणाक म्हणूं ? कोणच ना अशें म्हाका दिसता. गाडयेच्या प्रवासांत स्टेशन आयलें म्हणटकूच डब्यांतले कांय लोक देंवतात, कांय नवे चडटात. तातूंत म्हातारे आसतात, तरणाटे आसतात, दादले आनी बायलो आसतात, भुरगीं आसतात, अपंग आनी व्यंग आशिल्ले लोकूय आसतात. सुंदर आनी कुरूप आसतात. कांय हांसतात, कांय दुख्खी दिसतात. कांय प्रसन्न, कांय खंती. जण एकलो आपल्या वांट्याक आयिल्लें सुख वा दुख्ख पांगरून येता. पयसुल्या प्रवासाक

भायर सरिल्लो मनीस निर्विकार मनान, तटस्थतायेन, मोन्यांनी तांकां पळयता. म्हजे जिणेचो आनी ते जिणेंतल्यान निर्मिल्ल्या कथा लेखनाचो प्रपंच हो असलोच. कांय पात्रां काळीज हालोवन वतात आनी कांय उगडासाच्या कोनशाक सदांकाळ बसून रावतात. केन्ना तरी तीं भितल्ल्यान धोंसतात आनी मागीर एक नवें वातावरण कल्पनेच्या संवसारांत आकार घेता आनी तांच्या आदाराचेर एक कथा उबी रावता. जेन्ना तीं कथेंत व्यक्त जातात, तेन्ना कथेतलें पात्र तो उप्रांतच्या वा आदल्या हेर मनशांनी म्हज्या मनाचेर केल्ल्या परिणामाच्या सयोगांतल्यान नवेंच रूप घेतात.

देखून कथेंतलें पात्र रचतना म्हजे नदरेमुखार एखाद्रो मनीस वा प्रसंग आसलो तरी कथेंत पडटा तें ताचें हुबेहूब पडबिंब नासता.

हांव दिल्लीक आसतना थंय श्रीमती 'रैहाना तैयबजी (जी मुस्लीम कुटुंबांत जल्मल्ली, पूण श्रीकृष्णाची भक्त आशिल्ली ) नांवाची एक जाण्टी बायलमनीस रावताली. त्योय खुद्द पू. काकासायबांचे 'सन्निधी' तच रावताल्यो. तांगेली कूड म्हळ्यार पारमार्थिक वातावरणान, भक्तीच्या परमळान फुलून आयिल्लें एक चैतन्य केंद्रच. दिल्लींतले व्हड व्हड मनीस - देशी आनी विदेशी - तांचेसरीं येताले आनी आपले प्रापंचिक वा भावनिक ताप न्हिवोवन मनाक शांती मेळोवन परत वताले. भौतिक समृध्दी जेन्ना मनशाक रेवाडटा, तेन्ना ताचें मन अशांत जाता आनी घरच्या संवसाराक कळ लागता. व्हड व्हड पदांचेर आशिल्ले आनी जांच्या घरांनी गिरेस्तकाय उपाट भरून रकताली, अशा लोकांचे मनाचे तळमळे थंय हांवें लागशिल्ल्यान पळयले. तांच्यो व्यथा पळोवन म्हाका एका नव्या संवसाराचें दर्शन घडलें. गोंयांत आमकां अजून तें वातावरण सरसकट पळोवंक मेळना. दिल्लींतलीं तीं मनशां म्हजे 'आशाढ पांवळी' तल्या कथांनी आयल्यांत. अस्वस्थतायेन घेरिल्लीं आनी समाधानाच्या मृगजळाफाटल्यान धांवतलीं हीं मनशां आपलें मूळ नांव, गांव आनी रूपां बदलून म्हज्या कथांनी झळकतात. पूण तीं पात्रां म्हज्या व्यक्तिमत्वाच्या माध्यमांतल्यान पासार जाल्ल्या कारणान त्या पात्रांपरस्पय त्या पात्रांनी म्हज्या मनाचेर केल्लो परिणाम त्या कथांनी चड उक्तो जाला.

'आशाढ पांवळी' उप्रांत 'अळमी ' हो कथासंग्रह हांवें उजवाडायलो. गोंयच्या स्वातंत्र्या उप्रांतच्या काळांत बरयिल्ल्यो ह्यो कथा एकेतरेन नेमाळ्यांच्या संपादकांच्या तगाद्यांतल्यान बरोवन जाल्यो. एक अस्पश्ट कथाविशय कथेचे चौकटींत बसोवपाचो थंय प्रयत्न जालो. पूण कथालेखनाचो आनंद त्यो बरयतना म्हाका मेळ्ळो, अशें म्हणूंक जावंचेंना. कांय कथा बऱ्यो उतल्ल्यो त्यो सरावाक लागून. देखून त्या कथांतलें एकाद्रें पात्र एकाद्रया वाचप्याच्या काळजाक आफडूंक पाविल्लें आसलें, तरी म्हज्या साहित्य यात्रेंत त्या कथांतलें एकूय पात्र आपली याद म्हज्या मनांत सासणाची दवरूंक पावलेंना.

गोंयचे मुक्तीउपरांत गोंयचेर हिप्पी संप्रदायाचें आक्रमण जालें. हांगाचो आंकवार निसर्ग, निळ्या दर्याचीं जागतीं ल्हारां, नितळ, निवळ आनी निर्जन वेळो हांचें हिप्पींक आकर्षण दिसूंक लागलें. पूण हिप्पीच्या संचाराक लागून संथ समाज खदूळ जालो आनी निशेधाचें एक ल्हारय समाजांत उफेलें. साता दर्या पलतडच्यान एक नवो संप्रदाय इतलो लागीं आयला आसतना ताचें तत्वज्ञान, ताचे जिणेची तरा समजून घेवपाच्या इराद्यान हांवें कांय पुस्तकां वाचलीं आनी दोरी तुटिल्ल्या पतंगाभाशेन गोंयच्या वेळांचेर दिगंबर अवस्थेंत भोंवतल्या हिप्पींकडेन उलोवणींय केलीं. चडशे हिप्पी हे, जशे हेर संप्रदायाचे कुड्डे अनुयायी आसतात तशे आसले. आपूण हिप्पी कित्याक जालां हें तांचें तांकांच खबर नासलें. युरोपाक जें एक ल्हार आयलें तांतूंत साबार तरणाटे व्हांवन गेले. तातुंतलेच ते आसले. पूण कांय विचारी लोकय म्हाका मेळ्ळे. तांचेकडेन उलयतना म्हाका एका नव्या विशयाचे धागे गावले, आनी म्हजें मन विचार करूंक लागलें. युरोपांत भौतिक सुखांचो अतिरेक जाला आनी कुटुंब व्यवस्था उध्वस्त जावन तातुंतल्यान हो हिप्पी संप्रदाय उप्रासला. एके तरेचें हें तांचें वैराग्य, थंय कोसळत चलिल्ले जिणेच्या मूल्यांचें प्रतिक आसलें. ह्या विचारमंथनांतल्यान, भावनांच्या संघर्शांतल्यान 'हिप्पी चली' ही म्हजी कथा हांवें बरयली. कथेची नायिका सिंड्रेला. एका वेगळ्या वातावरणांतली ही कथा. कांय जाणांनी तिचें कौतुक केलें. तर कांय जाणांनी तिका अश्लील म्हळें. पूण जो विशय म्हाका अस्वस्थ करतालो त्या विशयाक

दुसरे तरेन न्याय दिवप म्हाका जमलें ना. एके हिप्पी चलयेच्या अंतर्मनाचें तें चित्र.

हे कथेन म्हाका कोंकणी क्षेत्राचे भायर चड प्रसिध्दी दिली. एका हिंदी नेमाळ्यांत तिचो हिंदी अणकार प्रसिध्द जातकूच हिंदी साहित्यिकांनी तिचेर खूब चर्चा केली. दिल्लींतल्या खूबशा हिंदी साहित्यिकांकडेन म्हजी वळख आसा. कांयजाण म्हजे लागशिल्ले इश्ट. तांणीं ते कथेचेर खास चर्चा लेगीत घडोवन हाडली. अमेरिकेंतले एके प्रकाशन संस्थेन संवसारांतल्या वेगवेगळ्या भासांतल्यो वेंचीक कथा उजवाडावपाचो एक उपक्रम हातांत घेतकूच भारतीय कथांचें संपादन जांचेकडेन दिल्लें, तांणी 'हिप्पी चलये' चो आसपाव त्या संग्रहांत केलो.

अजून जेन्ना हांव दिल्लीक पावतां, तेन्ना कॉफी हाऊसांत बशिल्ल्या वेळार चर्चेच्या ओगांत, नाजाल्यार एकाद्या मित्राच्या घरा गजाली रंगल्ल्या वेळार म्हाका मदींच कोणूय विचारता, 'हालीं खंय आसता तुजी सिंड्रेला ?' नाजाल्यार 'परत केन्ना सिंड्रेला मेळिल्ली ?' आनी तांच्या प्रस्नांची जाप सोदीत हांव सुखावतां.



# 11
# कोंकणी कथेंतले नवे प्रवाह

कथा हो एक सनातन आनी लोकप्रिय साहित्य प्रकार. वाचप्याचें मन रिझोवपी. ह्या साहित्य प्रकारान एका काळार समाज प्रबोधनाचेंय कार्य केलां. साहित्यिकाच्या काळजाचे उमाळे प्रभावीपणान वाचप्यांमुखार मांडपाचें कथा हें एक बरें माध्यम.

साहित्याचो आरंभ गेय कवितेन जालो अशें आसलें तरी मनशाक संवसाराचें अप्रूप आपल्या दोळ्यांनी दिसूंक लागलें तशीं ताचीं गिन्यानाची क्षितिजां विस्तारली आनी जें कितें पळयलें, आयकलें, अणभवलें तें सांगूंक ताणें कथनाचोच आदार घेतलो. साध्या, सरळ उतरांनी जेन्ना मनीस एकाद्री अणभूती उक्तायता तेन्ना ताच्या मनांत कथेचें ल्हानशें बीं रुजिल्लें आसता.

तशें पळोवंक गेल्यार कथा ह्या साहित्य प्रकाराक मान्यताय मेळून ताचें आगळेंवेगळें रूप निश्चित जालें तें हालींच. फाटल्या शेंकड्याच्या उत्तराधांत म्हळ्यार जाता. जिका आमी आज कथा म्हणटात ती काणी वा लोककथेचें एक नवें रूप. काळ बदलता, वातावरण बदलता आनी बदलत्या वातावरणाच्या सांगातान मनशाच्यो भावनाय बदलतात. एकाद्री चली आदल्या युगांत घागरो पोलको घालताली आनी तिगेलो भेस वेगळे तरेचो आसतालो ; यूग बदल्लें तसो भेस बदल्लो, चाल बदल्ली तरी त्या भायल्या रुपड्यापोंदा ती चलीच उल्ल्या. कथेचेंय तशेंच जालां. काणी, रूपककथा, विज्ञानकथा, इतिहासीक कथा, पुराणकथा ह्या सारकिलीं तिचीं रूपां बदलत रावलीं आनी रुपा वांगडा भेसूय बदल्लो. पूण तिचो गाभो कथेचोच उल्लो.

कथा म्हळ्यार कितें ? जें कथन करपासारकें आसत ती कथा. मागीर कथन करपासारको एकाद्रो प्रसंग आसूं, एकाद्रें व्यक्तीचित्र आसूं, एकाद्री याद आसूं, अणभव आसूं, एकाद्री भावना आसूं ... जें आमी भोंवतणच्या समाजाक सांगूंक सोदतात ती कथा.

साहित्यिक क्षेत्रांत तरेकवार प्रयोग जायत उल्ले. जे तरेन कृषी आनी वनस्पत शास्त्रांत गार्फ करपाचें तंत्र मनशान सोदून काडलें तेच तरेन नव्या युगाच्या नव्या उमळशिकांक सुखावपी साहित्याचे प्रयोग साहित्यिकांनी केले. देखीक तांणी गद्यांत काव्य घालून गद्यकाव्य रचलें. नाटकांतलीं पात्रां पुंजावपाचे भरीक पडनासतना एकपात्री नाटकां वा नाट्यछटा बरयल्यो. कादंबरीचो व्याप वाचप्याचे बुद्धीक पेलना वा ताका तितली उसरपत मेळना हें पळोवन कादंबरिका रचल्यो, नाटकाच्यो मिनी आवृत्ती म्हणूं येत अश्यो एकांकिका बरोवंक आरंभ केलो. हे प्रयोग चलत आसात.

साहित्याच्या हेर प्रकारांमदीं जे तरेचे प्रयोग जाले तशेच कथेंतूय जाले. एका काळार कथा म्हणटात ती काणयेच्या रुपान अवतार घेताली. काणी म्हळी म्हणटकच जी खरी न्हय ती काणी अशी एक मान्यताय समाजमनांत रूढ जाल्ली. काणी म्हळ्यार कल्पनाविलास. जें प्रत्यक्षांत घडना पूण मनीस मनाचे उमाळे, ताचीं दिसासपनां हांकां कथानकाच्या आनी पात्रांच्या आदारान उतरांनी बांदून काडपाचो यत्न म्हळ्यार काणी. एक आशिल्लो राजा आनी एक आशिल्ली राणी... चडश्या काणयांचो आरंभ असो जावप. केन्ना केन्नाय एकाद्रो काल्पनिक गांव आरंभाक येतालो. एकाद्रो राक्षस, एकाद्रो भट. आरंभ वाचतनाच आमकां कळटालें की हें खरें न्हय. ही घडयिल्ली गजाल. देख्रून ते काणयेंतलो कोंबो सात दर्यांचें उदक आपल्या कानांत भरतालो आनी दर्या पलतडच्या किल्ल्यांत आशिल्ल्या किराचे दोंगे मोडून एकाद्रो राजपुत्र आपल्या देशांतल्या राक्षसाक मारतालो. पूण जेन्ना भोंवतणचे जिणेंत मनशाक सांगपासारके अणभव दीसपट्टे येवंक लागले आनी थोडे अणभव कल्पनेंतल्या प्रसंगांपरसय अदभुत म्हणपाचें ताणें पळयलें तेन्ना वास्तव काणी वाचपाची उमळशीक वाचप्याक लागली. जें घडूंक नज अशी ताची बुद्ध सांगता तें आयकूंक ताचें मन तयार जायना जालें आनी ताणें काणयेंत आपल्या मनाचें पडबिंब सोदपाचो यत्न केलो. ताका कल्पनेंतलीं पात्रां नाका आसलीं, नाका आसलें कल्पनेंतले गांव. ताका आपलो शेजारी, आपलो गांवभाव, आपलो भुरगो, आपलो इश्ट, आपली बायल, आपली मैत्रीण, आपलो देव, आपलो भावार्थ, आपलें सुख्र, आपलें दुःख्र वाचपाची

उमळशीक लागली. आनी वाचप्याचे हे उमळशिर्केतल्यान कथेचो आविष्कार जालो. कथा ही काल्पनिक आसूनूय समाज जिणेचें पडबिंब जावन बसली. कथेंत जें घडलें तें साहित्याच्या हेर प्रकारांनी घडूंक लागलें. काणयांतली दुर्बोधिता वा भाळयवनेचो आपालिपाचो खेळ सगल्याच वाचकांक भावथना. एक ओळ वाचून कल्पनेच्या विश्वांत आपणाक शेणोवन घेवप सगल्यांकच जमना. देखून सर्वसामान्य वाचपी कवितेचो आदर करता, पूण ती आवडीन वाचतल्यांचो आंकडो खूप थोडो आसता. त्या मानान नाटक बरें. पूण नाटक म्हळें म्हणटकच पात्रां जाय पडलीं, माची जाय पडली. ते बगर वातावरण उबें जायना. संवादाक आकार येना. नाटक हें पळोवपाचें, सगल्यांच्या, सांगातान भौशीक आनंद भोगपाचें साधन. तो वाचपाचो साहित्य प्रकार न्हय अशें सामान्य मनशाक दिसूंक लागलें. कादंबरीचो व्याप खूब मोठो. वाचतां वाचतां उमळशीक वाडली तरी तिचो विशाल पट आनी लांब कालखंड, ते भायर ल्हान व्हड पात्रांची गर्दी... थंडसाणेन वाचले बगर कादंबरी दोळ्यांमुखार उबी रावना आनी संवसारीक व्यापातापामदीं तितली उसरपत सगल्यांकच मेळना. निबंध हो सृजनात्मक साहित्याचो एक प्रकार हातूंत दुबाव ना. तो कथेचोच आविष्कार आसलो तरी ताच्यांत कथेची सुसुत्रताय नासता आनी एकाद्रो उमाळो शांत करचे बदला तो खातकुतल्यो केल्लेवरी उमाळे जागयत रावता. देखून कथा होच चडांत चड वाचकाक भाळोवन बशिल्लो साहित्य प्रकार जाला.

कथेंत वाचक कितें सोदता? तो उतरांचो खेळ सोदिना. ताका थंय भाशेचें काव्य नाका आसता. उपमा - उपमानाचे अळंकार कथेच्या प्रवाहांत विघ्न हाडटात. ताका जाय आसता आपलें पडबिंब. खंयच्या तरी एका प्रसंगाकडेन, पात्राकडेन वाचक आपलो समानधर्मी सोदता आनी जेन्ना तो ताका गावता तेन्ना ती कथा ताच्या काळजाक आपडून वता. 'पिण्डे पिण्डे मर्तिर्भिन्नः' ह्या न्यायान सगळ्या वाचकांच्यो आवडी समान नासतात. भुरगेपण सोंपून जुवानपणाच्या हुंबऱ्यार पावल दवरता आसताना काळजांत खंय तरी मोगाचे भावनेची आंकरी फुट्टा आनी मोगाच्यो कथा वाचतना तो नायकाकडेन वा नायिकेकडेन एकरूप जावन भोंवतणच्या संवसाराक विसरता. कांय

वाचकांक भुरगेपण सोंपून जाणटेपण आयलें तरी त्यो खातकुतल्यो तितल्योच सुखदिण्यो दिसतात. विज्ञानान खुबशे चमत्कार केल्यात देखून आनीक कसले चमत्कार घडूं येतात ताची कल्पना करपाची वाचकाक आवड आसता. असलो वाचक विज्ञानकथा वाचूंक रमता. जिणेंतलीं कुवाडीं सोडयतना खर्शेल्ल्या वाचकाक रहस्यकथांनी मन रमोवप आवडटा. हे सगलें कथांचेच प्रकार. केन्ना इसाप नितींतल्या गाढवाच्या रूपांत जाल्यार केन्ना अर्विल्ले कथेंतल्या एकाद्र्या पात्राच्या रूपांत वाचक आपल्या मनाचें रूप पळयता आनी ती कथा वाचतना देहभान विसरता.

कथालेखक एका काळार वाचकाक हाताक धरून आपले कल्पनेच्या संवसारांत घेवन वतालो. देखून एकाद्र्या तंत्राचो ताका आदार घेवचो पडटालो. कथेक आरंभ जाय. मागीर मध्य. मध्य म्हळ्यार कसलो तरी घुस्पागोंदळ. आनी उपरांत शेवट. जो सुखी जांव येता वा दुःखी. पूण त्या शेवटावरवीं प्रस्नांची गांठ सुटची लागता. असल्यो कथा सगल्या भासांनी एका काळार खूब चल्ल्यो. आज वाचप्यांक आनी लेखकांक लेगीत त्यो पोरण्यो कथा दिसतात. तंत्राचे फास्केंत कथा बसोवपाच्या यत्नांत लेखकान तिच्या वास्तवपणाचेर आघात केले अशी कागाळ वाचक आतां करतात.

कोंकणी कथेच्या प्रवाहांचे टप्पे अशे सोपेपणीं वेगळावंक मेळचेनात. कथा हो साहित्य प्रकार एकाद्र्या न्हंयच्या प्रवाहाभशेन अखंड व्हांवत आसलो तरी कांय न्हंयो जेभाशेन तरेकवार अवस्थांतल्यान वचूनय आपलें मूळ रूप बदलनात तेभाशेन कोंकणी कथा सरितेच्या मार्गांत कडेलोट वा धबधबे नात. आनी केन्ना तंत्राच्या जाल्यार केन्ना हेर मर्यादांच्यो दोनय देगो घट उरिल्ल्यान प्रवाह अरूंद जालो तरी ताचो तोंडावळो बदल्लोना.

कथेच्या लांब इतिहासावयल्यान नदर भोंवडायली जाल्यार आमकां दिसून येतलें, एका काळार कल्पना विलासाच्यो अदभूत काणयो कोंकणी लोककथांच्या रूपांनी घोळटाल्यो. त्यो लिखीत रूपान उजवाडाक येवंक नासल्यो तरी रोमन लिपींतल्यान उजवाडायिल्ल्या खुबशा कथा-कादंबऱ्यांनीं तांचें पडबिंब आमकां पळोवंक मेळटा. कथेक आकार येवंक लागलो तो कथेच्या कथानकप्रधान रूपाक लागून. कथानकप्रधान काणी जाय ती

वाचप्याक देहभान विसरूक लायता आनी उत्सुकताय वाडयता अशी. मुखार किर्ते जार्ले हें समजून घेवपाची उमळशीक जशी वाडटा तेचभाशेन कथानकाचे पोड एकामेकांत घुस्पत वतात आनी निमाणेकडेन एकाद्रे बायलेन आपल्या केंसांची जटा सोडोवन केंस सरळ करचे तसो कथानकांतलो गोंदळ लेखक अचळय सोडयता. पुनवेच्या रातीं मळब नियाळटां - नियाळटां कुपांआड गेल्लो चंद्रीम एकदम दिश्टी पडटकच पळयतल्याक जी खोशी भोगता तेच तरेची खोशी वाचप्याक ती कथा भोगयता. संवसारांतल्या सगळ्या भासांनी हे तरेच्यो कथा खूब चल्ल्यो. केन्ना घुस्पागोंदळ सोडोवपी जाल्यार केन्ना संथ कथानक फुडें वतांवतां तिका एक वळण दिवपी, एक कलाटणी दिवपी अशीं कथा ती आसली.

ह्या प्रकाराचो प्रभाव हेर भारतीय भासांभशेनच कोंकणी कथेचेर अजून आसा. जाल्यारय कोंकणी कथालेखक कांय नवे आनी धाडशी प्रयोग करूंक लागल्यात. चौकटीचे फास्केंतल्यो कथा वाचतल्याक हे नवे प्रयोग अप्रूप दिसले जाल्यार अजाप ना. खंयचे कथेंत कसलो प्रयोग जालो हाचो तपशील दिवंक बसलो जाल्यार तो एक स्वतंत्र विशय जावन पडटलो. तरी आसतना जांचीं नांवां घेतलींनात तांकां आपल्याचेर अन्याय जाला अशें दिसूंक लागतलें. पूण हांव दोनच कथा देखीखातीर घेतां. एक श्री. पुंडलीक नारायण नायक हांची 'कासय ' ही कथा. कासवाची मादी ती कासय. ती गावली जाल्यार तिका मारूंक मेळना. तिचें मांस खावंक मेळना. घरच्यांची सगळी नदर ते गरवणेचेर आसूनय तिका पूजा करून उदकांत सोडची पडटा. ही लोकमान्यताय कथेच्या रूपान मांडटा आसतना लेखकान समाज जिणेचे, रूढी आनी परंपरेचे, मान्यतायो आनी संस्काराचे, लाचारी आनी गरिबीचें अशें चित्रण केलां कीं वाचतल्यांचें काळीज खंय तरी थरथरता. आनी कितले दीस मेरेन कथेंत वर्णिल्ले कासयेचे विविध अवस्थांतले चित्र- चिरप्यांपसून तिकापुजतल्या भुरग्यांमेरेन सगल्यांचे तोंडावळे दोळ्यांमुखार उबे रावतात. हेर भारतीय भासांच्या कथा साहित्यांतय असले तरेचे प्रयोग जाले आनी जांकां वाचकांकडल्यान रोखडीच दाद मेळ्ळी.

दुसरी कथा एन. शिवदास हांची 'पोसको'. वंशपरंपरा आनी रगत हांचें नातें सांगपी मान्यतायांचेर, समाज जिणेच्या एका आंगाचेर कॅमेऱ्याचो

फोकस धरून उबी केल्ली ही कथा. ह्या दोनय कथांनी गोंयची जीण जिती - तटट्टीत जावन आमच्या दोळ्यांमुखार उबी रावता.

कोंकणी कथेंत आनीक दोन प्रवाह हाडपाचो यत्न हांवें केलो. कथेंतलो 'हांव' हो आजमेरेन लेखक नासतालो. पूण लेखकाक कथेंत दवरून पात्रां, प्रसंग, संवाद हांची रचणूक करून एके सत्यकथेचे धर्तेचेर कथा बरोवपाचो प्रयोग दुसऱ्या भासांनी जावंक ना असो न्हय. पूण कोंकणीत तो नवो. एका काळार प्रथम पुरुषी निवेदनांत बरयिल्ले कथेंतलो 'हांव' तो लेखक न्हय, तें कथेचेंच एक पात्र, हें सांगपाखातीर म्हाका सायास घेवचे पडटाले. नवो प्रयोग केले उप्रांत ह्या कथांतलो हांव तो खासा लेखक हें सांगचेखातीर तितलेच सायास करचे पडटात. आनी चौकस वाचपी गोंदळिल्लो पळोवन अशे दिसूंक लागता, कथेंत नवो प्रवाह हाडपाचो यत्न जरी हांवें केल्लो आसलो तरी वाचक त्या बदलाक अजून तयार जावंक ना.

कथा, रूपककथा हांचे धर्तेचेर 'कथिका' नांवाचो एक नवो कथाप्रकार हांवे कोंकणींत हाडपाचो यत्न केला. ताका मात अपेक्षा आनी कुतुहलाचो येवकार मेळूंक लागला. अजून तो प्रकार प्रयोगावस्थेंतच आसा. कथिका म्हळ्यार कथा वा लघुतम कथा न्हय. एक अशें कथाबीज जातूंतल्यान एक समर्थ कथा किल्लूं येताली. पूण कथाबीज तितलें वाचकांच्या मनांत रोयलें म्हण्कच लेखकाचें काम सोंपता. वाचकाचें व्यक्तीमत्व, ताचें अणभव विश्व, ताच्यो संवेदना, ताच्यो कल्पकता हांचेर त्या बियांचो फुडार आदारिल्लो उरता.

पूण हे सगळे प्रवाह आसले तरी मांडवी - जुवारी न्हंयाभाशेन कोंकणी कथेचो प्रवाह अजून संथ आसा. खूबशें उदक दर्यांत व्हांवन गेलें, दीसपट्टें नवे उदक आयलें तरी तिचो गाभो, तिजो रंग इतलेंच न्हय तर तिची प्रकृत आनी रूप लेगीत व्हडलेंशें बदलूंक ना. कवायत चलतना एकाद्र्या भुरग्यान रांग सोडली वा हातवारो चुकयलो म्हण्टकच जी बेशिस्त दिसता तसलीच गजाल कोंकणींत कथेंतल्या प्रयोगाविशीं आज वाचप्यांक दिसली जाल्यार म्हाका अजाप जावचेंना.

## 12

# कथेची साधना

हांवें कथालेखन सुरू केलें त्या वेळार हांव हायस्कुलांत शिकतालों आनी गोंयांत पुर्तुगेज राजवट आसली. ते राजवटीच्या जाचक कायद्यांक आनी कडक सेन्सॉरशिपेक लागून गोंयांत पुर्तुगेज भाशेंतल्या सरकारी मुखपत्राभायर हेर दुसरीं कसलींच नेमाळीं नासलीं. देखून कथालेखन हो आपणें बरोवन आपणेंच वाचपाचो प्रकार आसतालो. अशा वातावरणांत सर्जनानंद घेवपाखातीर हांवें कथालेखन सुरू केलें अशें म्हणूं येता.

इतल्या वर्सांचे कथासाधने उपरांत म्हाका दिसूंक लागलां, साहित्याच्या साबार प्रकारांमदीं कथेचो इतिहास जितलो उजळ आसा, ताच्याकय उजळ असो फुडार तिका आसा. पूण फाल्यांची कथा ही कालचे कथेंतल्यान जल्मल्ली आसली तरी नव्या युगाची भूक भागोवपाखातीर आगळी वेगळी आसची लागतली आनी तो साहित्यप्रकार हाताळपी लेखक तितलोच तांकिवंत आसलो जाल्यार तग धरूंक पावतलो.

कथानकाचें नाट्य आनी प्रभावी कथानक हांची वाचप्यांक एका काळार भूल पडटाली आनी कथाकाराचे प्रतिभेचें दुबळेपण लिपतालें. पूण निखटें कथानक हे फुडें वाचप्याक रुक्ष दिसलें जाल्यार अजाप ना. आयच्या वाचप्यान भौतीक संवसाराचो इतले खोलायेन अणभव घेतला, त्या संवसाराचें चित्र कथेंत वाचतना ताका कथालेखकाचो अणभव दुबळो दिसूंक लागता. मोग आनी शृंगार, बायलेच्या देहाचीं आनी सैमाचे सोबितकायेचीं वर्णनां उतरांनी वाचून तांचो आनंद ज्या वाचप्यान घेवचो अशी अपेक्षा आसता त्या वाचप्यान आपल्या जिवितांत तो आनंद उपाट भोगिल्लो आसता. जिवितांतले जे संघर्श आजवेर कथाकारांनी रंगयले आनी कुटुंबांतल्या कलहांचेर भावनेचें विश्व निर्मिलें ते जिणेचे संदर्भ आतां बदलूंक लागल्यात. देखून लेखकान उत्कट भावनेन केल्लें चित्रण लेगीत केन्नाकेन्नाय वाचकांचे संवेदने मुखार फिकें पडटा. आयचे पिळगेक शोककथा रडयनात,

देशभक्तीवयल्यो कथा तांचें रगत तापयनात, साहसकथा तांकां फुरफुरायनात, भुतांखेतांच्यो काणयो ताका भेश्टावंक पावनात, मनीसपणाभायल्या शौर्याच्यो कथा ताच्या आंगार शिरशिरो हाडिनात. मन बदल्लां, एके तरेन भेरेलां आनी भायल्या जिवितांत एका काळार जें अजाप वा अप्रूप आसलें तें आयच्या वाचप्याले जिणेंतली सामान्य गजाल जावन बसल्या. अशा वाचप्याक नवें कितेंय दिवपाची तांक नव्या युगाच्या कथाकारांत आसची पडटली आनी देखूनच कथा हो साहित्यप्रकार हाचे फुडें सुटसुटीत आनी अर्थपूर्ण दवरून वाचप्यांक भाळयतलो जाल्यार अंतर्मनाच्यो पाकळ्यो उक्त्यो करपाचो वावर लेखकाक करचो पडटलो.

अनादी काळापसून प्रकृती आनी पुरुष हांचें एकामेकांक जें आकर्शण दिसत आयलां ताचें कारण समाजीक संयम आनी संस्कृतीचें बंधन आसलें. धांपिल्ल्या देहाचें एकाद्रें आंग, पानाआडचें फूल वाऱ्यान खीणभर नदरेंत भरून परतें पानाआड लिपूंक लागता तशें, होलमतकच तें पळोवपाचो उन्माद आगळोच आसता. ते अवस्थेंतल्या कंपाचे तरंग आगळेंच सूख दितात. पूण कोणाक ? तानेल्ल्याच्या ताळ्यार पडिल्ले उदकाचे थेंबे अमृत मानून मनीस आपलो सुको ताळो भिजोवपाचो यत्न करता. पूण घोग्यार वतकच तो त्या थेंब्यांतली गोडी आनी काव्य विसरून वता. जेन्ना शरीर धांपिल्लें आसता, मोग अव्यक्त उरता आनी भोग हें फक्त एक म्होंवें सपन आसता तेन्ना सांकेतीक भाशेंतल्यान उक्तायिल्ली भावना देहमन सुखायता. पूण जेन्ना जिवितांतल्यो ह्यो अवस्था सोंपतात आनी मोगा भाशेनच भोग ही लेगीत एक यांत्रिक गजाल जावन बसता तेन्ना त्यो भावना उरनात. नाय जाल्यार ती एक मानसिक अवस्था. जी अवस्था आदल्या काळार अणभवपाची उमळशीक लागताली ती उमळशीक आज संवसारांत खंयच उरूंक ना. नवे पिळगेक जाल्यार ती अवस्था आफडूंक लेगीत पावना. जे भाशेन मनशाच्या पांयाच्या तळव्याक दुसऱ्या मनशान अचळय स्पर्श केलो जाल्यार सगल्या आंगांतल्यान जोगूल धांवत खानकुतल्यांनी तो सुखावता, तेच भाशेन ती मानसिक अवस्था जाका येरता ताका त्या अणभवाची गोडी कळटा. पूण जेन्ना एकाद्रो मनीस आपूणच आपल्या तळव्याचेर अचळय बोट भोंवडायता तेन्ना ताचेर कसलोच परिणाम

जायना. तें जोगूल, तो कंप, त्यो खातकुतल्यो, तो सुखर्दिणो अणभव ताका मेळूंक पावना. ताच्या तळव्यांवयल्यान भोंवतात तीं बोटां ताका संवकळीचीं जाल्यांत. देखून भौतिक वा शारिरीक सोबितकाये परस अंतर्मनाच्या अस्पर्शी संवेदनांक जाग हाडूनच ताका नवो अणभव दिवचो पडटलो.



# 13
# परकाया प्रवेश

'हिप्पी चली' ही कथा म्हज्या खंयच्याच कथा संग्रहांत हांवें आसपावन घेवंक ना. साहित्य अकादेमीन कोंकणी कथांचें एक संकलन तयार करपाची जालपालदारकी म्हजेर घाली आनी त्या संग्रहांत हांवें म्हजी 'हिप्पी चली' घेतली. ते कथेचे कांय हेर भासांनी अणकार उजवाडाक आयल्यात आनी ते अणकार वाचून म्हाका वाचकांचीं खूबशीं पत्रांय आयल्यांत. पूण मूळ कोंकणी कथा वाचून एकाय वाचकालें पत्र म्हाका आयलें ना म्हणपाचें अजाप सदांच दिसतालें. नाय जाल्यार आमच्या वाचकांची प्रकृती वेगळी. लेखकाक वळखतात देखून आसुंये, ते तागेल्या साहित्याविशींचें आपलें मत (मत तरी कसलें ? आपणाक मानवलें काय मानवलें ना इतलेंच) लेखक मेळ्ळो जाल्यारच ताका कळीत करतात. लेखकाक पत्रां बरोवपाची आमच्या वाचकांक संवयच ना. देखून पयर जेन्ना एका वाचकान 'हिप्पी चली' हे कथेविशीं म्हाका पत्र धाडलें तेन्ना म्हाका खोस जाली.

पत्रांत तार्णे विचारिल्लें, ''कथेचो नायक जो 'हांव', तो खासा लेखक (तूं) काय कितें ? हय आसूं वा नासूं हिप्पी चलयेकडल्या संबंदाचो अणभव तुवें घेवन ती कथा बरयल्या काय कितें ?''

कथाकार जेन्ना कथा प्रथम पुरुषांत बरयता, तेन्ना खुबशा वाचप्यांक लेखक आपले जिणेचे खरेले अणभव बरयता अशें दिसता. खूब वर्सांआदीं हायस्कुलांत शिकता आसतना हांवें एक मराठी कथा बरयिल्ली आनी ती 'भारतमित्र' ह्या मासिकांत छापून आयिल्ली. कथा प्रथम पुरुषांत बरयिल्ली. ते कथेंत एक बायल कथेच्या नायकाचेर तो आपल्या जाळांत सांपडना देखून ताचेर कशें बगलांट घालता हाचें वर्णन आसलें. ती कथा वाचून गांवचे एके जाणटे बायलेन म्हाका आपोवन व्हेलो आनी म्हळें, ''बरें म्हणून बरें ! असल्या बायलांपसून सांबाळ रे बाबा. तिचें कितें ? तिगेलें जावपाचें सगळें जावन गेलां. तुजेंमुखार पुराय जीण आसा.''

तिगेलो हो उपदेश आयकून हांव ते पिरायेर लेगीत हांसलों. हांवें बरयिल्ली गजाल म्हजी  न्हय हें तिका कशें सांगप तें म्हाका समजलें ना.

'हिप्पी चली' ही कथा गोंयांत आयिल्ले एके हिप्पी चलयेविशीं आसा. तिची कथेच्या नायकाकडेन वळख्र जाता आनी ती ताका हिप्पीच्या संवसारांत व्हरता. भारतीय नितीच्या संस्कारांत वाडिल्ल्या नायकाची हिप्पी विचारसरणीविशीं ते चलयेकडेन चर्चा जाता. चर्चा आनी वळख्र वाडत वता आनी मजगतच्या काळांत हिप्पी जिणेचो पुराय अणभव नायक घेता.

त्या वाचप्याक जाप कशी बरोवची हो म्हका प्रस्न पडलो. कथाकार जेन्ना एकाद्रो अणभव कथेंत रंगयता तेन्ना तो ताणें घेतिल्लो नासता, अशें कशें म्हणूं येत ? तागेल्या देहान तो घेतिल्लो नासत, पूण तो पुराय कल्पनेंतलो नासता. तो तागेल्या काळजाक आफडून गेल्लो दुसऱ्याचो अणभव आसूं येता वा पात्राचे जिणेकडेन एकरूप जातां जातां तागेल्या मनान घेतिल्लो अणभव आसूं येता. लेख्रक ख्रासा आपूण अणभव घेतलो आनी मागीर बरयतलो अशें येवजूंक लागलो जाल्यार तो ख्रऱ्यांनीच बरोवंक पावतलो काय कितें म्हणपाचो दुबाव दिसता. लेख्रक तरेकवार पात्रां घडयता. वेगवेगळ्या सभावाचीं, वर्गाचीं, पिरायेचीं, देशाचीं, पौराणिक, इतिहासीक आनी समकालीन पात्रां. सर्जकाचे कल्पनेंत आसपावत अशीं हीं सुंदर - कुरूप, मायेस्त - दुस्वासी पात्रां. ह्या सगळ्या पात्रांचो लेख्रक प्रत्यक्ष अणभव कसो घेतलो ? म्होंवाचो मूस एका एका फुलाचेर बसून म्होंव चोख्रून घेता आनी आपलें वेगळें मालें करता. पूण लेख्रक तशें न्हय. तशें करप  ताका जमचेंय ना. तो दुसऱ्यांनी पुंजायिल्ल्या म्होंवांतले थेंब घेता आनी आपली कलाकृती निर्मिता. हे प्रक्रियेक समीक्षक परकाया प्रवेश म्हणटात.

अमेरिकन कादंबरीकार इ. एल. डॉक्टरोव्ह हांणी ह्या प्रस्नाची आपले भाशेन जाप दिल्या. तो म्हणटा, ''परकाया प्रवेशाचो विचार म्हाका ख्ररो दिसता. ख्रासा आपणें पळोवंक नाशिल्लीं थळां आनी आपले आदलो वा फुडाराचो काळ लेख्रक कल्पनेंत अणभवता आनी तो आपल्या साहित्यांत उतरायता. झुजाविशीं बरोवचे ख्रातीर लेख्रकान सैनिक आसपाची गरज ना.''

हें जालें एक मत. दुसऱ्या कांय जाणांक दिसता, कितेंय बरयतना लेखकाक अणभव आसचोच पडटा. कांय लेखक खासा अणभव घेवन जेन्ना बरयतात तेन्ना तांगेलें साहित्य वाचप्याच्या मनांत घर करून रावता. एकाद्र्या गांवच्या वातावरणाचेर कथा बरयतलो जाल्यार ते कथेंतल्या दर एका पात्राच्या अंर्तमनांत लेखक भितर सरता काय कितें ? लेखक गांव पळयता, थंयचीं कांय पात्रां वयलेवयर पळोवन घेता. पूण समाजांतल्या साबार थरांतल्या मनशांच्या काळजांत, तांच्या अंतर्मनांत, तांच्यां उमेदी आनी सुख-दुःखांकडेन, तांचे दुस्वास आनी मत्सरांकडेन, तांच्या विचित्र सभावांकडेन लेखकाचो प्रत्यक्ष संबंद कितलोसो येता ? लेखक दोळ्यांनी पळयता आनी जी संवेदना ताच्या काळजांत उदेता ती तो आपल्या साहित्यांत उतरायता. एके तरेन तो परकाया प्रवेश करता.

एकाद्रो लेखक पौराणिक वा इतिहासीक कथा बरयता तरी तागेले कथेंतल्यान एक कालखंड जितो जाल्लो आमी पळयतात. एके तरेन कालखंड आनी मनशाचें मन, सर्जक आपल्या काळजांत केळयता आनी आपणाक भोगतल्या संवेदनांच्या आदारान तांकां चित्रायता.

नाटकांतलो नट जेन्ना एकाद्रें सवंग करता तेन्ना तो मनान त्या पात्राकडेन आनी पात्राच्या काळाकडेन, भोंवतणच्या वातावरणाकडेन एकरूप जाता. एकाद्र्या पिडेस्ताचें सवंग करतलो नट आपणाक ती पिडा जाल्ली नासतनाय ते पिडेची वेदना अणभवता. तो अणभव घेवपाची कळा म्हळ्यारच प्रतिभा.

लेखक आनीक एक गजाल करता. लेखकांचो अणभव हो रसानुभवांत बदलता तेन्ना तो एका मनशाचो अणभव उरना आसतना भौशीक अणभव जाता. एका मनशाक आपले जिणेंत कितले अणभव येतात ? ते सगळे ताणें एके डायरेंत बरोवन दवल्ले जाल्यार तें साहित्य जातलें ? तें बरप सगळ्यांक मानवतलें ? कांय अणभव अशे आसतात, जांच्यांत रसानुभवांत बदलपाची तांकच नासता. दर एका अणभवांत भौशीक अणभव जावपाचें बीं आसताच अशें न्हय. कांय अणभव अर्थहीण वा विसंगत आसतात, कांय किरकोळ जाल्यार कांय पुराय वैयक्तीक आसतात. खंयचे अणभव साहित्यांत हाडचे हाचो विवेक लेखकाक सांबाळचो पडटा.

आपलो अणभव हो भौशीक अणभव जालो म्हणून सर्जकतेची प्रक्रिया थंयच थांबना. व्यक्तिगत अणभवाक भौशीक सुवातेर व्हरून बसयलो म्हणून तो भौशीक अणभव जायना. ताका सौंदर्यानुभवाची जोड मेळची पडटा. रस कसलोय आसूं वीररस आसूं, करुणरस आसूं, शृंगाररस आसूं , तातूंत सौंदर्य नासलें जाल्यार ताचें साहित्य घडूंक पावना.

कल्पना करात, एके आवयलो शेणिल्लो भुरगो तिका मेळ्ळो. ती आवय त्या भुरग्याक वेंग मारून आपली खोशी उक्तावपाखातीर थरथरता, बडबडटा, हांसता आनी रडटा. तेच आवयक जर आमी दुसऱ्या दिसा त्या अणभवाचेर कथा बरोवंक सांगली जाल्यार ती बरोवंक पावत ? जर ते आवयकडेन प्रतिभा नासत जाल्यार तिका आपल्यो भावना सोडातच, आपल्या तोंडांतल्यान भायर सरिल्लीं उतरां लेगीत परत उलोवंक येवच्चिंनात. पूण त्या खिणाक जर एकाद्रो कथाकार थंय आसत जाल्यार तो आवयचो अणभव कथेंत उतरावन ताका भौशीक अणभवाचें रूप दिवंक पावता. देखून्च म्हाका दिसता, लेखकान आपूण बरयता त्या सगळ्या विशयांचो खासा अणभव घेवपाची गरज नासता.



# 14
# शाश्वत कितें ?

डी. एच. लॉरेन्स हांचें नांव सगल्यांनी आयकलांच आसतलें. 'लेडी चॅटर्लीस लवर' नांवाची एक कादंबरी तांणी बरयली तेन्ना संवसारभर बोवाळ जालो. खासा इंग्लंडांत ती कादंबरी अश्लील थारावन तिचेर बंदी घाल्ली. तो खटलो खुबच गाजिल्लो. ते कादंबरींत लेखकान पोजडीं उतरां उक्तेपणान वापरिल्लीं आनी लैंगीक सुखाच्या अणभवाचे, कसलोच आडपड्डो दवरिनासतना वा संकेतीक उतरां वा प्रतिकां वापरपाचें बंधन मानिनासतान वर्णन केलां. ते कादंबरीवयल्या खटल्यांत संवसारीक किर्तीचे लेखक जॉर्ज बर्नार्ड शॉ हांणी साक्ष दिल्ली. ते साक्षींत तांणी म्हणिल्लें, 'म्हज्या घरांत जर लग्नाचे पिरायेची चली आसती जाल्यार तिर्णे ही कादंबरी वाचची अशी हांव शिफारस करतलों आसलों. इतलेंच न्हय, तर ती कादंबरी वाचले उपरांतच तिचें लग्न जावचें असो आग्रो हांव धरतलों आसलों.'

ह्या खटल्याच्या निवाड्यांत कोर्टान ते कादंबरीवयली बंदी फाटीं घेतिल्ली.

आज डी.एच. लॉरेन्स ह्या संवसारांत नात. तरी परत तांचें नांव पेपरांनी गाजूंक लागलां. ह्या कादंबरीकारान आपल्या जिवितांत कांय चित्रां काडिल्लीं. त्या चित्रांचें इंग्लंडांत प्रदर्शन भरलें आनी लॉरेन्साचें नांव परत गाजलें. हीं चित्रां सुमार तीस आसात. सगलीं ऑयल पेंटिंग्स. त्या चित्रांनी नागडे दादले आनी बायलो आसात. चड करून गोरी बायल आनी काळो दादलो आशिल्लें एक चित्र जितलें वादाचें थारलें, तितलेंच अशा नागड्या जोडप्या म्हन्यांत आशिल्ल्या नागड्या भुरग्यांचें चित्र लोकांक खुवळावंक कारण जालें. १९२९ वर्सा ह्या चित्रांचें प्रदर्शन करपाक कोर्टान बंदी घाल्ली आनी तीं सगलीं चित्रां अश्लील थारावन तीं नश्ट करपाचो आदेश दिल्लो. पूण लॉरेन्सान त्या वेळार एक शाणेपण केलें. ताणीं भवभुतीचें 'कालो ह्ययं निरवधि: विपुलाच पृथ्वी' हें वचन वाचिल्लें काय ना हें हांव नकळ, ताणीं चित्रांचे प्रदर्शन करच्यांना अशें

कोर्टाक वचन दिलें आनी कांय दिसां उपरांत तीं चित्रां अमेरिकेंतल्या एका रसिकाक विकलीं.

त्या तीस चित्रांचें आतां साठ वर्सांउपरांत इंग्लंडांक प्रदर्शन भरलां. साठ वर्सां आदलीं बंदी कोर्टान फाटीं घेतल्या. कोर्टाच्या न्यायाप्रमाणें आतां तीं चित्रां अश्लील उरूंक नात. त्यो मोलादीक कलाकृती जाल्यात. जी गोरी बायल आनी काळो दादलो नागडे अवस्थेंत एका काळार ब्रिटीश लोकांक अश्लील दिसतालीं तीं आतां सोबीत कलाचित्रां जावन बसल्यांत. आतां त्या चित्रांचेर कलासमीक्षक लेख्र बरयतात. वेगळ्या वेगळ्या कोनांतल्यान तांची तपासणी करून ती वाख्राणटात. आनी आपूण अरसीक न्हय अशें दाख्रोवपाख्रातीर जांकां एका काळार त्या चित्रांमदीं नागडेपणाभायर दुसरें कांयच दिसनासलें ते लेगीत तांचे कलागुण तोख्रेवंक लागल्यात.

कला आनी साहित्याच्या मळाचेर शाश्वत कितें आनी अशाश्वत कितें हाची चर्चा ख्रूब चलता. शाश्वत मूल्यां म्हळ्यार कितें ? सामान्यतायेन समजुपी मनीस अशें मानता की जिणेंत जीं तत्वां वा भावना, स्थळ आनी काळाची मर्यादा मानिनासतना लागू उरतात तीं शाश्वत मूल्यां. पूण ही व्याख्र्या कितली ख्ररी हें आमी पळयतातच. कसलेंच मूल्य सदांख्रातीर शाश्वत आसूंक नज म्हणपाचें लॉरेन्साच्या चित्रांवयल्यान परत एके फावटी सिध्द जालां.

लॉरेन्साच्या ह्या चित्रांविशीं जशें घडलें तशेंच हेन्री मिलर नांवाच्या लेख्रकाच्या साहित्याविशींय घडिल्लें. आपलीं हातबरपां घेवन हेन्री मिलर प्रकाशकांचे हुंबरे झरयताले. पूण कोणूच तांगेलीं पुस्तकां छापूंक तयार जायनासलो. युरोपांत आनी अमेरिकेंत प्रकाशक हातबरपां वाचून वेंचपाख्रातीर जाणकारांचें एक संपादक मंडळ नेमतात आनी संपादक मंडळान पास केल्लें पुस्तकच प्रकाशक उजवाडायतात. असल्या सगल्या संपादक मंडळांनी मिलर हांचें बरप अश्लील थारायिल्लें. पूण पॅरिसाच्या एका प्रकाशकान धाडस केलें. पयलें पुस्तक उजवाडाक आयलें आनी हेन्री मिलराक संवसारभर कीर्त मेळ्ळी. काल मेरेन जें बरप अश्लील मानताले. त्याच बरपाचें संकलन करून आधुनीक बायबल तयार करचें अश्यो सुचोवण्यो येवंक लागल्यो.

साहित्य आनी कलेच्या मळाचेर काल आनी आज हांचेमदीं केदो मोठो विसंवाद आसता हें लॉरेन्स आनी मिलर ह्या दोन कलाकारांच्या अणभवांवयल्यान सिध्द जाता. कला आनी साहित्याच्या मळार जशी विसंगत आमकां पळोवंक मेळटा तशीच राजकी मळारय ती दिश्टी पडटा. राजकी मळावयलें ताचें उदाहरण म्हळ्यार पाकिस्तानाचे अली भुट्टो हांचें. धा वर्सांआदीं जो मनीस राजद्रोही म्हणून कोर्टान थारायिल्लो आनी ताका फांशीची ख्यास्त दिल्ली ताका आज पाकिस्तानांत नव्या सरकारान हुतात्मो थारायला आनी आतांचे विचारसरणीचें ल्हार पळयलें जाल्यार महमद अली जीना हांच्या सांगातान पाकिस्तानांत भुट्टोंक मान मेळटलो अशें दिसता.

भुट्टो हांचे दुस्मान वंगबंधू शेख्र मुजीबूर रहमान हांची गजालय अशीच आसा. भुट्टो राजवटींत बंदख्रण भोगता आसतना ते सुरक्षीत आसले. तांची हत्या करपाचो आदेश ऐन वेळार भुट्टोंनी बदलिल्लो आनी बंदख्रणींतल्यान सुटनाफुडें ते बांगलादेशाचे पयले राष्ट्राध्यक्ष जावंक पावले. त्या पदाचेर कांय म्हयने रावले उपरांत तांगेल्याच सांगात्यांनी तांचो खून केलो आनी एक मोटो गुन्यांवकार जाल्लेवरी इतिहासांतलें तांचें नांव पुसून उडोवपाचो यत्न जालो. घराघरांत तांचे फोटे आसले ते एका रातयांत ना जाले आनी नव्यान बरयिल्ल्या इतिहासांत तांचें नांव लेगीत वाचूंक मेळना.

आयचो भाड्याचो आकांतवादी फायचो राष्ट्राध्यक्ष जावं येता. आनी आज जुलूम - अत्याचार करतल्याची फाल्यां पुजाय जावं येता. हांगा शाश्वत अशें कांयचा ना. सगलेंच अशाश्वत.

जी गजाल मनशाची तीच राष्ट्रांचीय. सवंसारांतल्या राष्ट्रांची संख्र्या वाडत आसा. सरादी आकुंचीत जायत आसात. युनोंत आज 175 वयर राष्टांक प्रतिनिधीत्व मेळिल्लें आसा. एका काळार ब्रह्मदेशाची सराद हूपून चित्तगांवचे भारतीय भुंयंत आजाद हिंद सेनेन पयले ख्रेपे तिरंगी बावटो लायलो तेन्ना ख्रासा नेताजी सद्‌गदीत जाल्लें. उपरांत तेंच चित्तगांव पाकिस्तानी जालें आनी आज तें बांगलादेशी आसा. नकासो पळयलो जाल्यार राष्ट्रांच्या सरादीच्यो धर्तरिक भेगो पडिल्ल्यो पळोवंक मेळटात आनी प्रस्न पडटा किल्याख्रातीर ह्यो भेगो ? ह्यो भेगो नासत्यो जाल्यार ?... जाल्यार घडये संवसाराचो इतिहास वेगळोच जावपाचो.

नेपाळांत काठमांडू लागसार काळमींढ पर्वताचेर गुणेश्वरी देवीचें देऊळ आसा. अघोरपंथी तांत्रिकांचें तें मुख्य पीठ मानतात. पर्वताचे एके वटच्यान खोल दरी आनी ते दरीचे धडेचेर एक वणत. ते वणटीचेर एक दीस एक विदेशी भोंवडेकाराचें जोडें चडून बसलें. चली वणटीक फाट तेंकोवन मळबार नदर थिरावन न्हिदिल्ली जाल्यार तिच्या पांयांकडेन बशिल्ल्या तरणाट्यान आपले पांय वणटीचेर मेकळे सोडिल्ले.

कोणें तरी तांकां विचारलें, 'तुमी कोण ? खंयच्यान आयल्यांत ? '

चली हाल्ली ना. चल्यान खीणभर प्रस्न करतल्याकडेन पळयलें आनी उरफाटो प्रस्न केलो, 'हांवें तुका कसलो प्रस्न विचारला ?'

'ना. तुवें विचारूंक ना .' प्रस्न करतल्यान जाप दिली.

'मागीर तूं म्हाका कित्याक प्रस्न विचारता ?' त्या विदेशी तरणाट्यान विचारलें.

'हांव ह्याच गांवचो, तूं भायल्या देसांतलो, म्हणून विचारलें.'

'एक सांग,' त्या विदेशी तरणाट्यान म्हळें, 'हो तुजो गांव म्हणून तुका कोणें सांगलें ? आनी तुजो गांव केदो ? नदरेच्या आवाठांत भरता तेदोच काय ताजेपरस व्हडलो ? आनी तूं जी धर्तरी आपली म्हणटा ती म्हजीय न्हय? सगली भूंय एक न्हय ?'

जापेची अपेक्षा केलेबगर तो सकल देंवलो. ती चलीय उठून देंवली आनी दोगांय फाट फिरावन चलूंक लागलीं. हे घडणुकेंत लेगीत शाश्वत आनी अशवाश्वत हांचेमदल्या भेदाचोच प्रस्न घुसपल्लो आसा. खऱ्यांनीच जगांत शाश्वत अशें कांयच ना !



# 15

# साहित्याची जीवसाण

संत तुकारामाची एक कथा सांगतात. रातदीस विठोबाच्या नामस्मरणांत गुल्ल आशिल्लो तुकाराम आपल्या धंद्याकडेन दुर्लक्ष करतालो आनी आपणें रचिल्ले अभंग गायत संवसाराक विसरतालो. एक दीस लोकांच्या आनी बायलेच्या जांचाक उबगून तिडकी सरशीं तुकारामान आपल्या अभंगांचें बाड इंद्रायणी न्हंयंत उडयलें. अशें सांगतात, फुडाराखातीर रचिल्ले ते अभंग इंद्रायणीन आपल्या पोटांत घेतले नात. तें बाड हुपेत रावलें. कोणें तरी तें सांबाळ्ळें. देखूनच तुकारामाची गाथा संवसाराक मेळूंक पावली. ना जाल्यार अभंगाचें अमृत तुकारामा सांगाताच सोंपतलें आसलें.

हे गजालीचो उगडास जावपाक एक सादें कारण जालें. डॉक्टरेट मेळोवपा खातीर एका मनशान आपलो प्रबंध बरोवन खूब वर्सां श्रम घेवन नोटस् काडले आनी अर्द प्रबंध बरयलो. एक दीस बायलेकडेन ताचें झगडें जालें आनी रागाच्या भरांत तिणें घोवालीं सगलीं कागदां लासून उडयलीं. वयल्यान म्हळें, ''उजो लागलो तुजे डॉक्टरेटीक ! रातदीस वाचीत बरयत बसता आनी घरसंवसाराची मातय पर्वा करिना ! कागदां लासले उपरांत तरी तुजे तकलेंतलें पिशें गेल्यार पुरो!''

घोवान म्हळें, ''जाणा जा, वणटीवयलो नकासो हाल्लो म्हणून संवसारांत भूंयकांप जायनात ! आनी कागदां लासलीं म्हणून म्हजे तकलेंतल्या गिन्यानाचो गोबोर जावचो ना.''

घोव संवसारांत रमचो म्हणून बायलेन तागेल्या प्रबंधाचीं कागदां लासलीं. पूण तितल्यान घोवालो निर्धार बदल्लो ना.

एक चिनी दंतकथा आसा. ह्युएन त्संग भारताचे यात्रेक आयलो आनी वता आसतना खूबशे बौध्द धर्मग्रंथ घेवन तो व्हड्यान चिनाक वतालो. पुराय भारत भोंवन ताणें दुर्मीळ ग्रंथ पुंजायिल्ले. वाटेर दर्याक वादळ आयलें

आनी व्हडें हालूंक लागलें. व्हडें बुडचें न्हय म्हणून व्हड्यांतलें वजन दर्यांत उडोवपोचो आदेश नावाड्यान दिलो. आतां धर्मग्रंथ दर्यांत उडोवचे काय कितें, असो प्रस्न पडलो. धर्मग्रंथ सांबाळचे खातीर एका फाटल्यान एका शिष्यान दर्यांत उडी घेवन व्हड्याचें वजन उणें केलें. देखून ग्रंथ उरले. ते चीन देशांत पावले आनी चीन देश बौध्द जालो.

साहित्य बुडोवपाच्यो वा लासपाच्यो घडणुको इतिहासांत खूबच वाचूंक मेळटात. पुर्तुगेज जेन्ना गोंयांत आयले, तेन्ना तांणी एका हातांत खुरीस आनी दुसऱ्या हातांत तरसाद धरिल्ली. तांकां गोंयचेर निखटें राज्य चलोवपाचें नासलें, तर पुराय भारत देशांत आपलो धर्म आनी संस्कृती पातळावपाची आसली. पूण तांणी पळयलें , ह्या देशांत एक खूबच फुडारिल्ली संस्कृती आसा आनी हांगा साबार अश्यो भासो आसात, जाचें साहित्यिक दायज खूबच समृध्द आसा. गोंयांत तांणी पयलीं पांय दवरलो आनी तरसादीच्या बळाचेर गोंय जिखलें. पूण गोंयचें मन जिखतलो जाल्यार तांच्या मनांतली कोंकणी भास काडून उडोवंक जाय असो विचार करून ते कोंकणी ना नपश्चात करूंक वावुरले. तांणी खूबशें साहित्य लासलें. तरी कोंकणी मेली ना. भास आनी साहित्य हे बरयिल्ल्या अक्षराक लागून अ - क्षर उरना जाल्यार तें मनशाच्या काळजांत जितें उरलें जाल्यारूच अमर जावंक पावता.

मध्य आशियांत राजा शामील हाणें सईद आराकानी ह्या महाकवीच्या काव्याचीं बाडां न्हंयंत बुडयिल्ल्याची खबर इतिहासांत वाचूंक मेळटा. कोणें तरी राजाक विचारलें, ताणें कविता न्हंयंत कित्याक उडयल्यो ? तेन्ना राजान म्हळें, 'खरेलें काव्य न्हंयंत बुडचें ना. तें लोकांच्या काळजांत तग धरून रावतलें. ज्या कागदाचेर तें बरयिल्लें आसत त्या कागदा इतलेंच ताचें काव्य खिणयाळें आसलें जाल्यार तसल्या काव्याक जगपाचो अधिकार पावना.'

अब्दूल फझल हांच्या 'आइने अकबरी' ह्या ग्रंथाची इतिहासांतली सुवात आगळी वेगळी. तो ग्रंथ बरयता आसतना अर्द लासलो. सकलें अर्द लासून गेलें ; वयलें अर्द उरलें. फझलान लासून गेल्लें बरप परत बरोवन काडलें. आज तो एक भरवंशाचो इतिहास मानतात.

सर आयझॅक न्यूटनाची खबर खूबशा जाणांनी आयकल्ली आसतली. तागेर डायमंड नांवाचो एक सुणो आसलो. एक दीस ह्या सुण्यान न्यूटनाच्या मेजाचेर उडी मारली आनी दाट तींत मेजावयल्या कागदांचेर रकलें. वर्सांसंकीं श्रम घेवन तयार केल्ले नोट्स इबाडले. तें पळोवन न्यूटनान इतलेंच म्हळें, 'डायमंड, डायमंड, तुवें केदें लुकसाण केलां तें तुका खबर ना.'

असलीच एक घडणूक जैन साहित्याचो इतिहासकार मोहन लाल देसाई हांणी आपल्या पुस्तकाचे प्रस्तावनेंत बरोवन दवरल्या. ग्रंथाचीं खूबशीं पानां बरोवन जाल्लीं. एक दीस फस्क घेवन लेखकालो चलो खेळटालो. अवचीत हस्तलिखिताक उजो लागलो आनी पुराय ग्रंथ लासून गेलो. लेखकान सुमार एक हजार पानांचें हें पुस्तक नव्यान बरोवन काडलें.

मध्य पूर्वेक मेहमूद नांवाचो एक कवी आसलो. तो उपास काडटालो आनी कविता बरयतालो. भुरग्याक कवितेचें पिशें लागलां तें काडून उडोवचें अशें येवजून बापायन एक दीस सगल्यो कविता उज्यांत उडयल्यो. तरी आसतना महमदाली कविता आयज वाचूंक मेळटा. उज्यांत लाशिल्लीं तीं कागदां ; कविता न्हय.

आपणाक जें मानवना तें लासून उडोवपाचो प्रयत्न इतिहासांत जायत्या जाणांनी केल्लो आमकां पळोवंक मेळटा. बख्तियार खिलजीन नालंदा विद्यापीठ लासून उडयलें. हूण लोकांनी तक्षशिला भस्मसात केली. इजिप्तांतल्या ॲलेक्झाड्रियाक आशिल्लें ग्रंथालय आक्रमकांनी लासून उडयलें. ताचो उजो साठ दीस मेरेन धुंवतालो... अशो जायत्यो गजाली वाचूंक मेळटात. फाटलो इतिहास पुसून काडून नवो इतिहास घडोवपाच्या हावेसांत अविचारी मदांतांच्यो ह्यो करण्यो जावन आसात.

अक्षराचो आनी कवीचो संबंद कितलोसो ? सुलेमान स्थालस्की नांवाचो एक लोककवी आसलो. ताची कविता लोकांचे जिबेर घोळटाली. पूण ताका वाचूंक बरोवंक येना आसलें. लेझगीन कवी कोचरख्रुस्कींले दोळे मंत्रोलख्रानान फोडून उडयल्ले. जाल्यार कविता गावपी आनख्रील मारीन हाचे ओंठ जुल्मी राजान शिंवले. तरी तांची कविता मेली ना.

गितेंत श्रीकृष्ण आत्म्याचें वर्णन करतना म्हणटा, तो शस्त्रांनी पिनूंक जायना, उज्यान लासूंक जायना, उदकान भिजोवंक जायना. साहित्याचेंय तशेंच आसता. जें साहित्य अमर आसता तें धर्तरेवयल्या तणासारकें आसता. गीम तापलो म्हणटकूच पाचवें तण सुकून बावता आनी मरून वता. सगलें मळ पडंग जाता. त्या वेळार दिसता, आतां ह्या पडंग मळाचेर परत तण किल्लुतुचें ना. इतले म्हणसर मीर्ग लागता. दोन दीस पावस शिडशिडटा आनी तिसऱ्या दिसा सकाळीं उठून पळय जाल्यार पडंग मळाचेर लुसलुशीत पाचवें तण किल्लल्लें आसता. साहित्याचेंय अशेंच जाता.





**श्री. चंद्रकांत केणी** हे देवी सरस्वतीचो वरदहस्त लाबिल्ले एक सिद्धहस्त लेखक. कोंकणी, मराठी, हिंदी तशेंच इंग्लीश ह्या भासांतल्यान सातत्यान तांचेइतलें विपुल लिखाण करपी घडये गोंयांत दुसरो कोणूच साहित्यिक नासत. एक कविता हो प्रकार सोडलो जाल्यार साहित्याचे सगले प्रकार तांणी हाताळ्ळ्यात. आपणाले साहित्यिक जिणेंतले अणभव तांणी ह्या पुस्तकांत मांडल्यात. एका निजी साहित्यिकान कसल्याच साहित्यिक वादांत पडनासतना सुलभ आनी सोंपेपणान साहित्यावयर चिंतन करून तांचें कथन केलां. कोंकणी साहित्यशास्त्राच्या संवसारांत ह्या पुस्तकाची आपली अशी एक सुवात आसा. 'साहित्य स्वाध्याय' पुस्तकाची ही दुसरी आवृत्ती. वाचकांचो तिका बरो प्रतिसाद लाबतलो हातूंत दुबाव ना.

गोवा कोंकणी अकादेमी

